Price Rs. 20/- (Rs. 25/- Outside Goa)




सप्टेंबर २०१०

# आनी गोंयचो गणपती गोंधळटा.....

केनरा बैंक Canara Bank

# CANARA FESTIVAL DEPOSIT

## A Gift for the festive season



*A new Fixed Deposit product*
*"Canara Festival Deposit"*
*with interest*
*6.06%*p.a.for 266 days*
*introduced...!*

** 6.56% p.a. for Senior Citizens*

*The Scheme on offer for 100 days from 09.08.2010 to 16.11.2010*

*Features of the Scheme......*

- The deposit is for a period of **266 days.**
- Attractive interest rate @ **6.06% p.a.** is the highest available for the maturity period amongst our competitors.
- The scheme is available as **FDR**.
- The scheme is available for Domestic, NRO & Capital Gains account scheme deposits of less than Rs.1 Crore.
- Pre-mature closure permitted with applicable rate for the period run.
- Loan facility can be availed against the deposit.

*FOR DETAILS, CONTACT YOUR NEAREST CANARA BANK BRANCH OR CALL OUR TOLL FREE NO*
*1800 425 0018 OR SMS <CANARA> <YOUR CITY> TO 56161*

कोंकणी मासिक

# बिम्ब


वर्स : ९ अंक ९

सप्टेंबर २०१०

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार

छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in




(९)



## आनी गोंयचो गणपती गोंधळटा.........

– दिलीप बोरकार



रेखाचित्रां – गिरिश नंदा बोरकार
मुखपृष्ठ – डॉ. सुबोध केरकार हांचें शिल्प.

संपादकीय

# आतां आमची तोखणाय कोण करतलो?

'बिम्ब' मासिक आयलां, येवपाचें आसा, काय येतलें हाचो हुसको कितले जाणांक आसा ती म्हाका खबर ना. पूण नित्यनेमान एक व्यक्ती, 'बिम्ब'चो पयलो अंक येत सावन दर म्हयन्याक ताची उत्सुकतायेन प्रतिक्षा करताली. दर म्हयन्याचे पांच तारके मेरेन अंक हातांत पावलोना जाल्यार ते व्यक्तीची चुळबूळ सुरू जाताली. ५ तारके उप्रांत मागीर फोन येवंक लागताले, 'आरे दिलीप, बिम्ब ना रे हे खेपे?' तो फोन येवंक फावना म्हूण धांवपळ करची पडटाली. छापून आयले बराबर तो घेवन ते व्यक्तीकडेन धांवचें पडटालें.

आमचो अंक हातांत पडले बराबर अधाश्यावरी तो चाळूंक लागताली. तो चाळटना ते व्यक्तीच्या मुखामळावेलीं विंगड विंगड स्थित्यंतरां पळोवंक भोवच मजा येताली. चाळून जाले उपरांत ती व्यक्ती गोड हांसताली. त्या हासपांत आमच्या कर्तृत्वाची, आमच्या वावराची, आमचे धडपडीची अपुर्बाय आनी तोखणाय आसताली.

फाटलो अंक म्हळ्यार ऑगस्टाचो अंक तेच व्यक्तीक केंद्रीभूत दवरून काडिल्लो. अंकाचें मुखपृश्ठ ते व्यक्तीच्या कर्तुत्वान सजयल्लें. अंकाची शीर्शकथा तांचेर आशिल्ली आनी त्या अंकांत ते व्यक्तीनूच बरयिल्लो 'नव्यान जियेवंक मेळिल्लें जाल्यार' हो लेख आमी परतून उजवाडाक हाडिल्लो. ते व्यक्तीन अंक चाळ्ळो आनी तोय लेख चाळ्ळो. मागीर गंभीर जावन ते व्यक्तीन विचारलें, 'हो हांवें बरयिल्लो? केन्ना रे? आतां वाचचो पडलो.'

वाचलो काय ना कल्पना ना. नक्कीच वाचला आसूंक जाय. पूण अंक चाळून, तो बंद करून वेवस्तीत मेजार दवरून, अपुर्बायेन पळोवंक मात ती व्यक्ती विसरली ना.

ही अपुर्बाय, ही तोखणाय निमणी. ह्या अंका उपरांत ती सासणाची बंद जाता हाची कल्पना आमकां नाशिल्ली. हो सप्टेंबराचो अंक तयार जावन छापखान्यांत वचपाचे तयारेक आसतनाच ती व्यक्ती आमकां सासणाची सोडून गेली. सासणाची इतलेच खातीर म्हणपाचें की ती आमचे मदीं देहरूपान आसचिना. 'अंक आयलो रे?' म्हूण विचारचिना. आमच्या अंकात हे मुखार ताणीं बरयिल्लो नवोताल्ल लेख आसचोना. पूण ती व्यक्ती आमचे वांगडा सतत वावरत आसा अशें आमकां सातत्यान भावत रावतलें. कित्याक ती अपुर्बाय, ती तोखणाय, तें वाट पळोवप अडेचें नाशिल्लें. तें काळजांतल्यान आयिल्लें. जें काळजांतल्यान येता तें केन्नाच सासणाचें सोंपना तर सासणाचें तगता.

हे व्यक्तीन 'बिम्ब' मासिकाची तोखणाय करपा फाटलें कारणूय आसा. जेन्ना सामकी प्रतिकूल परिस्थिती ह्या गोंयांत आशिल्ली तेन्ना 'जाग' हें मासिक सुरू केलें. हाचे ताचेकडेन हात पसरून फाटलीं चाळिसेक वर्सां तें चलयलें. आपूण आसा सर तें बंद पडूंक दिवंचोना म्हणत तें चलयलें. कोंकणी बरोवंक लागिल्ल्या आमच्या सारक्या तरनाट्यांक आपणें बरयिल्लें खंय छापचें असो प्रस्न पडूंक फावना म्हूण सातत्यान हें मासिक चालू उरचें म्हूण ती व्यक्ती वावरत रावली, धावपळ करीत रावली.

ते व्यक्तीन एक मासिक चलोवपाखातीर कितले कश्ट घेवंचे लागतात आनी ते कश्ट घेवन मासिक तयार जालें आनी तें वाचकां मेरेन पावलें म्हणटकच मनाक कितली खोस भोगता ताचो अणभव बरींच वर्सां घेतिल्लो. तेच पासत आमचे सारके तांचे अनुयायी जेन्ना आपल्या पावलांर पावल घलीत मुखार येतात, मासिक चलोवपाचें पिशेपणां वेंगावन तें समर्थपणान चलयतात तेन्ना ते व्यक्तीक खोस भोगलेबगर कशी रावत?

हे व्यक्तीन पिशेपणां केलीं आनी आमकांय तें पिशें लायलें. ती व्यक्ती जितलीं पिशेपणा करून गेली तितलींय पिशेपणां आमचे सारके, तांचे उप्रांतची पिळगी करता. हे पिळगेन पयर २८ ऑगस्टाक ते व्यक्तीचें महानिर्वाण पळयलें. हे व्यक्तीच्या मरणाची गजाल कळना फुडें पुराय गोंय हळहळ्ळें. तांचें निमणे दर्शन घेवपा खातीर हजारांनी लोकांची रांक तांच्या घरावटेन लागली. ते व्यक्तीक शासकीय मानवंदना लाबली.

तो सगळो आक्त हजारांनी लोकांनी प्रत्यक्षांत पळयलो, तर कितले तरी लाख लोकांनी चॅनलाचेर पळयलो. तें सगळें पळोवन प्रत्येकाक प्रस्न पडलो, असलीं पिशेपणा करून मरणा आदींय मान सन्मान मेळटा आनी मरणा उप्रांतूय मेळटा? ही कोणे चिंतूंक नाशिल्ली, कल्पने भायली गजाल आमी ह्याच दोळ्यांनी पळयली. 'आतां आमची तोखणाय कोण करतलो?' असो जो प्रस्न भरिल्ल्या काळजांत उफेवन आयिल्लो तो खंयचे खंय ना जालो आनी पंचतत्वांत विलीन जावपी ते व्यक्तीची कूड सरणार जळटा आसतनाच आमचेय दोळे सर्गावटेन गेले आनी आपसून तोंडांत उतरां आयलीं 'देवा आमकांय असलेंच मरण फाव कर!'

तेन्नाच ते व्यक्तीचो अपुर्बायेचो, मोगाळ, म्होंवाळ आवाज आसमंतातल्यान थेट काळजांत रिगलो. 'तथास्तु'!

# ह्या वाङमय चौर्याचेर उपाय कितें?

ऑगस्ट २०१० चो 'बिम्ब' अंक हातांत पडलो आनी सगळ्यांत पयलीं रवीन्द्रबाबांल्या ज्ञानपीठ पुरस्कार स्वीकृतीच्या भाशणाचो कोंकणी अणकार वाचून काडलो. (मूळ हिन्दी भांशण कला अकादमींत आयकल्लेंच). पूण तें आतां संग्राह्य करपाची तजवीज केल्ल्यान 'बीम्बा'चे उपकार. उपरांत संपादकीय, काव्योत्सव बी वाचतां वाचतां अचकीत पान क्र. ४४वेल्यो 'मनसंवेदना' विभागांतल्यो कविता वाचतना रंजीता बी. नायक हाची(?) 'चवथो कोनसो घराचो' ही कविता वाचली. म्हजे कवितेखाला तांणी कवी म्हण चुकून बी दुसरें नांव छापलें काय?... पूण हांवें काय बिम्बाक म्हजी कविता धाडूंक ना... बारीकसाणेन वाचतकीच कळ्ळें, हो वाङमय चौर्याचोच प्रकार. त्या रंजीता नायकान मूळ कवितेंतलीं करचों, दाळटलों, आनी उबारतलों हीं पुल्लींगी उतरां करचें, दाळटलें, उबारतलें अशीं स्त्रिलींगी रुपांत बदलून पुराय कविता तशाचेतशी 'कॉपी' मारून बिम्बांत छापून हाडली.

ते चलयेक फोन करून 'मुखार अशें करचें न्हय' म्हण समजावन सांगचें अशें थरयलें. जाल्यार ताच्या नांवासकयल आशिल्लो मोबायल फोन नंबरूय अर्दकुटो (९९२३१३५२२). म्हळ्यार णव आंकडी. आतां पत्र बरयले शिवाय पर्याय ना अशें चिंतून लेखणी हातांत घेतली. बरोवंचे आदीं आदल्यो कांय घडणुको याद जाल्यो त्यो अशो:

१. ता. ३/१०/२००४ दिसाच्या सुनापरान्तांत (नव्या विभागांत) म्हजीच 'आतां कितें करूं?' ही 'पावसफुलां' संग्रहांतली (पान क्र. १९वेली) कविता बाब विदेश गोसावी हाणें आपल्या नांवा आनी फोट्यासयत छापून हाडिल्ली. तो तेन्ना काणकोणच्या एका महाविद्यालयांत वाणीज्य शाखेंत शिकतालो. ताकाय त्या वेळार हांवें ता. ६/१०/२००४च्या सुनापरांतांतल्यान पत्र बरोवन समज दिल्ली.

२. दुसरी गजाल म्हळ्यार कोंकणी भाशा मंडळान शालेय भुरग्यांखातीर कविता लेखन सर्त आयोजीत केल्ली. ते सर्तीचे एक परिक्षक म्हण कवी संजीव वेरेंकारांक नेमिल्ले. कवितांचें परिक्षण करतना ताका 'कॉंक्रिटाच्या जंगलांत' ही कविता वाचपाक मेळ्ळी. संजीवाचे चलयेन (स्नेहान) ताका ती कविता राजय पवाराची म्हण सांगतकीच संजीवान म्हाका फोन करून खात्री करून घेतली. ताणें फोनार वाचून दाखयिल्ली पुराय कविता तशाचेतशी 'कॉपी' आशिल्ली.

३. आनी आतां ही तिसरी खेप. हे खेपेक म्हजी अकरावेच्या कोंकणी क्रमीक पुस्तकांतली (आनी आदीं 'जागां'त मे १९९९ च्या अंकांत पान क्र. २१चेर छापून आयिल्ली) 'चवथो कोनसो घराचो' ही कविता बाय रंजीतान चोरून आपल्या नांवान छापली. ही कविता ह्या आदीं प्रकाशीत जाल्या म्हण बरें. पूण समजा कोणेंय आपली अप्रकाशीत कविता खंयूय सादर केली आनी ती आयकून वा रेकॉर्ड करून भलत्यानूच आपल्या नांवान छापली जाल्यार ते कवितेवेलें धनीपण कशें पटोवन दिवपाचें?

युवकां मर्दी वाडत वचपी ही वाङमय चौर्याची वृत्ती साहित्य चळवळीक मारक थरूं येता. आदींच कोंकणी नाटकाच्या मळार हे वृत्तीचेर बोवाळ चल्ला. आतां कवितेच्या मळारूय तेंच. शाळेंतल्या शिक्षकांनी, पालकांनी, परिक्षकांनी नवे पिळगेक ह्या संदर्भांत वेळावेळार मार्गदर्शन करपाची गरज निर्माण जाल्या.

वाङमय चौर्या भायर आनीक एक




घातक वृत्ती आपली बोडकी वयर काडटा ती म्हळ्यार, दुसऱ्याक बदनाम करून त्या आदारार स्वताचें नांव करूंक कांय जाण 'डुप्लीकेट' नांवान लेखन करपाक लागल्यात. देखीक म्हण एप्रिल २०१०च्या 'बिम्बां'त आयिल्लें पत्र घेवं येता. विनायक प्रभू ह्या 'डुप्लीकेट' नांवान कोणेंतरी तें पत्र बरयलां. हेरांच्या साहित्यावांगडाच म्हज्या नाटकांचेरूय ताणें कमेन्ट करून 'पिल्लां' दिल्ल्यांत. पत्र वाचतकीच तें कोणा 'फ्रॅश' बरोवप्याचें 'काम' नासून पुरस्काराक हपापिल्ल्या मनशाचेंच म्हण सहजपणान कळटा. तरी ताचेकडल्यांन नाटक म्हळ्यार कितें तें शिकून घेवपाचे इत्सेन हांवें ताणें दिल्ल्या (बंडल) नाम्याचेर चवकशी केली. पूण थंय त्या नांवाचो प्राणी रावना म्हण कळ्ळें. कोणेंतरी मागीर तो शांतीनगरांत रावता म्हण सांगलें, कोणें मडकय, कोणें तिस्कार. पूण तो निमाणेमेरेन गावलोच ना. 'बिम्बा'न ताका धाडिल्लो अंकूय खंय परतो आयलो. असले वृत्तींक कसो आळाबंद घालप? पत्रक बहाद्दरांचें एक सोडूं येता. कारण तसल्या पत्रकवाल्यांचें खरें-फट वाचतल्यांक कळटा. मात तरणे पिळगेमर्दी वाडत वचपी वाङमय चौर्याची वृत्ती मात साहित्याखातीर खूब घातक थरूं येता. हाचेर विचारमंथन जावंचें.

– राजय पवार
बोरी, फोंडें.
फोन : ९८६०७१६०७१

बाब राजय पवार हाणी रंजीता बी. नायक हे चलयेन आपली कविता 'चवथो कोनसो घराचो' आपल्या नांवार बिम्बांत उजवाडायल्या म्हणपाची कागाळ केल्या आनी ती सत गजाल जावन आसा. आमकां दर म्हयन्याक नवोदितांच्यो कितल्योतरी कविता येतात. तातुंतल्यो खऱ्यो कोणाच्यो हाचो सोद लावपाची यंत्रणा नाशिल्ल्यान ही अशी घडणूक घडून येता. कोण फकाणानूय अशें करूंक शकता. ह्या आदीं आमी रंजीता नायक हाच्यो कविता छापल्यात. कोणे कागाळ करूंक ना म्हणटकच त्यो ताच्योच आसूं येतात अशें मानचें पडटा. तरीपूण ह्या फुडें असो प्रसंग घडचो न्हय. घडल्यार कायदेशीर कारवाय करची पडटली. : संपादक



# आनी गोंयचो गणपती गोंधळटा....

– दिलीप बोरकार

देवा, हें जें सगळें धर्माच्या नांवान वीख कालोवपाचें घडटा, तेंय बी हिंदूंच्या नांवान तें समाजाक घातक आसा अशें तुका दिसना? हिंदू धर्म रक्षणाच्या नांवान हे जे कोण समाजांत दुस्पट हाडूंक हिन्दूंक जागे करूंक सोदतात, तेच हिन्दू काय हे लोक जे कितें करतात तें सारकें न्हय अशें सांगून तांचे आड आवाज काडपी आमी हिन्दू? काय आमकां हे हिन्दू मानूंक तयार नांत?

हे देवाधिदेवा, गणपती, गणराया... भाद्रपद लागलो की तुका टाळून आमचें कसलेंच काम मुखार वचना. मागीर तें सर्वसादारण घरगुती आसूं वो ह्या म्हयन्याच्या बिम्ब नेमाळ्याचें आसूं! तुका नमन केल्या बगर कार्य सिध्दीक पावत अशें दिसना. कारण तुजो जल्म ह्याच भाद्रपद शुक्ल चवथीक जाल्लो. श्री शंकरान म्हणचे तुज्या बापायन हे तिथीक कैलासाचेर तुज्या जल्माचो उत्सव मनयिल्लो. तुवें हेच दिसा सिंदुरासुराक मारलो देखूनच 'गणेश चवथ' सुरू जाली अशें आमी मानतात.

श्रीगणेशा, तुजी पूजा केन्ना सुरू जाली हाचो आमकां निश्चीत काळ जरी मेळना आसलो तरी पेशवे कोंकणांतल्यान घाटार गेले, तेन्ना ताणी हो उत्सव भौशीक केलो. पेशवाई उपरांत कांय वर्सांनी सन १९९४त लोकमान्य टिळकान सार्वजनीक गणेशोत्सव परतो सुरू केलो. ब्रिटीश राजवटी आड भारतीय लोकांभितर जागृताय निर्मुपाचो हावेस ह्या उत्सवा फाटल्यान आसलो. देखूनच तुज्या उत्सवांत कितली शक्त आसा हाची जाणविकाय आमकां भारतीयांक जाल्ली आसा.

गणाधिपती गणराया, आमच्या शिक्षणाचो आरंभूच तुज्या नमनान जातालो. त्या आरंभाकूच शिक्षणाचो श्रीगणेशा अशें आमी अजून पासून गर्वान म्हणत आसात.

भारतीय संस्कृतायेंत आमच्या धर्मीक जिवितांत पुरायपणान व्यापून रावन एक उंचेली सुवात जोडून आशिल्लें दैवत तूं. आमी तुका विद्येचें तेचपरी संकश्टाचें निवारण करपी दैवत म्हूण मानतात.

चवथीक तुजें पूजन व्हडा उमेदीन जायत आसलें तरी तें भौशीक स्वरूपांतूच चड आसा. पूण कोंकण आनी आमच्या गोंयांत मात तुजें पूजन घराघरानी आमी करतात.

तुज्या पूजनाफाटलो आमचो हेत फकत तुजो जल्मदीस मनोवन उत्सव करपा

इतलोच मर्यादीत न्हय. आमी तुज्या जन्माच्या निमतान सृश्टीच्या निर्मितीची पूजा करतात. जे मातयेंतल्यान हे सृश्टींत नवें नवें कितें निर्माण जाता ते मातयेचीय आमी पूजा करतात. पूण तुजी पूजा करपा फाटलो मुखेल हेत जावन आसा तो म्हळ्यार तूं बुध्दीची देवता, गिन्यानाची देवता म्हूण तुका आमी उंचेली सुवात दिल्या देखून.

हे बुध्दीचे देवते, तुजी आमी दर भाद्रपदाचे चवथीक मनोभावे पूजा करून आमकां बरी बुध्द दी, आमचें गिन्यान वाडय म्हूण पराथतात. पूण आयज ही पूजा म्हळ्यार निव्वळ भोगावळ अशें दिसूंक लागलां. आयज हो तुजो उत्सव निव्वळ मनोरंजन थारत वता आनी तुजी पूजा करपी आपली बुध्दी वाडोवपा बदला ती घाणाक उडोवंक लागला.

भारतीय चित्रकलेंत आनी शिल्पकलेंत तुज्यो दोन ते पांच मेरेन तकल्यो, एक ते तीन दांत दाखयल्ले आसात. पयलीं तूं दोन हातांचो परशू आनी मुळो हातांत घेतिल्लो आशिल्लो. पूण फुडें तुका चार, स, आठ, धा आनी सोळा हातांचो करून उडयलो. पुण्यांत तीन सोंडीचो आसा. तीन तोंडांचो जपानांत तर चार तोंडांचो कंबोडियांत आसा. तुज्या गळ्यांत वो कमरेभोंवतणी सोरोपूय आसात. हिमालयांत आशिल्ल्या तुज्या 'मुंडकटा' रूपाक तर तकलीच ना. तुजी सोंड केन्ना दावे वटेन तर केन्ना उजवेवटेन आसता. म्हणटकच तुजें स्वरूपच अशें की ज्या भक्ताक तूं ज्या रूपान दिसता त्या रुपान तुका आयजवेर तुजे भक्त रंगयत आयल्यात. तशें करतना तुज्या खंयच्याच भक्ताक आपूण चुकलां अशें वो गुन्यांवकारी म्हणपाचें दिसलें ना. तशें केल्ल्यान कोणाच्योच भावना दुखवल्यो नांत वो भावना दुखावल्यात म्हूण समाजांत दुस्पट घालपाचें काम हिन्दू धर्माची मक्तेदारी घेतिल्ल्याचो आव हाडून कोणे केलें ना. कित्याक तू बुध्दीची, गिन्यानाची देवता. जांका बुध्द आसा, गिन्यान आसा तांचेकडल्यान असलें मनीसघाणे कृत्य केन्नाच घडना. पूण गोंयच्या दुर्दैवान हीं कृत्यां आयज गोंयांत घडटात आनी दिसानदीस तीं चडूच वाडत आसात. तीं आळाबंदा हाडचीं अशें कोणाक दिसना आनी तसो यत्नूय कोण करिना. म्हणटकच तूं खऱ्यानीच बुध्दीचें दैवत काय कितें असो प्रस्न पडटनाच तूंय गोंदळांत सांपडला जावये अशें तेच खातीर दिसता.

गणराया, आमच्या गोंयांत सुबोध केरकार नांवाचो एक चित्रकार आसा. हालीं तो हे कलेच्या मळार वेगवेगळे अविश्कार



पर्यावरणाच्या राखणे खातीर इकोफ्रेंडली गणपतीची संकल्पना मुंबयच्या दादर हांगा निर्मिती आर्टस ही संस्था राबयता. हांगच्या मेळाव्यांत १००१ विंगड विंगड गणपतीचें दर्शन जाता. हातूंत माती, कागद, लाकूड, बांबू, सुतली, अळमी हांचे गणपती तयार जाल्यात. ते पळोवन मुंबयंत कोणाच्यो भावना दुखावनात काय!



पुरातन काळांत लेंगीत अशीं शिल्पां तयार जालीं जी अजरंवर जाल्यांत

करपा खातीर धडपडटा आनी ताणें तयार केल्ले कलात्मक संकल्पनेक कलारसिक मुक्तपणान तोखेतात. फाटले वर्सा ताणें तुज्या ओडलायण्या रूपान प्रभावीत जावन तुज्यो कलात्मक प्रतिकृत्यो तयार करून ताचें प्रदर्शन घडोवन हाडिल्लें.

खरें म्हळ्यार ह्या कलाकृतीनी खंयच्याच धर्मांतल्या लोकांच्यो भावना दुखावपाचो प्रश्नूच नाशिल्लो. पूण गोंयांत हिन्दू धर्माची मक्तेदारी घेतिल्ले तथाकथीत हिन्दू धर्म रक्षक आसात. खंयीय खूट्ट जालें जाल्यार हांच्यो भावना रोखड्योच दुखावतात. खरें म्हळ्यार ही एक विकृती. मानसिक विकृती म्हळ्यार चड बरें जातलें.

हिन्दू धर्माची राखण करूंक मुखार सरिल्ले हे विकृत लोक, समाजांतल्या विकृत लोकांक सोदीत भोंवतात. तांका जमयतात. हिन्दू धर्म म्हळ्यार कितें तें कांयच खबर नाशिल्ल्यां मुखार हे हिन्दू धर्मरक्षक भावना दुखावल्यात म्हण आरड मारतात आनी ह्या मानसिक रोग पिडेस्तांक तें खरें दिसता. मागीर तेय हुयेली मारतात. विकृत लोकांच्या ह्या चोंब्याक पळोवन आमची पोलीस यंत्रणां आनी चड करून घरखातें थरथरता. ताणीं भावना दुखल्यो म्हूण बोबो मारल्यो रे मारल्यो, पोलीस तांची बोबो मारपाफाटली भावना कितें आसा हें पळयनासतना, कलाकारांची अभिव्यक्ती पळयनासतना चित्रांचें प्रदर्शन बंद करून उडयतात. हाका लागून ह्या विकृत धर्मरक्षकांक जेल चडटा. आमी करतात तें जालें अशें दिसून ते सगळेच कडेन आपल्यो भावना दुखोवन घेत रावतात.

आपल्यो भावना दुखल्यो म्हूण आरड मारीत ते चित्रांचें प्रदर्शन बंद उडोवन तातूंत समाधान मानून ते ओगीच रावतात अशेंय न्हय. ज्या चित्रकाराच्या चित्रान तांच्यो भावना दुखावल्यात त्या चित्रकाराचो फोन नंबर ते सोदून काडटात. ताचोच न्हय तर ताच्या बायल भुरग्यांचोय फोन नंबर सोदून काडून तो ह्या हिन्दूधर्म रक्षकांच्या विकृत अनुयायांकडेन पावतो करतात. उगडपणान तांच्या मुखपत्रांत, सनातन प्रभातांत ते छापतात आनी त्या चित्रकाराक, ताच्या घरच्यांक दीसरात फोन करून धमकावंक सांगतात. मागीर हे विकृत लोक आदेश मानून घेवन तकली फिरता तेन्ना फोन करीत सुट्टात. अशें करतना ते वेळकाळ पळयनात, त्या चित्रकाराच्या भुरग्यांची पिराय पळयनात. हें सगळें सुबोध केरकाराच्या बाबतींत घडलां. आतां, गणराया, तूंच सांग पळोवया, हें सगळें हिन्दू धर्मांत खंय आसा? अशें करात म्हूण हिन्दू धर्मांत खंय सांगलां?

तर नेर्वां फ्राक जाल्यांत अश्या कांय लोकांक सोदून काडून एकठांय करपा खातीर देमागोग जयंत आठवले हाणें आपलेच मानसिकतेचे कांय लोक आपल्या हातालागीं धरल्यात. तो तांका वेवस्तीत पगार बी दिवन, समाजांतल्या मानसिकताय इबाडिल्ल्या लोकांक जमोवन समाजांत दुस्पट घालपाचें काम करता. बाँबस्फोट घडोवन हाडपा मेरेन हांची मजल गेल्या. पूण तांच्या ह्या समाज विघातक कृत्यांक कोणूच हरकत घेनांत. पुरावे हाताकडेन आसतनाय गोंय सरकार तांचे कडेन आडनदर करता.

चित्रकार सुबोध केरकाराची ही गजाल जाल्यार डॉ. जुझे पेरेरा हांचीय तीच गत. डॉ. जुझे पेरेरा हे एक व्हड विद्वान. धर्मशास्त्राचे व्हड अभ्यासक. ते एक व्हड गोंयकार. हालींच ते गोंयांत आयिल्ले तेन्ना तांच्या चित्रांचें एक प्रदर्शन पर्वरीच्या झेवियर सेंटराचे गॅलरींत

## कलाकार बेजबाबदार नासतात

– विष्णू वाघ



खंयच्याय कलाकाराक आपली जबाबदारी खबर आसता. त्या त्या कलाकारान आपले जबाबदारेक तोंड दिवप गरजेचें. हांवें 'तुका अभंग अभंग' नाटक बरयलें. ताची पुराय जबाबदारी हांवें घेतली. फाल्यां कोणे माफी मागपाक सांगली जाल्यार हांव माफी मागचो ना. म्हजेर मागीर ते मोर्चे हाडूं दी नातर आनीक कितें करूं दी. हांव पर्वा करिना.

दिगंबर कामत हांच्यो दिगंबर कामत म्हूण वैयक्तीक भावना, वैयक्तीक श्रध्दा आसूं येतात. मुख्यमंत्री म्हूण श्रध्दा-भावनांचें चड प्रदर्शन जावंक फावना. कोणाच्याच श्रध्दांक कोणाचो विरोध ना.

कला हो सगळ्यांत वयल्या पावंड्या वयलो अविश्कार. देखून भारतांत वेगवेगळीं शिल्पां पळोवंक मेळटात. पुराणांत वेगवेगळीं वर्णना वाचपाक मेळटात. त्या वेळार देवा-धर्माचीं यथार्थ वर्णनां करपाक, तांचीं संभोगावरयेतलीं बी शिल्पां पितारपाक आमचे ऋषी-मुनी भियेवंक नासले. आतां तरी कलाकारांनी कित्याक भियेवपाक जाय? हे कोण बोवाळ मारपी? हांकां धर्म म्हणटात तो कितें हें तरी खबर आसा? पूण हांचेकडेन कोण वाद विवाद करिनात. धर्म ही हांची मालमत्ता न्हय. कलाकारान अशा वेळार खंबीर रावपाक जाय. अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचेर हावळ येता तेन्ना कलाकारांमदीं एकचार आसप गरजेचें. कलाकारांचो आवाज व्हडलो जालो जाल्यार सरकाराक नमचेंच पडटलें.

आयोजित केल्लें. ह्या चित्रांत जुझे पेरेरा हाणीं नवें आपले कल्पनेंतलें कांयच पिताऱूक नाशिल्लें. जें कितें ताणीं पितारिल्लें तें भारतीय शिल्पाचीच प्रतिकृती आशिल्ली. तीं चित्रां तांणी खंयच्या सनातनी भारतीय शिल्पांतल्यान घेतल्यांत ताच्यो नोंदीय ताणीं दिल्यात. पेरेरा हे हिंदूच्यो भावना दुखोवन तातुंतल्यान विकृत आनंद घेवपी बेजबाबदार व्यक्ती न्हय. तो भारतीय शिल्प कलेचो व्हड अभ्यासक. खरें म्हळ्यार ह्या तांच्या प्रदर्शनाचो प्रत्येकान आस्वाद घेवपाची गरज आशिल्ली. पूण तीं चित्रां पळोवन कांय धर्मकोल्ली लोकानी जे हिंदू जनजागृती करूंक संवकल्यात, हिंदू धर्माची राखण करप ही आपलीच मक्तेदारी असो गैरसमज करून हुल्लडबाजी करतात ताणीं हें एक सुंदर चित्रप्रदर्शन बंद उडोवंक लायलें. ह्या चित्रकाराक सुबोध केरकारान आपलो तेंको उक्तायलो म्हण परतून हे सनातनी धर्मरक्षक चाळवले आनी ताच्या भुरग्यांक किडनॅप करपाची धमकी ताका दिवंक लागले.

विघ्नहर्त्या गणराया, ही असली परिस्थिती ह्या गोंयांत उप्रासल्या ती पळोवन तुजोय गोंधळ जाला हातूंत दुबाव ना. ह्या गोंयांत दर वर्सा मोठ्या भक्तीभावान आमी तुजी पूजा करतात. आमचेवेलीं विघ्नां पयस कर, आमकां संकश्टांतल्यान वाचय, आमकां बरी बुध्द दी अशें आमी तुजे लागीं मागतात. आमची ही प्रार्थना तूं मानून घेता हें आमी जाणांत. तसो तुजेर आमचो भावार्थ आसा. अशें आसतना समाजजीवनांत हीं अशीं विघ्नां हे लोक कित्याक हाडटात? तेंय बी तुजेंच निमित्त करून, हें पळोवन तुजो गोंधळ नक्कीच वाडला आसूं येता.

देवा, हें जें सगळें धर्माच्या नांवान वीख कालोवपाचें घडटा, तेंय बी हिंदूंच्या नांवान तें समाजाक घातक आसा अशें तुका दिसना? हिंदू धर्म रक्षणाच्या नांवान हे जे कोण समाजांत दुस्पट हाडूंक हिन्दूंक जागे करूंक सोदतात, तेच हिन्दू काय हे लोक जे कितें करतात तें सारकें न्हय अशें सांगून तांचे आड आवाज काडपी आमी हिन्दू? काय आमकां हे हिन्दू मानूंक तयार नांत?

आपले मनोविकृतीक लागून हे लोक गोंय राज्याची बदनामी करतात तें पळोवन आमच्या सारख्या सेक्युलर हिन्दूंच्यो भावना दुखावतात. आमकां कलाकारांक ह्या गोंयांत आपल्यो भावना मेकळेपणान उक्तावंक मेळनांत. आमच्या विचारांची अभिव्यक्ती करूंक मेळना. आमी आमचे विचार मांडले जाल्यार कोण तरी अरवळ, अवचिन्न उठटलो आनी आपल्यो भावना दुखावल्यो म्हणत गुंडागिरी करीत, आमचे विचार बंद करपाखातीर धमकायतलो. हाका लागून नाय म्हळ्यार आमचे अभिव्यक्तीचेर परिणाम हो जातलोच.

विघ्नहर्त्या गणपती, देमागोग आठवलेची ही विकृत मानसिकतायेची पिलावळ कितें करूंक सोदता तेंच कळना. ह्या लोकांक आपलो घरसंवसार नीट चलोवंक आयलोना. आपलो वेवसाय सांबाळूंक आयलोना आनी समाजसेवाय करूंक आयलिना. हाका लागून सदसद्‌विवेकबुध्द होगडावन बशिल्ले हे लोक देमागोगाचे गरयेक फारावल्यात. तांकां ते कितें करतात तेंच कळना.

## तांकां हांव भीक घालिना

**– सुबोध केरकार**



गोंय मुक्तीक ५० वर्सां जातात. गोंयाक फुडल्या २५ वर्सांनी खंय व्हरप ही आमची सगळ्यांची जबाबदारी. आमी मुक्त जाल्यात. पूण गोंय मुक्त जावनूय जर चित्रकार, कलाकार आपल्यो भावना मुक्तपणान उक्तावंक शकनात जाल्यार ती कसली मुक्तताय?

सरकारान जें करूंक जाय तें सरकार करिना. मुख्यमंत्री दिगंबर कामत धर्मवाद्यांचे बाबतींत मोव रावतात. तांच्या स्वताच्या मतदारसंघांत बाँबस्फोट जालो आनी तातूंत सनातन संस्थेचो संबंध सिध्द जावंक नासलो तरी सनातनाचे साधक आसात हे पुलिसांनी दाखोवन दिलां. इतलें सगळें आसून मुख्यमंत्र्यान तांचे बाबतींत मिळमिळीत भुमिका येवंक फावना.

गोंय धर्मीक एकचाराचे बाबतींत आसा तशेंच उरपाक जाय जाल्यार सुदारणावादी लोकांनी फुडाकार घेवंक जाय. गोंयच्या कलाकारांक मुक्तपणान कलेचो अविश्कार करपाची संद मेळ्ळी जाल्यार गोंय संवसारांतलें सगळ्यांत व्हडलें केंद्र जावपाक वेळ लागचोना. तितली तांक गोंयकारांकडेन आसा. फक्त गरज आसा ती सनातनी प्रवृत्ती नितळ करपाची.

हांव जीं चित्रां काडटां ती म्हजी अभिव्यक्ती, विचार स्वातंत्र्य. कोणाच्यो भावना दुखपा सारकें तातूंत कांयच ना. कोणूय कारण नासतना जर त्यो दुखोवन येतात जाल्यार असल्या लोकांक हांव भीक घालिना.

आमचे सारके लेखक, कलाकार विचार स्वातंत्र्याचो अधिकार वापरून आपले कलेची अभिव्यक्ती करूंक सोदतात जाल्यार आपल्यो भावना दुखावल्यो म्हणत हे मोर्चा काडटात. सरकार तांका भियेता. क्रेन्ना केन्ना सरकारचो आदेश येवचे आदींच पोलीस वचून हीं प्रदर्शना बंद उडयतात. हाका लागून ह्या विकृतीन लबडयल्ल्या लोकांक दिसता आमी जिकले. आमी करता तें जालें. आमचे हे मर्कटलिलेक विचारतलो पाचारतलो कोण ना!

जुझे पेरेरा हो मूळ गोंयचो. साश्टीकार. तो लंडनाक धर्मशास्त्र शिकयता. संवसारांतल्या सगळ्या धर्माचो ताणें खोलायेन विचार केला. तो क्रिस्तांव धर्मांत जल्मलो तरी ताका अमुकूच धर्म लागना. तो तें मानीच ना. तो धर्माचो अभ्यासक. ताणें बाबड्यान चित्रां काडलीं तीं हिन्दू धर्मांत हे आदीं विशय आयल्यात ताचेरूच. पूण तें समजून घेना आसतना, ताचो विचार समजून घेना आसतना हे लोक प्रदर्शन बंद करात म्हूण सांगतात आनी पोलीस वचून बंद करतात. खरें म्हळ्यार पोलीसानी सरकाराचो आदेश पाळपाचो. हांचो न्हय. पूण पोलीस जे कोण अभिव्यक्ती स्वातंत्र्या आड आसात तांचेर कारवाय करपा बदला,




**पुराणांतले श्रीकृष्णाचे रासलिलेचेर आधारीत संकल्पनेचेर डॉ. जुझे पेरेरा हाणीं पुनररेखाटन केल्लें चित्र. हें चित्र पर्वरी प्रदर्शनाक आशिल्लें तें हिन्दूंच्यो भावना दुखावल्यात अशी हुयेल मारीत हिन्दू धर्मरक्षकांनी तें प्रदर्शन बंद उडयलें.**

तांचोच आदेश मानून प्रदर्शन बंद उडयतात हें पळोवन तो बाबडो जुझे पेरेरा कांचवेलो.

आपल्या गोंयांत हें कितें चल्लां तेंच ताका कळ्ळेंना विघ्नहर्त्या. हें घडटा तें खंयच्याच धर्मांत बसना, आमच्या लोकशायप्रणालीच्या देशाचे घटनेत तर असल्या घडणुकांक सुवातूच ना. तरी आसतना हें घडटा आनी सरकार तांका राखण दिता तें पळोवन जुझे पेरेरा गोंधळ्ळो. आपलें गोंय आतां आदलीचें उरूंक ना म्हणत तो प्रदर्शन बंद करून गोंय सोडून गेलो. हाका लागून तो ल्हान जालोना देवा. गोंय सरकारचें मात नाक कातरलें.

बुध्दीच्या, गिन्यानाच्या देवा गणराया, गणेशा, तूं फक्त हिन्दू लोकांचीच मक्तेदारी न्हय. संवसारांतले खूबशे हेर धर्मांतले लोकूय तुजी पूजा करतात. पूण हिन्दू धर्माची मक्तेदारी घेतिल्ल्या सनातन परिवाराक दिसता की तूं फकत तांचोच देव. खरें पळोवंक वचत जाल्यार हे सनातन परिवाराचे सगळे घटक स्वताक हिंदू धर्माचे राखणदार समजतात. तांका राखणदार कोणे केले तेंच कोणांक खबर ना. कोणूय उठ्ठा आनी चार बोडकांक घेवन संघटना करता. हिंदूंक जागे करूंक जाय, तांची राखण करूंक जाय म्हणत बोबो हुयेली मारतात. हिंदू जनजागृती समिती चार बोडकांक घेवन त्योच हुयेली मारता. धर्मरक्षण सेनाय तावातावान मुखार सरून त्योच हुयेली मारता आनी रणरागिणी समितीय तेंच करता. तांच्या ह्या कर्तुबान ते हिंदू धर्माक लजेक घालतात म्हणपाचें मात ह्या लोकांक सांगून लेगीत समजना.

गणराया, डॉ जुझे पेरेरा हो क्रिस्तांव धर्मीय जावं. एम्. एफ. हुसेन मुसलमान जावं. पूण ते त्या धर्मांत जल्माक आयल्यात म्हूण त्या धर्माचे मानपाचें. पूण ते आपल्या कर्तुत्वान धर्माच्यो वणटी आनी शिमो हुपून गेल्यात. तांचे भितर तितली प्रगल्भताय आसा देखून तशें घडूंक पावलें. तांची प्रगल्भताय वळखुपाची तांक ह्या सनातनांतल्या विकृत घटकांभितर मात्तूय ना. अशें आसुनय हे जे धर्माच्या नावान मर्कटलिला करतात त्यो आमी उकत्या दोळ्यांनी पळयत रावतले?

तांच्या ह्या मार्कटचेश्टांक उबगून तांच्या आड जे कोण उलयतात, बरयतात, निशेध करतात ते सगळे हिन्दूच. हांव हिन्दू, ॲड. उदय भेंब्रो, ॲड. अमृत कासार, डॉ. सुबोध केरकार, राजेंद्र केरकार, जवाहर बर्वे, विष्णू वाघ, रमेश गावस हे हेर हिन्दूवरींच शंबर टक्के हिन्दू. पूण ते स्वता गर्व से कहो हम हिन्दू म्हणनात. ते गर्वसे कहो हम हिन्दी है म्हणटात. पूण गर्व से कहो हम हिन्दू म्हणपी मात आपल्या वक्तव्यान आनी कर्तुबान ह्या हिन्दूंक लजेक घालतात.

तर देवा, आतां ह्या विकृत हिन्दूंक जाग्यार बसोवपाचो वेळ आयला. मडगांव बॉम्बस्फोट केलो तो ह्याच लोकांनी हें आतां सिध्द जालां. धर्मांधपणा मुखार कायद्याचे हात हे चड सशक्त आसात हेंय सगळ्यांक कळ्ळां. पूण ज्या मडगांव शारांत बॉम्बस्फोट ह्या लोकांनी घडोवन हाडलो त्या मतदारसंघाचे आमदार, गोंयचे मुखेलमंत्री आसात. तातूंत ते कलाप्रेमी जावन आसात. अशें आसतना गोंयच्या कलाकारांचे अभिव्यक्तीचेर बंधना घालपी कांय मूठभर विकृत लोकांक तांच्या ह्या कर्तुबापासून परावृत्त करपाचें कसलेंच धोरण मुखेलमंत्र्यांकडेन नासप म्हळ्यार ती लजेची गजाल. ताणीं योग्यवेळारूच ह्या गजालींचेर नियंत्रण दवरलें ना जाल्यार हो प्रकार हाता भायर वतलो आनी आमच्या सारख्या कलाकारांक, मागीर तो लेखक जावं वो जावं चित्रकार, ताणीं आपली कलाकृती लोकां मुखार दवरचे आदीं ह्या लोकांमुखार दवरून ती सेन्सॉर करून घेवची पडटली. तेन्ना ही पाळी आमचेर येवंक दिवं नाका रे देवा. ते पासत ह्या लोकांक बुध्द दिवन कांयच फायदो ना. ताची तांका गरजूय ना. बुध्द घेवपाच्या मर्यादे भायर ते पावल्यात. तेन्ना आमच्या मुखेलमंत्र्यांकूच थोडी बुध्द दी ह्या लोकांचेर नियंत्रण दवरपाची. कित्याक ते देवांचेंच आयकता.

शीवळो



# वयतकूच तूं चान्ने मोने

– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें-शिरदोन

भौमानेस्त बाकीबाब,
नमस्कार.

तुजी शताब्दी आतां इल्ली इल्ली सरत येता. ऑगस्ट आयला. श्रावण सुरू जाला. आषाडांतलो घसघसो पावस घोग्यानी झडला. आनी श्रावण लागचे पयलींच वतां पडपाक लागल्यांत. म्हणटां म्हणटांच पावस परतून झडपाक लागला. तसो श्रावण सुरूय जाला पूण ताच्यांतली आशाड आजून सोपूंक ना. अशेंच म्हणचें पडटलें.

पावस तर तुजे कवितेंतलें अहम स्थान घेता. पावस आनी उदक असोच ताचो अर्थ आमकां अभिप्रेत आसूं येता तसो तो तुकांय आसूं येता. कारण तुवेंच एके तुजे कवितेंत म्हणलां.

**हिरवळ आणिक पाणी**
**तेथे स्फुरती मजला गाणी**

आनी जेन्ना हांव पाणी म्हणटां तेन्ना म्हाकां एक गजाल जी सामकी म्हत्वाची दिसता ती म्हटल्यार धर्तरी. माती. जमीन. तिचे बगर 'हिरवळ आणिक पाणी' हीं उतरांच बैठक घेवंक शकनांत. कारण हरयाळी मातयेबगर कशी उबी जातली. वयर जरी हरयाळी दिसता तरी तिचेर आसता ती माती. आनी मातयेक गावल्ले चड उतार हाका लागून हरयाळेकूय आगळ्यो वेगळ्यो लयो मेळटात आनी हांतल्यान सौंदर्याचें अद्भूत रसायण तयार जाता. आनी हे हरयाळेचे मदल्यान जेन्ना एकाद्रो आरपार पाणयाचो वझरो झुळझुळूंक लागता तेन्ना ह्या हिरवळ सुवाळ्याची मस्ती उणी जावन लखलखूंक लागता. आनी जाका हें सगळें पिशें लायता ताणें हातूंत एकरूप जावप सामकें स्वाभावीक. बाकीबाब, हें सैम तुजे प्रतिभेक होरायता आनी मागीर तुजी रसना पालेवन येता आनी ती म्हणटा 'हिरवळ आणिक पाणी / तेथे स्फुरती मजला गाणी'

बाकीबाब, ही तुजी कवितेची साधना तुकां एका वेगळ्याच विश्वांत आनी वेगळेच उंचायेर व्हरतना म्हाका दिसता. ह्या संवसारांत सैमाच्या पांचवेपणाबगर आनी उदकाबगर कितें आसा? मनशाचे जिणेंतल्यो ह्यो दोन गजाली कुशीक काडल्यो जाल्यार मनशाक आनीक जिणूच उरना. पांचवें सैम ना जाल्यार मनशाचें जेवणूच ना जातलें. मागीर तांकां जगप कशें शक्य आसा? तो ह्या संवसारांत उरणेच शक्य ना. उदक हेंय ह्या पांचव्या सैमाक नितांत गरजेचें. ताच्या शरिरांत पंच्यात्तर टक्क्यांवयर उदकच आसता. शिवाय ताच्या आंगांतलें इल्लें लेगीत हें उदकाचें प्रमाण उणे जाल्यारूय ताची शास्वती ना जाता. अशा वेळार पांचवें सैम आनी उदक ह्यो दोनूय गजाली खूब गरजेच्यो जाता. आनी म्हणून बाकीबाब तुकां ह्या गजालीनी आसलेली हे जिणेची कविता कळ्ळी आनी ताचें मर्म तुवें ह्या वयल्या उतरांनी मांडलें. ही कविता सर्वव्यापी. ही कविता जाका समजता ताका धर्मांची गरज पडना. ताका वर्णांची गरज लागना. ताका पंथाची गरज लागना. ताका तंत्राची गरज लागना. खरें म्हटल्यार हें समजप म्हटल्यारूच स्वतंत्र जावप. असो एक व्हडलो संदेश ह्या दोन वळींतल्यान मेळटा. मनशाच्या हातांत कोटीनी रुपया आसात. पूण पिवपाक उदक ना. पिवपाक उदक ना म्हटल्यार फुडें वचून रांदपाक उदक ना. न्हावपाक उदक. म्हणटकूच झाडां पेडां ना. आतां सांगा, कित्याक उपकारता हें कोटीनी रुपया आसले



म्हण? आयज मनशान ह्या पांचव्या सैमावयलो विस्वास होगडायला आनी हाका लागून एलेक्ट्रोनीक वस्ती, एलेक्ट्रोनीक मिडिया, नाच गार्णीं आनी तींय बी इमिटेशन करपी; नव्या गजालींक वाव ना, कपडे आनी खाणां हातुंतूच रमपाचे धंदे मुखार येवपाक लागल्यात. स्वतंत्रपणान विचार करपाक वाव दिवपी व्याप साप्प उणे जाल्यात. आनी जे कोण दाणो गोटो निर्माण करतात तांचो म्हाल मात साप्प उण्या मोलाक घेवपाची पद्दत आपणायल्या आनी हाका लागून शेतकारांक बाबड्यांक लुकसान जावपाक लागलां आनी ताणीं मरणाक वेंग मारप पत्करलां. उत्तम शेती म्हणपाचे दीस आतां पयस पावल्यात. आतां सोरो आनी ताचो धंदो बरो म्हणपाचो वेळ आयला. फिल्मानी काम करतल्याक कोटीनी रुपया मेळटात. जेवण आनी एनर्जी दितल्या लोकांक मात वालोर उणो. सगळेंच बदल्लां बाकीबाब.

बाकीबाब, तुजी 'तू गेल्यावर फिके चांदणे घरपरसूं ही सुके सुने' ही कविता म्हाकां पिशें लावन वयता. मनशांचेर आसलेलो मोग आमचे मदीं केदी आकर्शण ल्हारां उतपन्न करता आनी मोगा बगर आमी कशे सुकून वयता ताचें संवेदनशील चित्रण हे कवितेंत आसा. मोग आनी तोय बी प्रकृती पुर्साचो मोग बाकीबाब तजी ही कविता कोंकणीत आसलेली जाल्यार? मागीर ती कविता म्हजे फाटल्यान लागली. एक दोन वर्सां पयलीं म्हाकां गोवा विश्व विद्यालयाच्या मराठी डिपार्टमेंटान एक भाशांतराचें वर्कशॉप घेवपाक आपयल्लो. तेन्ना हांवें मराठींतल्यो कविता कोंकणीत आनी कोंकणींतल्यो कविता मराठीत करपाचेर वावर विद्यार्थ्यांकडल्यान करून घेतलो. ते वेळार हांवें एक अभ्यास म्हण ही कविता अणकारली. म्हाकां हिचो अणकार करीन दिसलेलो. त्या हावेसांतल्यान ती अणकारीत जाल्ली कविता. हो हावेस म्हटल्यार ते कवितेन घातलेलो तो साद आसता. म्हाकां जायत्यो कविता असो साद घालतात. आनी मागीर हांव तांच्या फाटल्यान लागतां. एकाद्रे सुंदर अस्तुरेच्या फाटल्यान लागपा इतलेंच पिशेंपण ह्या कवितांच्या फाटल्यान लागपांत आसता.

खरें म्हटल्यार कवितेंतली जिवंतता समजून घेवपाचो हो प्रयत्न आसा. हातूंत रंग, आकार, हालचाल, उतरां, जाणिवांचे विभ्रम, समजांची व्यापकताय, संवेदनशीलताय आनी सहजताय हें जाणा जावपाचो हो प्रवास. हे जाणिवेचो म्हज्या समजांचेर परिणाम जाता आनी म्हज्या शरिरांतल्यान व्हांवतल्या रसायनाच्या आदारान आदान प्रदानाची प्रक्रिया सुरू जाता. हें सगळें जें कितें कितें घडटा ती एक अद्‌भूत अनुभूती आसता. तो एक अदभूत अणभव आसता. कितलींशींच वर्सां हांव ही कविता अशी भाशांतरीय रसायनाच्या अनुभूतींत जियेतालों. बाकीबाब, ही अवस्थाच तशी अवाक करपी आसता. अशें खूब फावटीं जाता आनी मागीर एकदीस ल्हूव ल्हवू उतरां एकठांय जावपाक लागतात. तशें हे तुजे कविते संबंधान जालें.

**तूं गेल्यावर**
**वयतकूच तूं**

**वयतकूच तूं चान्ने मोने घर पोरसूंय गो सुकें सुकें**
**पोरांय माजरावरी मोनी आनी दर दोगांयच्या मदीं धुकें**

**वयतकूच तूं घरांत लेगीत पांवल म्हजें गो आडखळटा**
**आटून वयता वारोय रोकडो उस्वासाक जीव तडफडटा**

**वयतकूच तूं हे वाटेचेर मूय लेगीत गो झळकना**
**जग सगळें हें जाता अचानक परकी कित्याक तें उमजना**

**वयतकूच तूं लागून पनवत पान पान गो पिंपळ झडयता**
**गळयां वथरतें गीत म्हगेलें ल्हव् ल्हवशें गो लयाक वयता**

**वयतकूच तूं दोनूच दिसांक जर ही म्हजी अशी स्थिती**
**खरेंच म्हजे आदीं गेल्यार म्हजी कितें गो परिस्थिती**

बाकीबाब, तुजी ही कविता अती संवेदनशील. आयज कालच्या चामडेचो मोग करतल्यांक ही कविता कितली भावतली खबर ना. पूण तो जर संवेदनशील आसत जाल्यार ताका फकत चामडेच्या मोगांतल्यान भायर काडून भावसमृध्द मोगाकडे व्हरून पावोवपा इतली सशक्त जरूर आसा. बाकीबाब ही कविता फकत उतरांत ना. ती आसा उतरां भायर कवितेंत वसपी भावसंवेदनेचेर. तशो ह्यो संवेदना ह्या उतरांच्या आदारान आमच्या जाणिवांक स्पर्श करतात. ह्या स्पर्शाची जाण जेन्ना मनाचे समग्रतायेर झिणझिणत वयता तो खीण अवर्णनीय आसता. तो खीण जण एकल्याचो सामको आगळो वेगळोच आसपाची शक्यताय आसा. आनी बाकीबाब असल्या खिणाक तुलना ना. हेंच हाचें म्हत्व.



**वयतकूच तूं लागून पनवत पान पान गो पिंपळ झडयता**
**गळयां वथरतें गीत म्हगेलें ल्हव ल्हवशें गो लयाक वयता**

ह्या वळींतल्यान बाकीबाब तूं तुज्या अशा खाशेल्या जाणीव झणझणांकडें पावता. आनी आमी वाचकूय ह्याच उतरांच्या माध्यमांतल्यान आमच्या जाणीव झणझणांकडें पावतात. आनी बाकीबाब ही जाणीव म्हटल्यार हे जिणेंतली मनशाक प्राप्त जाल्ली अमाप आनी अनाम उर्जा. हे उर्जेंत जीण समृध्द करपाची तांक आसा. आयच्या कोर्पोरेट जगतान सिंथेटीक समाधान करपी गजाली निर्माण करून जी कारखानदारी सुरू केल्या तिचेपसून वाटावन घेवपाची शक्त फकत असले ऊर्जेंत आसा. मनशाचे भेरोन वयतले जाणिवेपसून पयस वचून संवेदनशील अशे सैमीक धारणेचो जाणिवेकडे पावोवपाचें काम ह्या तुज्या कवितेच्या उतरांतल्यान जाता.

बाकीबाब, मनीस जसजसो चडांत चड मॅकनीकल जायत चल्ला, तसो इंडस्ट्रीचो स्वभाव मनशाक सैमसंवेदनशील अवस्थेंत दवरूंकच शकना. तिची मुख्य मोख अर्थ निर्मिती इतलीच आसा. तिचो अर्थूच असो की हे इंडस्ट्रींतल्यान तुमकां कितें बरें मेळटा ताचेपरसूय तुमचेकडल्यान आमकां ही आर्थिक समृध्दी आनी कितली मेळटा हाचेर आसा. ही इंडस्ट्री भौतीक समाधानाच्यो झेरोक्स वा डिजिटल झेरोक्स काडून विकता म्हटल्यार अतिताय जांवची ना.

ह्याच समाधानाच्या डिजिटल झेरोक्स प्रतिच्या घुस्पागोंदळाक लागून आमी आमच्या जाणट्या मनशांवयलो मोग आटोवन उडयला. आयंज आमी तांची रवानगी old age होमात करून उडयल्या. एके तरेन हो आमच्या संवेदनशीलतेचो होमूच आमी केला म्हटल्यार जाता. केन्ना केन्ना ह्या जाणट्या मनशांचेर ताणींच अर्थ अपुर्बायेन वाडयल्ल्या आनी नावारुपाक हाडलेल्या आपल्याच भुरग्याबाळांपासून पळून वचपाची अवस्था येता. हाचें कारण ह्या भुरग्यांच्या मनांत ह्या आपल्या जाण्टेल्यांविशीं मोगूच उल्लेलो नासता. हो ना जायत वयतलो मोग आमकां केळोवंक जाय बाकीबाब. फाल्यां हांव अशाच एका वृध्दाश्रमाक भेट दिवंचो आसां, थंय जातल्या एका कविसंम्मेलनाच्या कार्यक्रमातूय वांटो घेंवचो आसां. तुजे शताब्दीच्या निमतान हो कार्यक्रम आसा. आनी तुज्या काव्यउर्जेची अनुभूती तांकां येतली. अशो तुज्यो कविता तांचेमेरेन पावोवपाची ही संध. म्हणून म्हणटां आमच्या पुर्सा आमकां पाव!

बरें मागून
तुजो
**रमेश वेळुस्कार**

कथिका




– ब्रॅण्डा मिनेझीस
मस्टर्ड सीड,
कुस्मण, केपें-गोंय.
फोन : २६६२४९१


**महेन्द्राची आवय दुयेंत आसली. तिका ताळ्याचो कॅन्सर जाल्लो. निमाणे स्टेजीर ती पाविल्ली. महेन्द्राची व्हडली भयण, कॉलेज सोडून आपले आवयची सेवा करताली. दीस म्हयने वता तशे तिची पिडा चडूच वाडली. थोड्या काळान तिचें उलोवप आनी सवकासवका तिचें जेवपूय बंद जालें. नाकांतल्यान वादी घालून तिका आलीमेंत चालू केलो. पूण चड दीस तिणें काडूंक नात.**

# इश्टागत !!



रुपेश आनी महेंद्र इश्ट. 'जिगरी दोस्त' म्हणून ते फामाद. तांचे दोगांचेय बापूय साऱ्याच्या कारखान्यांत कामाक आसताले. आनी थंयचे कॉलनीत रावताले. तांचीं घरां एकामेकाक तेंकून आसलीं. दोगूय एकामेकागेर जेवताले, खाताले आनी न्हिदताले. कोण खंयच्या घरांतलो तें कळच नासलें. शाळेंतूय ते एकाच बांकार बसपी.

रुपेश शिकपांत खूब हुशार, तसोच 'ऑल राऊंडर'. शाळेभायरूय तो परजळटालो. वेगवेगळ्या सर्तीनीं तो वांटो घेतालो आनी इनामां जोडटालो. शाळेच्या नांवाचो बावटो वयर हुबयतालो. शाळेचेंय नांव गाजयतालो. आनी म्हणून शाळेंत ताची अर्थ-अपुर्बाय जाताली.

महेन्द्र बरो शिकपी. पूण रुपेशा इतलो हुशार नासलो. सर्तिनीं वांटो घेवंची ताका उमेद आसताली. घेतालोय तो. पूण इनाम जोडूंक पावलो ना. रुपेशाक इनाम मेळटकीर तो खूश जातालो. आपणाकूय केन्ना तरी इनाम मेळून आपलीय तोखणाय जांवची अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. पूण आपल्या इश्टाचो दुस्वास ताणें सपनांत पासून केलो ना. तो खूब सादो आसलो.

तांचे शाळेंतल्या पालक-शिक्षक संस्थेन, बालदिना निमतान, नोव्हेंबराचे १४ तारकेर एक निबंद स्पर्धा आयोजीत केली. इनाम बरें गडगंज दवरलें. विशय सुद्दां पेजाद आसले. महेन्द्रान एक सोंपो विशय निवडून स्पर्धेंत वांटो घेतलो. रुपेशान गंभीर विशय वेंचलो.

रोखडेंच ताणी निबंध बरोवंक हातांत घेतले. महेन्द्रान 'पॉयंट्स' काडूंक सुरवात केली. अडचण आयल्यार रूपेशाची मजत घेतली. थोडें मार्गदर्शन रूपेशान ताका केलें. लायब्ररींत बसून, खूब तकस घेवन महेन्द्रान बरीच म्हायती त्या विशयाचेर पुंजायली आनी शांत मनान निबंद बरोवन सोंपयलो. आपले इंग्लीश टिचरीक दाखोवन तिच्यो सुचोवण्यो घेवन तो सुदारलो.

सदांचे भशेन रूपेशान आपले हुशारकायेन निबंद बरोवन काडलो. दोगूय आतां निबंद तोंडपाठ करूंक लागले.

आपणाक पयलें इनाम फावतलें हाची खात्री रुपेशाक आसली. तो शांत आसलो. महेन्द्रान हे फावट बरेच प्रयत्न केल्ल्यान आपणांक निमणो तरी इनाम मेळचो अशी ताका इत्सा जाल्ली. जालें! बालदिन उजवाडलो. स्पर्धेंत खूब भुरग्यांनी वांटो घेतिल्लो. बरें येस मेळिल्लें पळोवन पालक-शिक्षक संस्थेचे वांगडी खूश जाले. स्पर्धा सोंपताच, भुरग्यांक खावड वांटून, घरा धाडलीं. पंदरा दिसांनी स्पर्धेचो निकाल जालो. सकाळीं 'एसेंब्ली' वेळार, प्रिन्सीपलान सगल्यो कळोवण्यो आनी प्रार्थना जाल्या उप्रांत निकाल परगटायलो. सगलेच उत्सूक जाल्ले.

प्रिन्सिपलान सुरू केलें ''भुरग्यांनो, पयले सुवातेर, स्पर्धेंत भाग घेतिल्ल्या सगल्यांक परबीं फावतात. सगल्यांकूच इनाम मेळना. इनामां फावो जातात ते ताठ मानेन भोंवतले. जांकां मेळूं ना ताणीं निर्शेवचें न्हय. आपले प्रयत्न चालूच दवरचे. वांटो घेत रावचो.'' दोन सेकंद प्रिन्सिपल ओगी रावलो. 'पीनड्रॉप' शांतताय आसली. ताणीं फुडें उलोवन म्हळें,

''बरें तर, आतां आयकुया निकाल. तिसरें इनाम'' महेन्द्राच्या काळजांत धडधडपाक लागलें. ''जुलीयो रोड्रीग्स – नायन्त स्टँडर्ड'' ताळयांचो गडगडाट. महेन्द्र निर्शेलो.

''दुसरें इनाम शमीन शेख, एट्थ स्टँडर्ड.'' चलयांनी बोवाळ करीत ताळयांचो परत कडकडाट. आतां मात उरिल्ली आशाय महेन्द्राच्या तोंडांतली सुकली. ताची आस्त बावली. 'आसूं. फुडले फावट हांव आनीकूय नेटान प्रयत्न करतलों.' अशें आपल्या मनाक पटयत

आपल्याकूच भुजवण मेळयली.

प्रिन्सिपलान फुडें म्हळें, ''पयलें इनाम... कोण सांगतलो? पयलें इनाम?'' रुपेशाच्या हड्ड्यांत काळीज डबूडब जातालें.

भुरगीं आइडलीं, ''रूपेश! रूपेश... रूपेश...!'' ओगी रावंक, प्रिन्सिपलान तांकां खुणायलें. ''पयलें इनाम... महेन्द्र नायक, स्टॅण्डर्ड नायन्त. जोरदार ताळयो. महेन्द्राक हुनहुनीत परबीं दिवंया.'' ताळयांच्या आवाजान शाळेचो वाठार घणघणून गेलो.

महेन्द्राक अजापाचो धक्कोच बसलो. कितें आयकलें ताचेर ताचो विस्वासूच बसलोना. ताचे भोंवतणचो सगलो वाठार घुवूंक लागलो. आपूण हुबून वतां अशें ताका दिसलें. ताच्या पायां पोंदची जमीन कुशीन सरली. ताणें सपनांत लेगीत पयलें इनाम चिंतूंक नासलें.

दुसरे वटेन रूपेशाचें तोंड पडलें. 'म्हाका इनाम ना? कितेंय तरी चुकलां' ताणें परिक्षकांचेर दुबाव काडलो. ही हार ताच्यान कशीच मानून घेवंक जाली ना. हार कित्याक? दुसरो आनी तिसरो इनाम सुद्दां तो मानून घेवंचो नासलो. ताच्या अहंकाराक वेर गेली. आपलो सारासार अपमान जाला म्हणून तो भितरल्या भितर रागान फुगार जावंक लागलो. ताका खूब वायट दिसलें आनी लजेन आनी रागान तो तांबडो जालो. महेन्द्राक पयलें इनाम? आयकून ताका घूंवळ येवंक लागली. 'एसेंब्ली' सोंपताच, वर्गांत पयलो धांवत वचून आपली बॅग घेवन, टिचरीची सुद्दां परवानगी घेना आसतना घरा गेलो.

सगलीं भुरगीं वळीन, आप-आपल्या वर्गांत भितर सरलीं. महेन्द्र येवन बांकार आपले सुवातेर बसलो. रूपेशाचें बॅग ना तें पळोवन समजपाचें समजलो. दिसूयभर ताचें मन थाऱ्यार नासलें. आपल्या इश्टाक इनाम ना मेळिल्ल्याचें दुख्ख, आनी कितें ताका भोगलें आसतलें ताचो अदमास काडूंक तो गुल्ल जाल्लो. दनपारच्या देड वराचेर बॅल वाजतांच बॅग खांद्याक लायत, तो सडसडीत वर्गांतलो भायर सरून सोमतोच रूपेशागेर



भितर सरलो. केन्ना काय ताका रूपेशाक मेळूंक जाय आसलें.

रूपेश खाटीर उमथो न्हिदून आसलो. महेन्द्राचो उलो आयकून तो न्हिदेचें सवंग घेवन तसोच पडून रावलो. महेन्द्रान ताका हालयलो. पूण तो उठूंक ना. न्हिदिल्ल्याक खंय उठोवंक सोपें. पूण जागो आशिल्ल्याक न्हय. महेन्द्रान रुपेशाचे आईक इनामाची खबर सांगली. आयकून ती खूश जाली. तिणें ताका परबीं दीत म्हळें, ''शाब्बास! बरें दिसलें. तरूय हांव म्हणटां, हो असो कसो आयलो? सकाळीं बरो भायर सरून गेल्लो. अकस्मात बेगीन घरा आयलो आनी आपली तकली फोडटा म्हण सांगून न्हिदूंक गेलो. जेवंक पासून उठलो ना. चल उठ रे रूपेश. तुमकां दोगांयकूय वाडटां. आयज बरें कालवांचें सुकें केलां.''

महेन्द्राक कालवां खूब आवडटालीं. पूण ते परिस्थितींत, ताच्या तोंडाची रूचूच पळून गेली. ''काकू, हांव जेवंक रावना. रातचो येतलों. आतां माँ म्हजी वाट पळयतली.''

काकूक खूब वायट दिसलें. तिणें एके वाटयेंत घालून, कालवां महेन्द्रागेर पावयलीं. आपल्या इश्टाची वागणूक पळोवन, आपणाक मेळिल्ल्या इनामाची खोस महेन्द्राच्या मनांतली बावून गेली. त्या येसाची उमेद पालवली. सांजचो परत तो सदांचे भशेन, रूपेशागेर खेळूंक गेलो. पूण ताणें आपली कूड बंद केल्ली. महेन्द्र तसोच परत्या पांयांनी घरा आयलो. दुसऱ्या दिसा एका बांकार बसूनय ते एकामेकांकडेन उलोवंक नात.

'कसलो फायदो म्हाका इनाम मेळून? म्हजी इश्टागत तर सांडली.' मनांत येवजून महेन्द्र खंती जालो. पूण कितले प्रयत्न आनी तजवीज करूनय रूपेशाचें मन ताच्यान कुस्कुटा इतलें सुद्दां बदलूंक जावंक ना. थोड्या दिसांनी महेन्द्रान ताची वाट सोडली.

महेन्द्राची आवय दुयेंत आसली. तिका ताळ्याचो कॅन्सर जाल्लो. निमाणे स्टेजीर ती पाविल्ली. महेन्द्राची व्हडली भयण, कॉलेज सोडून आपले आवयची सेवा करताली. दीस म्हयने वता तशे तिची पिडा चडूच वाडली. थोड्या काळान तिचें उलोवप आनी सवकासवका तिचें जेवपूय बंद जालें. नाकांतल्यान वादी घालून तिका आलीमेंत चालू केलो. पूण चड दीस तिणें काडूंक नात. एकादशीचे रातीक, भर पावसाच्या घसघशांत, आपल्या भुरग्यांच्या मुखार प्राण सोडलो आनी देवा घरा गेली. तिच्या कुटुंबाचेरूच न्हय, तर पुराय कॉलनींत दुख्खाचो पर्वत कोसळ्ळो. सगल्यांची ती अपुर्बायेची आसली. महेन्द्र तर सारखोच दुखांत बुडलो. ताच्या वर्गांतलीं सगलीं भुरगीं आनी टिचरी ताका भुजवण दिवंक आयलीं आनी ताचे मोगाळ आईचें निमणें दर्शन घेतलें.

रूपेश येवन तिच्या मड्यार खूब रडलो. ती ताची खूब अपुर्बाय करताली. ताकाय व्हड दूख्ख जाल्लें. पूण महेन्द्राचे वटेन वळून सुद्दां ताणें पळयलें ना. रूपेशाची आई हें सगलें पळयताली. आपल्या पुताचे वागणुकेन तिका लजेक घातिल्ली.

निमणे संस्कार सोंपोवंक, तिची कूड

स्मशानांत व्हरूंक भायर काडटकीर ती घरा आयली. तिच्या मनांत राग खतखततालो. 'आयज कसोय करून हो दुस्वास सोंपोवंक जाय.' तिणें निश्चेव केलो. पयलीं तिणें न्हावन घेतलें. रूपेशाक न्हावंक उदक दिलें. उप्रांत ताका च्या दिली आनी ताचे कुशीक येवन बसली.

"रुपेश तुवें महेन्द्राक कित्याक भुजवणेचो हात दिवंक ना?" ताणें मान पोंदाक घाली. ताचें तोंड आपले वटेन वळयत तिणें परत म्हळें, "पळय. तो तुजो ल्हानपणांतलो इश्ट. तुमचे इश्टागतीचे संबंद भाव-भयणिच्या संबंदांक फाटी घालपा इतले. एका ल्हानशा इनामाक लागून इतलो पवित्र, इतलो मोगाळ संबंद तुवें तुटयलो? तुजें इनाम ताणें हिस्कावन व्हेलें व्हय? ताकाय तें कश्ट करूनच मेळ्ळें न्हय?" रूपेश हें आयकून उसळ्ळो. "हांवें ताका मजत करूंक नासली जाल्यार, ताका खंय तो इनाम मेळपाचो?"

ताच्या भुजार हात दवरून समजायत तिणें ताका म्हळें, "थोडे पॉयंट्स दिवन मजत केल्यार ताचो निबंद तुवें बरयलो, अशें जाता तर? ताणेंय खूब तकस घेवन तो बरयला हें हांवेंय पळयलां. खंय बरोवन दवरलां, तुकाच पयलो इनाम दिवंचो म्हणून? इतली नसाय तुका कित्याक? आनी भावा परसूय चडा मोगाच्या इश्टाची? तुका इनाम मेळटालो तेन्ना तो कितलो खूश जातालो. येद्या व्हडल्या दुखाक तो सांपडला. आयज आपले आवयची सावळी ताचेवेली ना जाल्या. तुजी जाप ना ती ना. तुजो हातूय ताका फावो ना?"

रूपेश उठूंक लागलो. पूण आईन ताका परत बसयलो. ती पेटून आसली. "आयज तूं तिच्या मड्यार कित्याक रडलो? तुका दूखख जालें न्हय? तर, महेन्द्राक क्रितें जावचें ना, हाची तुका कल्पना आसा व्हय? तूं ताच्या जाग्यार आयज आसलो जाल्यार, तुका कितें भोगपाचें? चिंतून पळय बाबा?"

रूपेशाच्या आंगार कांटो फुटलो. आईचीं फुडलीं उतरां ताच्या कानार पडलीं, "तुवें ताका भुजवण दिवंक जाय. धीर दिवंक ताच्या फाटल्यान उबो रावंक जाय. ताचे आवयक परत हाडूंक तूं शकचो ना पुता. पूण तुज्या उतरांनी ताका घटाय मेळटली. तुमच्या इश्टागतीच्या तुटिल्ल्या दोराक परत गांठ मारूंक ही बरी संद तुका." आईचीं उतरां ताच्या काळजांत खोल-खोल देंवलीं. आपले करणेची ताका लज जाली. आनी कांयच उलयनासतना तो उठलो आनी नीट महेन्द्रागेर गेलो.

महेन्द्र खाटीर बसून, थांबनासतना रडटालो. ताची मावशी ताका धरून आसली. ताची भयण आनी बापूय एका कोनशाक बसून दुकां गळयतालीं. स्मशानांतल्यान तेन्नाच मंडळी घरा पाविल्ली. ताचे आवयचें मडें दवरिल्ल्या जाग्यार आतां दिवली पेट्टाली.

रूपेशाक आपल्या म्हऱ्यांत येता तो पळोवन महेन्द्र मावशेच्या हातांतलो सुटलो 'रूपेश-रूपेश-रूपेश' करीत ताणें ताका वेंग मारली.

卐卐卐



- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# व्हडल्या घरांतली धूव



खंयचीय बायल गाळी सोंसीत, मार खायत, पूण आपल्या कुळाराची कोणेय निंदा-नालस्ती केल्यार ती खपोवन घेवची ना. आनंदीन मान घुंवडावन म्हणलें - "हत्ती मेलो तरी तो लाख मोलाचो आसता. म्हज्या कुळाराक मानांय-वावराड्यो तूप खातात तितलें लेगीत तुमकां हांगा पळोवंक मेळचें ना."

एक

बेनीमाधव सिंह गौरीपूर गांवांतलो भाटकार. ताचो आजोबा एका वगतार खावन-जेवन बरो आसलो. गांवांतलें तळें केन्नाच सुकनासलें. गांवांत एक देवूळ आशिल्लें. देवळांत भक्तांचें येवप-वचप एकसारकें चालू आसतालें. पूण सद्या देवूळ आनी तळें सदांच दुर्लक्षीत आसतालें. हे किर्तिस्तंभ दुरुस्तीक आयिल्ले, पूण तांचो विचार कोणूच करिनासलो. अशें म्हणटात की ह्या देवळाच्या दारार एक हत्ती मिरयतालो. पूण आतां हतया सुवातेर एक म्हातारी म्हस दिसताली. म्हसीचे कुडींत दिसतालो तो फकत हाडांचो पांजरो. पूण ती भरपूर दूद दिताली जांवये. कारण एक ना एक मनीस माथ्यार कळसो घेवन म्हशीच्या फाटल्या-फुडल्यान भोंवत आसतालो. बेनीमाधव सिंह आपली अद्‌र्या परस चड संपत्ती वकीलांच्या बोल्सांत घालतालो. ताची सद्याची वर्सुकी येणावळ एक हजार रुपया परस चड नाशिल्ली. ठाकूर सायबाक दोन पूत आसले. व्हडल्याचें नांव आसलें श्रीकंठ सिंह. ताणें व्हडा कश्टांनी खूब दिसां उपरांत बी. ए. ची पदवी मेळयली. आतां एका कार्यालयांत चाकरी करतालो. धाकलो पूत लालबिहारी सिंह लांब-रूंद, घट-मूठ तरणाटो आसलो. रूंद मुखामळ आनी भरिल्ली छाती. सकाळीं-सकाळीं म्हशीचें दोन लिटर दूद तो एकलो ताळ्यांत रकयतालो. श्रीकंठ सिंहाची दशा बिल्कूल ताच्या विपरीत आसली. हे ताचे नेत्रप्रिय गूण बी. ए. ह्या दोन अक्षरांचेर उंवाळून उडयसारके आसले. ह्या दोन अक्षरांनीं ताची कूड शक्तिहीन आनी चेरो कांतिहीन करून सोडिल्लो. हाकाच लागून वैजक ग्रंथाचेर ताचो विशेश मोग जमलो. आयुर्वेदीक वखदांचेर ताचो चड भावार्त आशिल्लो. सांज-सकाळ ताचे कुडींतल्यान खलबत्याचो सुरेल-कर्णमधुर आवाज कानार पडटालो. लाहोर आनी कलकत्याच्या वैजांकडे पत्रवेव्हार चलतालो ताचो. श्रीकंठ इंग्लीशीचो पदवीधर आसुनूय इंग्रजी रितीरिवाजांचो मोगी नाशिल्लो. उलट असल्या रितिरिवाजांची निंदा आनी तिरस्कार करतालो. हाकाच लागून गांवांत ताका खूब मान आशिल्लो. दसऱ्याच्या दिसांनी तो आपूण जावन रामलिलेंत वांटो घेतालो.

इतलेंच न्हय, तर स्वता कसलो ना कसलो पार्ट घेतालो. गौरीपुरांत रामलिलोत्सव सुरू करपाची बुन्याद ताचीच आशिल्ली. प्राचीन हिन्दू संस्कृतायेचें व्हडपण गावपाची एकूय संद तो सोडिनासलो. एकत्र कुटुंब पद्धत ताका मानवताली. आयज कालचीं बायलां कुटुम्बांत मेळूनमिसळून वागपाक फाटीं सरतात, श्रीकंठाक तें इल्लेंय माननासलें. ही गजाल आपल्या देशाक आनी देशाचे प्रगतीक हानीकारक आसा अशें दिसतालें. ह्याच कारणाक लागून गांवांतल्यो अस्तुऱ्यो ताची निंदा करताल्यो. कांय जाणां तर ताका आपलो दुस्मान मानपाक फाटीं फुडें सरनासलीं. खुद्द ताची पत्नीच ताका ह्या विशयांत विरोध करताली. तिचो विरोध आपल्या मांय-मांवाचो, देर-नणाणांचो तिरस्कार करतालो. ताका कारण वेगळेंच आशिल्लें. तिका दिसतालें की, घरच्यांचें सगळें सोंसुनूय जर तांच्या वांगडा दीस काडप जमलेंना तर आपली वेगळी चूल केल्ली बरी. एकठांय रावन जिवीत असह्य करून घेवचे परस अशें केन्नाय बरें!

आनंदी एका नावाजत्या कुळांतली धूव. तिचो बापूय एका ल्हानशा राज्याचो मामलेदार आसलो. विशाल भवन, एक हत्ती, तीन सुणे आनी कांय ससाणे. रिणां, झगडीं-केस्तावां आनी घराक सोबाय हाडपी झुंबरां, हें सगळें ऑनररी मॅजिस्ट्रेटीक सोबसारकेंच आशिल्लें. ताचें नांव आसलें भूपसिंह. उदारमनाचो, प्रतिभाशाली सज्जन आसलो तो. पूण नशीब खोटें म्हूण एकूय पूत जल्माक आयलो ना तागेर. सात चलयो जल्माक आयल्यो, आनी दैवसंयोगान सगळयो जगल्यो. पयल्याच नेटार तीन लग्नां केलीं भूपसिंहान. तींय बी उक्त्या मनान! पूण वीस हजारांच्या रिणांत जेन्ना तो बुडलो, तेन्नाच दोळे उक्ते जाले. हात आंखडून घेवपाची पाळी आयली ताचेर. आनंदी भूपसिंहाची चोवथी कन्या. आपल्या सगळ्या भयणांमदें सुंदर आनी गुणवंती. हाकाच लागून ठाकूर भूपसिंह तिचे चड लाड करतालो. देखण्या भुरग्याची आवय-बापूय चडूच अपुरबाय करतना दिसून येता. ठाकूर भूपसिंह आतां व्हडल्या संकटांत पडिल्लो. आपले देखणे कन्येक कोणाकडे लग्न करतलो, हो प्रस्न ताका सतायतालो. दुसरी गजाल अशी की ताच्या माथ्यार आदींच रिणांचें वजें आसलें, तें वाडचें न्हय आनी समाजांतली ताची पतूय उणी जांवची न्हय, अशें ताचें मन ताका सांगतालें. एक दीस श्रीकंठ ताचेकडे कसली तरी वर्गणी मागूंक आयलो. ठाकूर भूपासिंहाक ताचो सबाव आवडलो. ताणें फाटलोफुडलो विचार करिनासतना आनंदीचो हात श्रीकंठ सिंहाच्या हातांत दिलो.

आनंदी आपल्या नव्या घरांत आयली. पूण हांगाचो रंगढंग तिका वेगळोच लागलो. ज्या टापटिपीची तिका भुरगेपणात सावन सवंय लागिल्ली, ती हांगा खंयच दिसनासली. हत्ती-घोडयांचें तर नांवच नाशिल्लें. रेशमी स्लीपर वांगडा घेवन आयिल्ली, पूण घालून भोंवतली खंय? घराक जनेलां सोडाच, जमनीक फरशी नासली, ना वण्टीक पायणेलां! हें एक साद्या-सुद्या खेडवळालें घर आसलें. पूण आनंदीन थोड्याच दिसांनी आपल्याक जाय तसो बदल घडोवन हाडलो, जशें काय चैनीच्यो वस्तू तिणें हे आदीं केन्नाच पळोवनासल्यो. एक दीस दनपारच्या वेळार लालबिहारी सुकणीं मारून घेवन आयलो. ताणें भावजेक सांगलें शिजय, पोटाक भूक लागल्या. आनंदी जेवण तयार करून देराची वाट पळेताली. आतां तिका नवें रांदचें पडलें. दब्यांत पळे जाल्यार तूप सामकें थोडें आसा. व्हडल्या घरांतली धूव ती, तिका काटकसर खंय खबर आसतली? तिणें दब्यांतलें सगळें तूप मांसांत ओतलें. लालबिहारी जेवूंक बसलो, पळे जाल्यार दाळी वरणांत तूप ना! ताणें प्रस्न केलो - वरणांत तूप कित्याक ना?

आनंदीन सांगलें - "तूप सगळें मासाक घालें."

लालबिहारीन आवाज चडयलो - "काल पयरूच तर तूप हाडलां, काबार कशें जालें?"

"आयज वट्ट पावभरूच आशिल्लें जावंये, हांवें सगळें शाकुतेंत घालें." आनंदीन जाप दिली.

जे तरेन सुकें लाकूड बेगीन जळटा, भडकता, तेच परी भुकेल्लो मनीस ल्हानसान गजालींनी तिडकता.

लालबिहारीक भावजयेची वागणूक मातूय मानवली ना. ताचो राग नियंत्रणा भायर गेलो. ताणें म्हणलें - "तुज्या कुळाराक तुपाचे हांडे भरून वत्तात आसतले!"

खंयचीय बायल गाळी सोंसीत, मार खायत, पूण आपल्या कुळाराची कोणेय निंदा-नालस्ती केल्यार ती खपोवन घेवची ना. आनंदीन मान घुंवडावन म्हणलें - "हत्ती मेलो तरी तो लाख मोलाचो आसता. म्हज्या कुळाराक मानांय-वावराड्यो तूप खातात तितलें लेगीत तुमकां हांगा पळोवंक मेळचें ना."

लालबिहारी रागान तांबडो जालो. जेवणाचें ताट जमनीर आपटून ताणें म्हणलें - "अशें दिसता की तुजी जीब तोडून काडची!"

आनंदीचोय आतां रागापारो चडलो. रागान तांबडी जावन तिणें म्हणलें. "हे आशिल्ले जाल्यार दाखयतलीं आशिल्लीं हांव कितें तें!"

आतां अशिक्षीत आनी अन्नाडी ठाकूर पाडसभर उसळ्ळो. ताची बायल एका सामान्य जमिनदाराची धूव आशिल्ली. आपल्याक जाय तेन्ना तो तिचेर हात उबारतालो. ताणे खडाव उकलून आनंदीचे दिकेन शेवटून मारली, आनी म्हणलें, "जाच्या खुस्तार तूं उडटा, ताका दाखयतां कितें तें, आनी तुकांय बी!"

आनंदीन खडाव हातान आडायली, तकली फुटपाची उरली, पूण बोटांक चड मार लागलो. वाऱ्याच्या झोतान झाडाचीं पानां थरथरतात तशी आनंदी रागान थरथरूंक लागली. ती धावून येवन आपले कुडींत उबी रावली. अस्तुरेचें बळ आनी धाडस, मान आनी मर्यादा आपल्या घोवामेरेन सीमीत आसता.



## दोन

श्रीकंठ सिंहाचें येवप शेनवारचें जातालें. ही घडणूक बिरेस्ताराची जाल्ली. दोन दीस मेरेन आनंदी रागाभारान वावुराताली. खावप-पिवप तिका मातूय गोड लागलें ना. तिचे दोळे फक्त घोवाचे वाटेकडे लागून आशिल्ले. शेकीं शेनवारा दिसा, नेमाप्रमाण सांजेचो येवन भायर बसलो. हांगा-थंयचीं उलोवणीं जालीं. कांय देश-काळ विशींच्यो खबरोय जाल्यो. कांय नव्या प्रकरणांसंबंदांत भासाभास जाली. भासाभास रातीचीं धा वरां मेरेन चल्ली. गांवांतल्या सभ्य लोकांक ही भासाभास इतली मानवताली, की ती आयकतना जेवणा-खाणाची लेगीत साबुद्द उरनासली तांका. श्रीकंठाक टाळप कोणाकूच जमनासलें. हीं दोन-तीन वरां आनंदीन व्हडा कश्टांनी घालयलीं. तरी जेवणाचो वेळ जालोच! पंचायत उठली. आतां एकांत मेळ्ळो तेन्ना लालबिहारीन तोंड उक्तें केलें - "भैया, तूं घरांत सांगून दवर, तोंडाक बांद घालूंक, ना तर एक दीस अनर्थ जातलो."

"हां, पुता दादल्यांच्या तोंडाक लागप घरांतल्या बायलांक सोबना." बेनीमाधव सिंहान पुताक तेंको दिवन कागाळ केली.

"ती व्हडल्या घरांतली धूव जाली म्हूण कितें जालें? आमकांय मान-सन्मान आसा!" लालबिहारीन आपलें व्हडपण सांगलें.

"जालें कितें तें सांगशात काय ना?" श्रीकंठान चिंतेस्त सुरांत प्रस्न केलो.

"कांय जांवना रे! गरजेभायर आपुणूच फणफणली. कुळारच्या लोकां मुखार आमी म्हणचे कोयर दिसता तिका." लालबिहारीक नेट आयलो.

श्रीकंठ जेवल्या उपरांत आनंदी म्हऱ्यांत वचून बसलो. ती फुगून बशिल्ली. महाशयाचीय मात्शी तिखसाण वाडिल्ली. आनंदीन विचारलें - "तकली जाग्यार आसा मू तुमची?"

"म्हजी तकली बरीऽ जाग्यार आसा. पूण तुजें कितें चल्लां? कित्याक सतायता तूं, आयज-काल घरच्यांक?"

हें आयकून आनंदीची कपला शीर उबी जाली. तिच्या आंगाक हुलोप पेटलो. तिणें तिडक भायर काडली - "जाणे तुमकां भडकायल्यात, तो सांपडूनी म्हाका, ताचें तोंड हुलपायलें ना जाल्यार हांवूंच न्ही."

श्रीकंठ - इतली तापूं नाका गे, कितें घडलां तें तरी सांगा म्हाका!

आनंदी - कितें सांगूं? नशिबूच फुटकें म्हजें. ना जाल्यार एक गांवढळ पोर-जाची शिपाय म्हूण काम करपाची लायकी ना-म्हाका खडावांनी मारून म्हजी ही दशा करून सोडचो नाशिल्लो.

श्रीकंठ - कितें घडलें, तें म्हाका साफसाफ सांग. म्हाका कांयच खबर ना!

आनंदी - पयर तुमच्या लाडक्या भावान म्हाका सुकण्याची शाकोती करूंक लायली. हांडयेंत तूप इल्लेशें आशिल्लें. हांवें तें सगळें मांसांत सोडलें, जेन्ना जेवंक बसलो, तेन्ना म्हणूंक लागलो, दाळींत तूप कित्याक ना? हें म्हणून ओगी बसलो ना. लागलो म्हज्या कुळाराचीं उणीं-दुणीं काडूंक! म्हज्यान तें सोसूंक जायना जालें. हांवें म्हणलें, म्हज्या कुळारा मानाय-कामेऱ्या लेगीत तूप खातात तें तुमकां हांगा पळोवंक मेळना. जालें, येद्देशे गजालीक लागून हाणें म्हजेर खडाव शेवटून मारली. तरी बरें, हांवें हातांनी आडायली म्हूण! ना जाल्यार तकली फुटपाची म्हजी! ताकाच विचारात आतां हांवें सांगला तें खरें काय फट काय म्हूण.

श्रीकंठाचे दोळे रागान तांबडे जाले. ताणें म्हणलें इतलें जालें? येद्दो-सो पोर आनी इतली मस्ती!

बायलांच्या सभावाप्रमाण आनंदी रडूंक लागली. दुकां तिच्या पातकडयानी घुसपून रावलीं. श्रीकंठ धिराचो आनी शांत सभावाचो मनीस आसलो. ताका सट्ट करून राग येनासलो. पूण बायलांचीं दुकां, दादल्यांचो रागा उजो वाडोवंक तेलावरीं काम करतात. श्रीकंठ रातभर तळमळूंक लागलो. पिकासांवांक लागून पातकडी लागलीना दोळ्यांची. सकाळींफुडें बापाय म्हऱ्यांत वचून ताणें म्हणलें - "दादा, आतां ह्या फुडें म्हाका ह्या घरांत रावप जमत शें दिसना."

श्रीकंठान हे आदीं आपल्या इश्टांवांगडा असल्यो बंडायेच्यो गजाली खूब केल्ल्यो. लोकांक उपदेश करप सोंपें आसता. पूण आयज ताका आपल्या घरच्यांकडे बंडायेचीं उतरां तोंडांतल्यान भायर घालतना कितलें दुखख भोगता, तें कळून आयलें.

बेनीमाधव सिंह वांगडाच धसक्यान उबो जालो आनी ताणें आकांतून म्हणलें, कित्याक, कितें जालें?

श्रीकंठ – कारण म्हाकाय म्हजे मान-प्रतिश्ठेचो विचार करचो पडटा. ह्या घरांत आतां अन्याय आनी हट्ट तकली वयर काडूंक लागला. जांकां व्हडांचो मान-सन्मान करपाची गरज आसा, तेच आतां तांच्या माथ्यार बसूंक लागल्यात. हांव लोकांची चाकरी करतां. ताका लागून दिसभर भायर रावचो पडटा म्हाका. हांगा म्हज्या फाटल्यान बायलांचेर खडावो आनी जोत्यांचो पावस पडटा. घरांत हांव-तूं जालें, कडक उतरांचो मार पडलो, तरी म्हाका ताची परवा ना. पूण कोणेंय फाटल्यान येवन म्हजेर खोंटो घाल्यो तर मात त्यो सोंसून हांव ओगी बसचो ना.

बेनीमाधव सिंह कांयच उलोवंक शकलो ना. श्रीकंठ सदांच ताचो मान राखपी. आयज ताच्यांतलो बदल पळोवन म्हातारो ठाकूर कितेंच उलोवंक शकलो ना. फकत इतलेंच उलयलो, "पुता, तूं शाणो आसुनूय अशें उलयता? तूं बायलांचें कितें घेवन बसला? त्यो सदांच चुट्टी पेटोवन घराक उजो लावपाचे तयारेन आसतात. तांकां माथ्यार चडोवन दवरप समा न्हय!"

श्रीकंठ – हांव इतलेंच जाणा, की तुज्या आशिर्वादान हांव तितलो मूर्ख ना. तुका खबर आसा, म्हज्या समजिकायेच्या उतरांनीच गांवांतले कितलेशेच घराबे आयज तिगून आसात. पूण देवाचे साक्षीन जे अस्तुरेचो सांबाळ करपाचो हांवें सोपूत घेतला, तिचेर व्हड अन्याय जाता, तो म्हज्यान सोंसूंक जायना. खऱ्यांनीं सांगतां तुकां, एकाद्रे अस्तुरेचेर पशुवत वेव्हार केल्ल्याक चडांत चड ख्यास्त मेळूंकूच जाय, आनी लालबिहारीन ती केल्या.

आतां बेनीमाधव सिंह तापलो. ताच्यान फुडलें आयकूंक जालें ना. ताणें म्हणलें – लालबिहारी तुगेलो भाव. तो जर चुकला, तर ताच्या कानाक धर. समजाय ताका. पूण–

श्रीकंठ – लालबिहारीक हांव म्हजो भाव मानिना!

बेनीमाधव सिंह – बायलेक लागून?

श्रीकंठ – ना. तागेले निर्दयताय आनी मूर्खतायेक लागून.

दोगूय थोडो वगत ओग्गी बसले. ठाकूर पुताचो राग शांत करूंक सोदतालो. पूण लालबिहारीन चूक केल्या, हें तो मानूंक तयार नाशिल्लो. इतले म्हणसर गांवांतले कांय गांवकार विडी ओडपाच्या निमतान थंय एकठांय जाले. कांय बायलांक कळून आयलें की, श्रीकंठ आपले बायलेची कड घेवन आपल्या बापायकडे झगडटा. तांकां खूब खोस भोगली. दोनूय पंगडांचीं गोड उतरां आयकूंक तांचे आत्मे तळमळूंक लागले. गांवांत कांय असलेय दुश्ट लोक आशिल्ले की ठाकूर घराण्याच्या देखदिणे चलणुकीचेर मनांतल्या मनांत जळटाले. ते म्हणटाले, श्रीकंठ गरजेभायर भियेता. असलीं बावळटपणा कोताक येता? खूब शिकून पुस्तकांतलो किडो जाला तो! बेनीमाधव सिंह आपल्या पुताचें मत्त घेतले बगर फुडें वचनासलो. हें जालें ताचें निव्वळ मूर्खपणा अशें ह्या म्हाभागांक दिसतालें. कोण विडये निमतान, कोण पान-तंबाकू निमतान तर कोण पावती दाखोवपाच्या निमतान पडवेर येवन बसताले. बेनीमाधव सिंह आदले तेंपावेलो मनीस. गांवकारांक तो बेस बरो वळखून आशिल्लो. ताणें थारायलें, कितेंय जांव, पूण ह्या दुश्टांक ताळयो पेटपाक संद दिवचो ना. तो थंडसाणेन उलयलो– कितेंय जालें तरी पोराकडल्यान चूक घडली खरी! शारांतल्या अणभवविरयत पदवेकाराच्या लक्षांत ही गजाल गेली ना. ताचीं शाणेपणां फकत डिबेटिंग क्लबांतूच चलतालीं. थंय तो आपलें तेंच खरें म्हणूंक शकतालो. ह्या आडांग्यांच्या मनांतलें ताका खंय कळटालें? बापायन ज्या कामाखातीर आपल्या विचारांक बगल दिली ती पुताक कळ्ळी ना. ताणें म्हणलें – लालबिहारी वांगडा हांव आतां रावूंक शकना.

बेनीमाधव सिंह – पुता, शाणे मनीस वायट गजालींकडे लक्ष दिनात. तो मूर्ख आसा. तूं व्हडलो म्हूण ताका समजाय. ताची चूक सुदार.

श्रीकंठ – ना, तें जांवचें ना. ताणें केल्ले दुश्टतायेक भोगसणें ना. ह्या घरांत आतां एक तर तो रावतलो, ना तर हांव! तुजी जर ताचेर चड माया आसा, तर बस घेवन ताका. हांव चल्लों घर सोडून. म्हजें हांव पळोवन घेतां. तुका जर हांवें ह्या घरांत रावचो-सो दिसता, तर सांग ताका, वच म्हूण ह्या घरांतल्यान तोंड घेवन. हो म्हजो अंतीम निश्चेव जावन आसा.

लालबिहारी सिंह दाराकडे उबो रावन व्हडल्या भावालें उलवप मोन्यांनी आयकतालो. तो ताका खूब मान दितालो . व्हडल्या भावाच्या सामकारा खाट घालून बसपाचें धाडस ताणें केन्नाच केलें ना. ना ताणें हुक्क्याक हात लायलो ना, ना पान खालें. बापायचो लेगीत ताणें केन्ना इतलो मान केलो ना. श्रीकंठानूय ताचेर सदांच मनासावन मोग केलो. जाणा जावन श्रीकंठान आपल्या भावाचेर केन्नाच हात उबारलो ना. शारांतल्यान येतना आपल्या भावापासत कसली ना कसली वस्त उगडासान हाडटालो. गेल्ल्या वर्सा, नागपंचमीच्या दिसा ताणें एका पैलवानांक मैदानार मस्तिल्लो, तेन्ना श्रीकंठान मैदानार वचून ताका वेंग मारिल्ली. इतलेंच न्हय, तर खोशे भारार ताणें पांच रुपयांची नोट ताचेर ओवाळून उडयल्ली. असल्या भावांच्या तोंडांतल्यान आयज असलीं उतरां आयकून लालबिहारीक खूब दुखख जालें. बुळुबुळू करून तो दुकांनी रडलो.

आपणे केल्ल्या करण्यांचो लालबिहारीक पश्चाताप जाल्लो हातूंत मातूय दुबाव नाशिल्लो. भाव येवपाच्या आदले दिसाच ताचें काळीज धडधडूंक लागिल्लें. भाव आपल्याक कितें म्हणटलो, हे धास्तेनूच तो अर्दमेलो जाल्लो. आपूण भावा मुखार कसो वतलों, ताका जाप कशी दितलों, ताच्या दोळ्यांत दोळे कशें घालतलों हाची काळजी ताका सुशेग दी नाशिल्ली. ताका दिशिल्लें,

भाव आपल्याक आपोवन समजायतलो. पूण ताची आयज निराशाच जाली. ताका दिसली ती भावाच्या रुपान निर्दयतेची मूर्त! ताणे दोन-चार थापटां दिल्लीं तरी लालबिहारीक कांयच दिसचें नासलें. ताका दुख्ख भोगचें नासलें. पूण भाव ताचें तोंड लेगीत पळोवंक तयार ना, ही गजाल लालबिहारी सोसूंक शकनासलो. तो रडत घरांत आयलो. कुडींत वचून कपडे आंगार चडयले, अशे तरेन दोळे पुसले की आपूण रडटालों हें कोणाक कळचें न्हय! उपरांत आनंदीच्या दारार येवन ताणें म्हणलें – भाभी! म्हज्या वांगडा ना रावपाचो भैयान निर्णय घेतला. आतां तो म्हजे वांगडा ह्या घरांत रावचो ना. ह्या घरांत म्हजें तोंड लेगीत तो पळोवंक सोदिना. ताका लागून हांव आतां वतां ह्या घरांतल्यान. ह्या फुडें हांव केन्नाच तोंड दाखोवचोना ताका. म्हजेकडल्यान जो कितें गुन्यांव घडला, ताका लागून हांव तुजी क्षमा मागतां, भोगशीय म्हाका.

अशें म्हणटां म्हणटां लालबिहारीचो गळो दाटून आयलो.

जेन्ना लालबिहारी आनंदीच्या दारार तकली बागोवन उबो आशिल्लो. तेन्ना थंय श्रीकंठ आयलो. ताचे दोळे रागान तांबडे जाल्ले. भावाक थंय उबो आशिल्लो पळोवन ताणें तिरस्कारान आपली मान दुसरेकडेन घुंवडायली, आनी थंयच्यान कूस मारली. भावाची सावळी लेगीत आपल्याचेर पडिल्ली नाका, अशें ताणें दाखोवन दिलें.

आनंदीन आपल्या देराची कागाळ केल्ली खरी, पूण आतां तिका पश्चाताप जावंक लागिल्लो. सबावान तशी ती दयावान आशिल्ली. तिणें केन्नाच चिंतलें ना की आपले कागाळीचो परिणाम इतलो मोट्यार पडटलो. ती आपल्या घरकाराचेर मनांतल्या मनांत क्रोधीत जाली. आपलो घरकार इल्लेशा कारणाक लागून इतलो तापता, हें तिका मानवलें ना. तिच्या मनांत आतां भंय उप्रासलो. ह्याच रागाभारार तो तिका इलाहाबादेक घेवन गेलो जाल्यार? कितें करतली ती? इतले मदीं लालबिहारीच्या उतरांची याद जाली. ताणें तिचेकडे क्षमा मागिल्ली. हे क्षमेन तिच्या मनांतलो उरिल्लो-सुरिल्लो राग विरगळून गेल्लो. ती रडूंक लागली. मनांतलें कुसड धुवन काडपाक दोळ्यां उदका शिवाय दुसरी वस्त नासता.

श्रीकंठाक पळोवन आनंदीन म्हणलें – देर भायर उबो रावन रडटा!

श्रीकंठ – मागीर हांव कितें करूं?

आनंदी – भितर आपय ताका! उजो लागूं म्हजे जिबेक. हांवें झगडीं करूंक फावनाशिल्लीं.

श्रीकंठ – हांव आपयना.

आनंदी – म्हारग पडटलें तुमकां. खूब दुखावला तो! वचत तो खंयीं.

श्रीकंठ जागेवेल्यान हाल्लोना. इतल्यान लालबिहारीन म्हणलें – भाभी! भैयाक म्हजो रकाद दी. तो म्हजें तोंड पळोवंक तयार ना. हे पासत हांव म्हजें तोंड घेवन वतां. अशें म्हणून लालबिहारी वचूंक



लागलो. नेटान दाराकडे गेलो. इतल्यान आनंदी कुडींतल्यान भायर आयली. तिणें ताच्या हाताक धरलो. लालबिहारी घुंवलो. भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणें म्हणलें – भाभी! वचूंदी म्हाका.

आनंदी – खंय वतलो?

लालबिहारी – कोणूच म्हजें तोंड पळोवंक शकचो ना थंय.

आनंदी – हांव तुका वचूंक दिवचीं ना.

लालबिहारी – तुमच्या वांगडा रावपाची म्हजी लायकी ना.

आनंदी – सोपूत आसा तुका म्हजो, एक पावल फुडें घालशीत जाल्यार!

लालबिहारी – जो मेरेन म्हजेविशीं भैयाचें मन साफ जायना, तो मेरेन ह्या घरांत हांव केन्नाच रावचों ना.

आनंदी – हांव ईश्वराचे साक्षीन सांगतां की, म्हज्या मनांत आतां तुजेविशीं कसलेंच किल्मीश उरूंक ना.

आतां श्रीकंठाचेंय काळीज पिगळ्ळें. भायर येवन ताणें लालबिहारीक वेंग मारली. दोगांय भावांनी आपल्यो दुकांझरी रिकाम्यो केल्यो.

लालबिहारीन हुंडके दीत म्हणलें – भैया! ह्या फुडें केन्नाच म्हणूं नाका, की तुजें तोंड पळोवचो ना. हाच्या शिवाय तूं म्हाका कसलीय ख्यास्त दी, हांव ती खोशेन भोगतलों.

श्रीकंठान थरथरत्या वोंठानी म्हणलें – लल्लू! विसर तें सगळें आतां. देवाकृपेन ह्या फुडें असलो प्रसंग येवचो न्हय!

बेनीमाधव भायल्यान येतालो. दोगूय भावांनी एकामेकाक वेंग मारल्या ती पळोवन ताचे खोशयेक शीम मेर उरली ना, ताणें म्हणलें – व्हडल्या घरांतल्यो धुवो अशोच आसतात.

गांवांत ज्या मनशांच्या कानार ही गजाल पडली, तांणी आनंदीची तुस्त करून म्हणलें – व्हडल्या घरांतल्यो धुवो अशोच आसतात!



नाटुकलें



– अतुल र. पंडित
मडगांव - गोंय.

# सपनांतलो गणपती



**आरे, आरे असो उतावीळ जायनाका आनी म्हज्या पांयार घालून घेवपाचो विचार करूं नाका. पांयाची माती ओली आसा. त्या मुर्तीकारान म्हाका घडयतना म्हज्या पांयाक बोटांच लावंक नासलीं. हांवेंच ताका ताची याद करून दिली. मुर्तीकारान ऐनवेळार बोटां थापिल्ल्यान माती ओली उरल्या. तुज्या स्पर्शान चुकून मातयेचो कपचो गेलो जाल्यार लोक हांसतले म्हाका.**

**(पड्डो उगडटा तेन्ना एक मनीस खाटीर न्हिदला. कुशीक मखर आसा, पूण मखरांत गणपती ना. तो मखरांतल्यान भायर येता आनी म्हणटा)**

गणपती : सू ऽऽ आतां मात्शें बरें दिसलें. नाजाल्यार मखरांत बसून बसून पांय सामके वळिल्ले. आतां कितें करूया? हय. थोडीं कोंकणी गीतां म्हणूया. दिसभर ते मराठी अभंग आनी मराठी आरत्यो आयकून कान सामके विटल्यात.

**(अशें म्हणून गणपती कोंकणी गीत म्हणटा)**

गणपती : हांव बाबा न्हंवरो. नांव म्हजें साजरो. पलतडीं लग्नाक वेतां.

**(पद आयकून खाटीर न्हिदिल्लो मनीस जागो जाता)**

मनीस : आँ? इतले राती वेळार कोण पदां म्हणटा काय?

**(गणपती दुसरें गीत म्हणटा)**

गणपती : चान्न्याचे राती, माडांचे सावळेंत, सारयिल्ल्या सोबित मांडार, हातांत घालून हात, नाचूया गावुया घुमटाच्या मधुर तालार.

मनीस : **(पद आयकून)** आब्बा! म्हजे बायलेक घेवन नाचूया म्हणटा? येदी कापाझदाद. सोडचों ना तुका.

**(गणपतीचें गीत म्हणप चालूच आसा)**

गणपती : बॅण्ड्रा फेस्ताक गेल्लों हांव निमण्या आयतारा. फेरयेन भोंवतां भोंवतां वरां जायत आयलीं बारा.

**(गीत आयकून मनीस तिडकता)**

मनीस : आँ? हीं गीतां कोण म्हणटा? चोर बी घुसूंक ना न्हय घरांत? तशें जाल्यार हिका उठोवंक जाय. चोराक धरूंक ती फिशाल.

गणपती : हांव सायबा पलतडीं वेतां, दामूल्या लग्नाक वेतां , म्हाका सायबा वाट दाखय, म्हाका सायबा वाट कोळोना.

मनीस : आरे, असो लिपता कित्याक काळखांत? मुखार यो.

गणपती : आयज म्हजो वाडदीस गोड गोड दीस. वाड्या वयलीं भुरगीं आयलीं वीस आनी तीस.

मनीस : आतां मात लायट पेटयल्यार बरी.

**(अशें म्हणून मनीस लायट पेटयता.)**

मनीस : कोण तूं? आनी इतले राती हांगा कितें करता?

गणपती : कितें ? म्हाका वळखूंक ना? म्हजेच आंगवणेन जाल्लो मरे तूं? आनी म्हाकाच विसरलो?

मनीस : पूण.. पूण.. तुजें नांव कितें?

गणपती : आरे, हांव गजानन. गजानन महादेव कैलासपूरकार. षडाननाचो धाकलो भाव. शंकर-पार्वतीचो पूत.

मनीस : म्हणल्यार तूं विघ्नेश्वर? व्यास मुनीन सांगिल्लें रामायण एकाच धपक्याक बरोवपी तो तूंच?

गणपती : हय, हय हांवूच तो.

मनीस : पूण, तूं खऱ्यांनीच गणपती हें कित्या

वयल्यान?

गणपती : म्हजे कडेनूय आदवोगासी? हांव खरोच गणपती हें दाखोवपाक तुका पुरावो जाय?

मनीस : हय तर. नाजाल्यार फाल्यां उठसूठ कोणूय उठ्ठलो आनी आपूण गणपती म्हणटलो. असल्यांचेर विस्वास कसो दवरप?

गणपती : म्हणल्यार हांव खरोच देव हें मानपाक तूं तयार ना?

मनीस : पुरावो दाखय. तुजे कडेन मतदार वळखपत्र आसा? रेशन कार्ड आसा? स्मार्ट कार्ड आसा? वा पुरावो दाखोवपी तुजे कडेन कसलेंय कार्ड आसा?

गणपती : ना. असलें कसलेंच कार्ड म्हजे कडेन ना. पूण तुका हांव हाचे परस व्हडले पुरावे दितां.

मनीस : कसले?

गणपती : आयज सांजे म्हाका बांयत पावयतकच हुड्डमेथी करपा खातीर फ्रिज्यांत दवरिल्ले बांगडे हांव जिते करून दाखोवंक शकतां . तुवें तुजे बायले खातीर हाडिल्लो नेकलेस नकली आसा हें हांव तुजे बायलेच्या कानांत ल्हवूच सांगूंक शकतां. भारतीय स्टेट बँकेंत आशिल्ले तुजे ३ लाख ५७ हजार ५३० रूपया नाच्च करून दाखोवंक शकतां. कितें करूं?

मनीस : नाका, नाका, कांयच करूं नाका. पटलें म्हाका, शंबर टक्के पटलें. तूं साक्षात गणपती. मानलो तुका. क्षमा कर म्हाका.

गणपती : आरे, आरे असो उतावीळ जायनाका आनी म्हज्या पांयार घालून घेवपाचो विचार करूं नाका. पांयाची माती ओली आसा. त्या मुर्तीकारान म्हाका घडयतना म्हज्या पांयाक बोटांच लावंक नासलीं. हांवेंच ताका ताची याद करून दिली. मुर्तीकारान ऐनवेळार बोटां थापिल्ल्यान माती ओली उरल्या. तुज्या स्पर्शान चुकून मातयेचो कपचो गेलो जाल्यार लोक हांसतले म्हाका. आरे, फक्त हात जोडल्यार पावता म्हाका.

मनीस : बरें, **(गणपतीक हात जोडून)** गणपतीबाप्पा, म्हाका भोगशियात.

गणपती : खामोश! म्हाका बाप्पा म्हणिल्लें आवडना. आरे, तुमी उठसूठ म्हाका बाप्पा म्हणटात तो हांव बाप्पा भशेन दिसतां रे? बाप्पा भशेन हांव पुडवें तरी घालतां? कोट-तोपी घालतां? हांव दिसलों रे दिसलों की तुमी म्हाका बाप्पा म्हणून उलो मारतात. राग येता एकेकल्यांचो. बाप्पा... बाप्पा... आय हेट दोज वर्डस्. हाचे फुडें बाप्पा म्हणिल्लें हांव सोंसून घेवचों ना.

मनीस : येस सर.

गणपती : वा! आतां काऽऽय बरें दिसलें.

मनीस : सर, लायट पेटोवं? लायटीच्या उजवाडांत म्हाका तुजें खरें रुप पळोवचें आसा.

गणपती : नाका. नाका. लायट पेटोवं नाका. आदींच तुवें मखरांत लायिल्ल्या शंबर व्होल्टाच्या बल्बान दोळे दुखूंक लागल्यात. म्हजे दोळे पयलींच बारीक तातूंत हो लायटीचो झगमगाट. बरें, दोळे दुखूंक लागले म्हणून धांपुकूय मेळनात. लोक हांव न्हिदला म्हणून म्हजी धजा उडयतले. आरे, म्हजे मुखार शंबर व्होल्टाचे बल्ब कित्याक म्हणून? सादो झिरोचो बल्ब घाल्यार पुरो, कितलेंऽऽय पयसुल्लें दिसता म्हाका.

मनीस : सर, चूक जाली. पूण सर, एक विचारूं? तूं कोंकणी गितां केन्ना शिकलो? आमी तर तुजे मुखार दीसभर मराठी अभंग लायतात, मराठी आरत्यो म्हणटात.

गणपती : वा! बरो प्रस्न विचारलो. खरें सांगूं, हांव नीज गोंयकार, कट्टर कोंकणीवादी. पूण तुमी म्हाका मराठी अभंग आनी मराठी आरत्यो जबरदस्तीन आयकुवपाक लावन म्हाका मराठीवादी केला. पूण तुजो पूत मात खूब बरो. तुमचे असवडीं तो म्हजे मुखार टेपीचेर कोंकणी कातारां लायतालो, कोंकणी गितां म्हणटालो. तीं कोंकणीं गितां आयकून म्हाका तीं पाठ जालीं. राव रे, तूं असो पडमूर कसो? कोंकणी आवयच्या पोटांत जल्मला मरे तूं? आनी आपूण कट्टर मराठीवादी म्हणटा? गाळयो मारतना तुका कोंकणीचोच आदार घेवचो पडटा मरे? मनांत कसलोय विचार करतना तूं तो कोंकणींतल्यानूच करता मरे?

मनीस : सॉरी सर, चूक जाली. माफ कर म्हाका.

गणपती : चूक? माफी? एके चुकीक माफ करूं येता, पूण तुवें तर इतल्यो चुको केल्यात की त्यो मेजपाक म्हजे कडेन कॅलक्युलेटर लेगीत ना. म्हाका एक सांग, म्हाका नैवेद्य दाखोवचे पयलीं तुवें मोदक चाखून तरी पळयिल्ले?

मनीस : तशे कोण चाखून पळयतात सर. पूण तूं अशें कित्याक म्हणटा?

गणपती : आरे, सगळेच मोदक कच्चे आसले. सारके तळ्ंकूच नासले. हांव म्हणून तुमचे भशेन मनीसूच मरे? कोण पळयनासो पळोवन एक मोदक ल्हवूच काडलो आनी तोंडांत घालो. शी! सगळें पिठूच लागलें तोंडाक. जिबे वयली सगळी रुचूच गेली.

मनीस : चूक जाली सर. तेल म्हारग जाल्ल्यान थोड्याशा तेलांत मोदक तळचे पडले.

गणपती : कळिल्लेंच म्हाका तुमी अशेच करतले म्हणून. म्हणून हांवें पामोलिन तेलाचें मोल वाडोवचें न्हय अशें नागरी पुरवण खात्याच्या उंचेल्या अधिकाऱ्याच्या कानांत सांगिल्लें.

मनीस : पूण सर. आमी पामोलिन तेल वापरपाचें बंद केलां. पामोलिन तेल खाल्यार काळजाचो आताक येता अशें मनोहर

परींकारान सांगत सावन आमी पामोलीन तेल हाडपाचें बंदूच केलां.

गणपती : तो एक. खंयतरी कितेंतरी वाचता आनी तुमकां तें सांगता. तुमकां तें खरेंच दिसता. बरें, मोदक कच्चे आसात म्हणून खीर तोंडाक लायली जाल्यार तिवूय पचकी. खिरींत साकरेचो एकूय कण ना. आरे, म्हाका गोडेमुताचें आसा हें तुमकां कोणें सांगलां?

मनीस : सर, तूं जाणाच. आमच्या वाड्या वयलें सवाय धान्याचें दुकान बंद जालां. ताका लागून आमकां झक मारीत पसऱ्या वयली साकर हाडची पडटा. ती आमकां परवडना. पावोवन खावची पडटा. ताका लागून जिनसांक साकर नांवा पुरतीच घालची पडटा. सर, हीं बंद पडिल्लीं सवाय धान्य दुकानां सुरू कर न्हय.

गणपती : तेंवूय हांव करूं? तें काम नागरी पुरवण मंत्र्याचें. पगार घेना तर तो? बऽऽरो पांच आंकडी पगार घेता. सगळीं कामां हांवूच करूंक लागलों जाल्यार मंत्र्यांची गरजूच ना.

मनीस : सर, म्हजे बायलेक उठोवं?

गणपती : नाका, नाका. तिका आनीक उठयनाका. आरे, व्हडल्या व्हडल्या मनशांक फावोर लावनूय म्हजें दर्शन घडना. तुवें फाटल्या जल्माक पुण्याय केल्ली म्हणून तुका म्हजें दर्शन घडलें.

मनीस : थँक्यू सर.

**(अशें म्हणून मनीस परत गणपतीक नमस्कार घालपाचो विचार करता)**

गणपती : पळय. साश्टांग नमस्कार घालपाचो विचार तकलेंतल्यान काडून उडय. माती ओली आसा हें मतींत धर.

**(इतल्यांत 'उठा उठा हो सकल जन' हें पद आयकूंक येता)**

गणपती : आरे, फांतोड जाली. म्हाका मखरांत वचून बसूंक जाय.

मनीस : सर, माफ कर आमकां. आमच्या हातांतल्यान कांय चुको चुकून घडल्यात जाल्यार आमकां भोगशी. फुडल्या वर्सा तुका पांच दीस दवरतां.

गणपती : कितें? पांच दीस? नाका रे बाबा. ह्या देड दिसानूच हांव सामको ज्याम जालां. लायटीच्या झगमगाटान दोळे दुखल्यात, आरतीवेळार वाजयतात तीं वाद्यां आयकून कान किटल्यात आनी सेगीत देड दीस मखरांत बसचें पडिल्ल्यान पांय सामके वळ्ळ्यात.

मनीस : सर, चूक जाली.

गणपती : बरें, वाज आयलो म्हणून न्हीद तरी काडूंक मेळटा? तिवूय ना. रातभर जळारां काना कडेन गुणगुणटात. खंयचें जळार येवन खंय चाबत हाचो नेम नासता. आरे, हांवूय म्हणून मनीसूच मरे? तुमी तुमचे कुडींत बरेंऽऽ मॉस्किटो मॅट लावन न्हिदतात. तशें म्हज्या मुखार मॉस्किटो मॅट लावचें अशें तुमकां दिसना? बरें, आसूं, येता हांव. बसतां वचून मखरांत. हुंदीर खंय गेलो काय? सेर्त चिचुंदरेक घेवन बांयचे देगेर बसला आसतलो खबरो करीत.

मनीस : सर, तूं वचूं नाका.

गणपती : ना. म्हाका वचुंकूच जाय. नाजाल्यार मखरांत हांव ना तें पळोवन लोक म्हाका ओगीच दुबावान पळयतले. बरें, बसतां हांव मखरांत. फुडल्या वर्सा जमता जाल्यार एकूच उपकार कर. मखर मात्शें सकलूच दवर. मखरांत चडटना आनी देंवतना म्हाका खूब त्रास जाता.

मनीस : सर, तूं वचूं नाका.

गणपती : ना. म्हाका वचुंकूच जाय. बरें, मेळचें फुडल्या वर्सा.

**(अशें म्हणून गणपती वचून मखरांत बसता.)**

मनीस : सर, सर वचूं नाका. उपकार करून वचूं नाका.

**(इतल्यांत बायल भायर येता आनी न्हिदिल्ल्या घोवाक उठयत म्हणटा)**

बायल : उठात आतां. दीसभर सपनांच पळयत आसतात. चलात, उठात.

मनीस : **(न्हिदेंतूच)** आगे, खंय गेलो तो गणपती?

बायल : गणपती? तो आपल्या मखरांत आसा, पूण ताच्या म्हऱ्यांत हुंदीर मात ना. हांवें सगल्याक सोदलो ताका, पूण तो खंयच ना.

मनीस : तशें जाल्यार तो सेर्त बांयचे धडेर बसून चिंचुदरे कडेन मोगाच्यो खबरो मारता आसतलो!

बायल : म्हणल्यार? हांव कुळारा वतकच तुमी शेजारच्या मंगला वांगडा मारतात तशो?

मनीस : आब्बा, हें तुका कशें कळ्ळें?

बायल : कशें म्हणल्यार? गणपतीन सांगलें म्हाका. काल तो म्हज्या सपनांत आयिल्लो. हांव कुळारा वतकच म्हजे असवडी तुमी जें जें करतात तें तें सऽऽगळें सांगलें म्हाका गणपतीन.

मनीस : हें कशें शक्य आसा? काल तो म्हज्या सपनांत आयिल्लो मुगे. एकेच रातीं तो दोगांयच्या सपनांत कसो येवंक शकता?

बायल : आगा, देव तो. तो एकेच फावटी कितल्याय लोकांच्या सपनांत येवंक शकता.

मनीस : गणपती, खरेंच मानलो तुका.

बायल : देवा, तुजी सासाय व्हड.

दोगूय : अश्टविनायका तुझा महिमा कसा

**(इतल्यांत 'अश्टविनायका तुझा महिमा कसा' हें गीत आयकूंक येता आनी पड्डो पडटा.)**



# तुळस



लेखक

– लता सत्यवान नायक
सातेरी अपार्टमेंटस्
चर्चवाडो, माशेंल-गोंय
फोन नं. : २३९९८९४/२२८७३९६




दारांतले तुळशी गे पानान पान फुलशी
पायांतल्या जोडव्यासाठी किती लोक वनवाशी
दारांतले तुळशी गे पानान पान फुलशी
गळ्यांतल्या मणयांसाठी किती लोक वनवाशी
दारांतले तुळशी गे पानान पान फुलशी
माथ्यांतल्या फुलांसाठी किती लोक वनवाशी
दारांतले तुळशी गे पानान पान फुलशी

दारांतले तुळशीक आमच्या लोकवेदान खूब म्हत्व दिलां. लग्न जाल्ली बायल, तिका आपल्या सौभाग्याचें खूब अप्रूप. आपलें जिवीत तुळशी भशेन जावचें, सौभाग्याचें मरण लाबचें हो तिचो ध्यास. कपाळाचो कुकूम, गळ्यांतलो मणी, हातांतलो पाचवो चुडो, पायांतल्यो वेडी, माथ्यांतलीं फुलां हो सौभाग्याचो शिरंगार कायम तुळशीमातेचे कृपेन आपले कुडीचेर आसचो, आपलो घरकार, आपलें घराणें, घराचीं सगळीं आनंदी उरचीं, तांका आयुश्य, आरोग्य लाबचें म्हणून ती तुळशीकडेन मागणें करता.

तुळशीचे वखदी गूण पळोवन, ऋषीमुनीनी, साधुसंतांनी त्या काळार तुळस जणएकल्याक बरे तरेन उपलब्ध जांवची म्हणून तिका धार्मिक म्हत्व दिलें. ती सगळ्यांच्या दारांत, आंगणांत आसतली हाची येवजण केली. तुळशीवृंदावनाक सांजवेळार पणटी पेटयताना, मांय आपले सुनेक सांगता,

लाडके सुनबाई,
दिवा लाई गे तुळशीला
तिनसान बाई जाल्या
तुळशी दियाची करा बेगी
लक्ष्मी दारी उभी
घरनी बाईचा मन बघी

आनी तितल्याच आदरान सून लेगीत तुळशी वृंदावना फुडल्यान वात लायता. आपल्या घरच्यां खातीर देवीचो आशीर्वाद मागता. सकाळीं सुर्योदय जावच्या पयलीं तुळशीमुखार शिताडो घालता, रांगोळी घालता आनी न्हावन धुवन तुळशीक उदक घालता, गंध-फूल अर्पिता, पुजा करता, तिचें वर्णन करीत म्हणटा,

तुळशी वंदावे, वंदावे तुळशी
तुळशी कदापि ना निंदावे
तुळशी कोणी लाई गंध
त्याच्या घरी सदा आनंद
तुळशी कोण घाली फूल
त्याच्या अंगणी खेळे मूल

अशें आदिम काळासावन तुळशीचें आनी अस्तुरेचें अखंड चलपी नातें. अशे हे तुळशीच्यो अनेक दंतकथा आसात, जायते श्लोक तुळशीचेर आमकां वेदकालीन ग्रंथांनी वाचूंक मेळटात.

सर्वोषधि रसेन व पुराह अमृत मन्थने
सर्वसत्वोपकाराय विष्णूना तुलसी कृता ।।

म्हळ्यार प्राचीन काळांत अमृतमंथना वेळार समेस्त औषधांच्या आनी रसांच्या (भस्मांच्या) पयलीं भगवान विष्णून सगळ्या प्राणीजिवांखातीर तुळस उत्पन्न केली.

'तुलसी' नांवाची एक गोपी गोलोकांत राधेची

**अशी ही तुळस खोकली, थंडी हाचेर रामबाण वखद आसा. पानां कातीच्या दुयेंसांचेर उपेगी आसात. पानांच्या कसायाची वाफ अर्धांगाचेर आनी वाताचेर उपकाराक ठरता. डायबेटीक लोकांनी दर दिसा कमीत कमी तुळशीचीं पांच पानां रिकाम्या पोटार सकाळींफुडें खावचीं, हातूंत रगत शुध्द जाता.**

मैत्रीण आशिल्ली. ती कृष्णाचेर खूब जीव घालताली. एकदां तुलसीक कृष्णाबरोबर विहार करता आसताना राधेन पळयलें. राधेक बरोच राग आयलो तुलसीचो! तिणें तिडकीन, तुलसीक शिराप दिलो की तूं पृथ्वीलोकांत मनशाच्या रुपान वावुरतली म्हणून. तुलसीक खूब दुःख जालें. कृष्णान तिची खूब समजूत काडली, आनी सांगलें की तुलसी जरी तूं मनुष्ययोनीत जन्माक आयली तरी लेगीत तुवें केल्ले तपश्चर्येक लागून तुज्यांत म्हजो अंश आसतलो. देखून तुळस कृष्णवर्णीय जाली.

जालंधर नांवाचो दैत्य आशिल्लो. ताची बायल खुबूच सुंदर दिसताली. विष्णूक ती खूब आवडटाली. तिचें नांव वृंदा अशें आशिल्लें. वृंदेक विष्णूचो तिचेवटेन आशिल्लो मोगाचो झरो आटोवपाक जाय आशिल्लो. वृंदाक हें विष्णूचें वागप मान्य नाशिल्लें देखून तिणें विष्णूची अर्धांगिनी देवी लक्ष्मीकडे हाचेविशीं कागाळ केली आनी खंत उक्तायली. तिणें पार्वतीकूय हातूंत सामील करून घेतली. लक्ष्मीन आनी पार्वतीन वृंदाक एक बीं दिलें. तातुंतल्यान ज्यो वनस्पती तयार जाल्यो तातूंत पयली वनस्पत आशिल्ली धव्या सुवासीक फुलांची, दुसरी तांबड्या गूंज दशणीची, तिसरी वनस्पत जावन आशिल्ली सुवाशीक तुळस. ह्या सगळ्या वनस्पतींनी विष्णूचें मन रमलें आनी विष्णू वृंदाक विसरलो. अशे तरेन धर्तरेचेर तुळस तयार जाली. तिका वृंदा अशें लेगीत म्हणटात.

तुळशीच्यो जायत्यो लोककथा, पौराणिक कथा आसात ज्यो वाचतकच प्रस्न पड्टा की देव-दानवांचेंय आमच्यासारक्या सामान्य मनशाभाशेन वागप आसतालें काय? आतां आमी कांय संबंदांक 'अवैध नातें' म्हणून पळयतात. पूण त्या काळांत देवांनी-दानवांनी लेगीत हे वाटेवयल्यान वचून अणभव घेतला आसतलो. कांय प्रस्नांच्यो जापो मेळनात पूण संदर्भ वाचून अजाप मात जाता. तर तुळशी संबंदान अशीच एक कथा आसा. धर्मध्वज नांवाचो एक राजा आशिल्लो. ताचे बायलेचें नांव माधवी अशें आशिल्लें ,तांका एक खुबूच



सोबीत चली आशिल्लें. तें खूब सुंदर म्हणून लोक ताका 'तुलसी' म्हणपाक लागले. जाची तुलना कोणाकडेनूच करू नजो अशी तुलसी! तिणें बद्रीवनांत विष्णूच्या प्राप्ती खातीर तप केलें, ब्रम्हदेव तिका प्रसन्न जालो. तेन्ना तिणें ब्रह्मदेवाक सांगलें की हांव पुर्विल्ल्या जन्मातली एक गोपी, जिचो कृष्णाचेर खूब मोग आशिल्लो. एक दीस राधेन तिका कृष्णावांगडा एकांतांत पळयलें. राधेक सोसूंक जालें ना, तिणें तुलसीक शाप दिलो की तूं मनुष्ययोनीत जल्माक येतली. कृष्णाक राधेचो शाप आयकून खूब वायट दिसलें. तेन्ना तुलसीक समजायत ताणें सांगलें की भियेंव नाका पृथ्वीतलाचेर लेगीत हांव तुज्या वांगडा येतलों.

तुलसीन अशें सांगतकच ब्रम्हान म्हळें ह्या मानवजन्मात तुका विष्णूची प्राप्ती जातली. पूण ताच्याआदी तुका शंखचूड नांवाच्या दैत्याकडेन लग्न जांवचें पड्टलें. तो दैत्य लेगीत पयलीं एक गोप आशिल्लो पूण राधेच्या शापान ताका लेगीत दैत्याचो जल्म प्राप्त जालो. तो जेन्ना गोप आशिल्लो तेन्ना ताचें तुजेर प्रेम आशिल्लें. तर तें प्रेम तूं ह्या जल्मांत सफल कर. ब्रम्हान तुलसीक तथास्तू म्हळें.

मागीर एक दीस तुलसीक शंखचूड दैत्य मेळ्ळो. ताणें तुलसी वांगडा गांधर्व पध्दतीन लग्न केलें आनी तीं दोगांय बरोच काळ सुखान संवसार करूंक पावलीं. फुडें हो दैत्य माजलो, ताका मद चडलो. ताणें देवलोकाचेर स्वारी केली आनी देवांक सतोवंक लागलो. देव पराजित जावन शंकराकडेन गेले. शंकरान शंखचुडाकडेन युध्द पुकारलें. तांचें व्हड युध्द जालें. शंकरान शंखचुडाक बरोच सतयलो पूण तो मेलो ना. कारण ताची बायल तुळशीच्या पातिव्रत्याचो इतलो प्रभाव आशिल्लो की शंखचूड कसोच मरना जालो. तेन्ना विष्णूक वायट बुध्दी (?) सुचली, ताणें शंखचुडाचें रूप घेवन तुलसीकडेन संबंद दवरले. जेन्ना शंखचुडाक विष्णूचे नीच करणीची सुलूस लागली तेन्ना तो पिसाळ्ळो. तुलसी लेगीत आपलो घोव विजयी जावन आयला म्हणून ताच्या मोहपाशांत गुरफटली पूण थोड्याच खिणाभितर तिच्या लक्षांत आयलें की जाच्यावांगडा हांव रममाण जालां, तो आपलो घोव न्हय. तिका सामको राग आयलो आनी रागाच्या भरांत तिणें विष्णूक शाप दिलो की 'तूं पाषाणरूपी जातलो'. तेन्ना विष्णून तिका म्हळें की, तुवें म्हजे प्राप्तीखातीर तप केल्लें देखून हांव शंखचुडाच्या रुपान तुजेलागीं आयलों. म्हज्या आनी तुज्या संबंदाक लागून तुका आतां दिव्य कूड प्राप्त जाल्ली आसा. आतां तूं ह्यान फुडें म्हाका लक्ष्मी इतलीच प्रिय आसतली. तुजे हे रागान दुभंगलेले कुडींतल्यान 'गंडकी' न्हंय

व्हांवतली, जातूंत स्नान करप सगळे हिन्दू धर्मीय पवित्र मानतले. तुज्या केसांतल्यान एक झाड उगतलें, तें तुळशीचें झाड. लोक ते वनस्पतीक तुळस म्हणटले आनी ताची पुजा करतले. तुवें म्हाका पाषाण जावपाचो शाप दिलो देखून हांव 'गंडकी' न्हंयेच्या तिरावेलो पाशाण जातलों. ताका लोक 'शाळीग्राम' म्हणटले. लोक ह्या पाशाणाची म्हळ्यारूच शाळीग्रामाची लेगीत पुजा करतले आनी पुजेवेळार ताका तुळशीचीं पानां घालतले. तुजो घरकार शंखचूड हो शंखाच्या रुपान म्हजे पुजेंत सहभागी जातलो. त्या शंखांतल्यान उदक घाल्यार हांव प्रसन्न जातलों. देखून आयज लेगीत लोक शाळीग्रामाची पुजा करतना तुळशीपत्र ताचेर घालतात.

कांयकडेन असोय संदर्भ मेळटा की जालंदराची बायल वृंदा हिच्या घामाच्या थेंब्यापासून तुळस निर्माण जाली. पद्मपुराणांत आनी शिवपुराणांत वेगळीच कथा वाचूंक मेळटा. जालंधराची बायल वृंदा विष्णूक खूब आवडटाली. देखून जालंधराचें आनी विष्णूचें युध्द जालें. युध्दांत जालंधराचो कसोच पराभव जायना जालो तेन्ना विष्णून जालंधराचें रूप घेवन वृंदेचो विनयभंग केलो. तेन्ना वृंदाक हें सहन जालें ना. तिणें सरळ उज्यांत उडी घेवन स्वताक अग्नी देवाक सुपुर्द केलें. विष्णूक तें सहन जायना जालें तेन्ना विष्णून त्या अग्नी कुंडा म्हऱ्यांतूच बसका घेतली. महादेवा सकट सगळे देव हुसक्यांत पडले, तेन्ना म्हादेवान सगळ्या देवांक सल्लो दिलो की तुमी महामायेक शरण वचात. देव महामायेकडेन धावले. महामायेन परत सांगलें की तुमी पार्वती, लक्ष्मी आनी सरस्वती ह्या देवींक शरण वचात. देवांनीं तशें केलें तेन्ना देवांक ह्यो देवी प्रसन्न जाल्यो आनी तांकां तीन बियां दिलीं. तीं बियां वृंदेचे चितेचेर उडोवपाक सांगलीं. तशें करतांच तीन वनस्पती, धात्री, मालती आनी तुळशी अश्यो तयार जाल्यो. तुळशीन आनी धात्रेन विष्णूकडेन मोगान पळयलें देखून तीं विष्णूक प्रिय जालीं. पूण मालतीन मात ताचेकडेन इर्शेन पळयलें देखून ती ताची नावडती ठरली. मालती म्हळ्यार दोंगरार जाता त्या फुसरेचीं फुलां. मागीर तुळशीचो रोंपो वृंदेचें प्रतीक म्हणून सगळेजाण तुळशीक पुजपाक लागले.

तुळस आनी कार्तिकी एकादस हें धार्मिक समीकरण कशें विसरूं येता? गोंयांत तुळशी लग्नाक 'व्हडली दिवाळी' अशें म्हणटात. व्हडले दिवाळे उपरांत लग्नकार्यांक सुरवात जाता. हे कार्तिकी एकादशीचो हक्क पंढरपुरच्या विठोबाचो. तुळशीची आनी ताची लेगीत दंतकथा आसा. तुळस एक ब्राह्मण कन्या आशिल्ली. तिका कांय कारणाक लागून ब्राह्मणान धांवडायली. ती घर सोडून विठोबाच्या आश्रयाक आयली. विठोबाक तुळशी आवडूंक लागली. तांच्या प्रेमाचो हो 'रासरंग' रुक्मिणी कमरार हात दवरून तिडकीन पळयताली. तिणें विठोबाबद्दल तुळशीच्या मनांत कपट तयार केलें. दोगांच्या मदीं दुरावो आयलो. फुडें खरें कितें तें तुळशीक कळ्ळें, कपट पयस जालें पूण तुळशीन विठ्ठलाक लागीं केलो ना. ती सीतामाय प्रमाण धतरेच्या गर्भांत लुप्त जाली. फुडें तिच्या पासून एक वनस्पत तयार जाली. ती वनस्पत म्हळ्यार तुळस. फुडें तिचें आनी विठोबाचें लग्न लागलें.

तुळशीक संस्कृतांत जायतीं नांवां आसात. तीं अमृतमंथनावेळार उत्पन्न जालीं म्हणून तिका 'अमृता' हें नांव पडलें. तिचो आपरोस अमृता भशेन सुवादीक, सुगंधीत, देखून तिका अमृता अशेंय म्हणटात. तिचे वखदी गूण इतले आसात की सगळ्या वनस्पतींमदें वखदी गूण अमृताभशेन मानतात. देखून ती 'अमृता'. तिचें सेवन केल्यार कोणाकूच मरण येना म्हणून 'अ-मृता' अशेंय म्हणटात. तिचो रोस खूब गोड, बरो देखून तिका 'सुरसा' अशेंय म्हणटात. गांवांगांवांनी ती व्हड प्रमाणात मेळटा म्हणून 'ग्राम्या'.

तुळशीचें महात्म्य सांगप तितलें कमीच. तिचें दर्शन घेतल्यारूच मनशाचीं पापां धुवून वतात इतलें पवित्र तिचें दर्शन आसता. ती वृंदावनांत रावता आनी विष्णूक ती प्रिय आसा, तिच्या पानाशिवाय विष्णू प्रसाद सेवन करिना, तिच्या पानांबगर विष्णूपूजन पुराय जायना. सुवर्णाची, रत्नांची, माणकांची अशीं फुलां लेगीत घातलीं जाल्यार तुळशी पानांशिवाय विष्णूक पुजा पावना. पुजेचो लाब जायना.

कार्तिक मासांत तुलसीपत्रांनी विष्णूची महापुजा करप बरेच लोक बरें समजतात. तुळशीचें दर्शन, स्पर्श, ध्यान, नमन, पुजन, रोपण आनी सेवन अशो तिनूय गजाली युगायुगांचीं पातकां नश्ट करतात. तुळशींत कोटी कोटी देव आसतात, देखून तुळशीची पुजा केल्यार ह्या कोटी-कोटी देवांची पुजा केल्याचें पूण्य लाबता. जें घर तुळशीबनान सजयलां तें घर तिर्थक्षेत्रसमान पवित्र आसता, थंय यमदूत येना हें सांगपी श्लोक.

तुलसीकाननं चैव गृहे यस्यावतिष्ठते।
तद् गृहं तीर्थभूतं ही नायान्ति यमकिड: करा:

तुळशीचें पावित्र्य समजायता. अशेंय मानता की तुळशीचें बन जंय आसता थंयच्या वाठारांत गंगा न्हंयेची पवित्रताय तयार जाता. ती जमीन गंगेवरी पवित्र जाता.

अशी ही तुळस खोकली, थंडी हाचेर रामबाण वखद आसा. पानां कातीच्या दुयेंसांचेर उपेगी आसात. पानांच्या कसायाची वाफ अर्धांगाचेर आनी वाताचेर उपकाराक ठरता. डायबेटीक लोकांनी दर दिसा कमीत कमी तुळशीचीं पांच पानां रिकाम्या पोटार सकाळींफुडें खावचीं, हातूंत रगत शुध्द जाता. साखरेचें प्रमाण थीर उरता. भुरग्यांच्या छातयेच्या दुयेंसांत तुळस उपकाराक ठरता. तुळशीचें बीं मुताच्या दुयेंसांचेर वापरतात. तोंडाक जर वास मारता (मुख दुर्गंधी) जाल्यार तुळशीपानां खांवचीं. तर अशी ही बहुगुणी, तुळस सगळ्यांनी आपल्या आपल्या घरांत लावची जळमांपासून पयस दवरपी, तशेंच प्राणवायू चडांत चड हवेंत सोडपी ही वनस्पत, जी देवासमान अतुल्य आसा. तिका म्हजें मनासावन वंदन!



– संतोष एम्. हरमलकार
आराडी, सिकेरवाडो,
साळगांव-गोंय.



## तूं

तूं म्हळ्यार एक सपन
काळखे रातीन जोगूल शें

तूं म्हळ्यार फुलतें फूल
मनांत म्हज्या कवन शें

## नियतीचो खेळ

कितले जाण आयले
कितले गेले
कितले बुडले...
आनी...
वसाडेन परत आयले

खेळ हो असोच...
कितले मेले
कितले वाटावले
कांय जिखले
कांय हारले

कोणाक कांयच
खबर ना
खेळ हो नियतीचो
असोच चलत रावतलो
सासणाखातीर

## म्हाका दिसता

संत रामदासा भशेन म्हाकाय
दिसता
हो लग्न सुवाळो सोडून
माटवांतल्यान पळून वचचें
आनी खंय तरी रानांत वचून
जप करचो संत रामदासाचोच

## मोग

मोने कशें बसूं नाका
लजेन अशें बावूं नाका
मनांत तुज्या लिपलां कितें
मेकळेपणान सांग गो म्हाका

मोग म्हजेर आसा जाल्यार
म्हन्यांत येवन सांग गो म्हाका
आशेलां हांव मोगाक तुज्या
यो गो मोगा कळाव नाका

मोगा तुजे खातीर असो
भोंवता जावन मोगा पिसो
सांग गो म्हाका केन्ना कळटलो
मोग तुज्या मनांतलो

## मर्णा तुजीं कितलीं रुपां

मर्ण कितले तरेचें, हजार तरेचें
आकस्मीक, रोगान, आत्महत्या, खून

हांसलो, खेळ्ळो, बसला थंय घट्ट जालो
जिवीताक उबगलो गोळ लावन घेतलो

मोगान लग्न जावन वेगळो संवसार थाटलो
वर्सा भितर बायलेन उजो लावन घेतलो

खालत्या जातीच्या चल्याकडे लग्न जावंक
दिना म्हणून चलयेन बांयत जीव दिलो

अशें हें मर्ण, स्कुटर स्टार्ट,
बशीचो धपको, जाग्यारूच मर्ण

दुयेंसाक कंटाळून
प्रेमभंगाक लागून आत्महत्त्या

अशें हें मर्ण...
मर्णा, तुजीं कितलीं म्हूण रुपां?

# काव्योत्सवांत तेजश्री प्रभू गांवकार

– एस्. डी. तेंडुलकार

'बिम्ब' ऑगस्ट २०१०च्या काव्योत्सवांत छापून आयिल्ल्यो तेजश्री प्रभू गांवकार हांगेल्यो कविता वाचून अशें दिसलें की कविता बरोवप ही तर सामकी सोप्पी गजाल. एखादो विशय घेवपाचो आनी उतरां सकयल उतरां ठोकपाचीं. जाली कविता! म्हणटगूच कविता सुचना म्हणून अस्वस्थ जावपी कवी, कवितेंतल्या एका-एका उतराखातीर वाट पळोवपी कवी, एखाद्री कविता मनासारकी पुरी करपाक वर्सां घेवपी कवी, ह्या सगल्या कवींक 'मूर्ख कवी' म्हणुनूच संबोधचें पडटलें. ते नदरेन तेजश्री प्रभू गांवकाराची कविता बरीच शाणी आसा. ती म्हारगाये सारको विशय घेता आनी 'वाचकांचे विचार' असल्या वर्तमानपत्री सदरांत सोबपासारकी कविता बरयता. आनी 'खुर्च्यांवेल्या सायबानी हाचेर (म्हळ्यार म्हारगायेचेर) उपाय कितेंय करचे' – अशी निमणी सुचोवणीय करता. ते नदरेन ही सबंद कविताच पळयात :

कांदयान दोळ्यांत
व्हावयलीं दुकां
तोंडाचींय व्हेलीं उदकां
साखरेची गोडसाण
चुरचुरपाक लागल्या
मिठाची खारसाण
आंबट जाल्या
नुस्त्यान तर
बुडोवन मारलें
दुदांतय उदक चडलें
कामत पोरसूं
शेत भाट
पावसान पुराय
गिळांत घालें
वता थंय
म्हारगाय म्हारगाय
येणावळीचेर ना उपाय
म्हारगायेच्या राक्षेसान
जिवीत काबार केलें
गरजेची मीठ साकर
शिता गोटे रोटी भाकर
खुर्च्यांवेल्या सायबांनी
हाचेर उपाय कितेंय करचे

– खरें म्हळ्यार हे कवितेच्यो सुरवातीच्यो धा-बारा वळी वाचतना म्हाका अरूण कोलटकाराच्या कवितेचो उगडास जालो. पूण तो तितलोच. उपरांत ही कविता म्हारगायेची एक टिपिकल संकुचीत प्रतिमा फुडें व्हरता. खुर्च्यांवेल्या सायबानी म्हारगायेचेर उपाय करचे, अशेंय गद्य पातळीर येवन काव्यहीनपणान सुचयता. म्हळ्यार खुर्च्यांवेले सायब म्हळ्यार देव असो कवयित्रीक विश्वास आसा काय कितें? आयचें राजकारण पळयत जाल्यार असले कॉमेंट्स मारपाचें कोण धाडस करचो ना. पूण आमची कवयित्री हें धाडस करता आनी तेंवूय बी कवितेंत – जंय भाशेची उच्च पातळी गाठपाची आस्ता.

'असोय एक भिकारी' हे कवितेंत कवयित्री कविता बरोवपाचें सोडून एक 'वर्तमानपत्री' काणी बरयता. आनी तिवूय बी भिकाऱ्याची. कळकट-मळकट रावपी एक भिकारी मेल्या उपरांत ताच्या साकांत लाख-लाख रुपया मेळळे ही काणी-कवयित्री फुशारकायेन सांगता, म्हळ्यार कसलो काव्यानुभव ती रसिकांक दिता? आपूण (म्हळ्यार कवयित्री) शाणी आनी भिकारी पिसो अशें एक चित्र मात हांगा आकार घेता.

जगांतल्या रंजल्या-गांजलेल्या, भुकेल्ल्या मनशांफुडें वाङमयाचें म्हत्व तें कितें असो एक प्रस्न प्रसिध्द फ्रेंच लेखक, तत्वज्ञ ज्यॉ पॉल सार्त्र आमच्या मुखार दवरता. त्याच सुरांत अशेंय म्हणूं येता की शाण्या मनशाक कवितेचें, वाङमयाचें म्हत्व तें कितें? कारण कला, साहित्य निर्माण केलां तें फकत पिशानीच. शाण्यांनी न्हय. खरें म्हळ्यार कवयित्रीक अस्सल कविता बरोवपाची आसल्यार तिणें शाणी न्हय, तर पिशीच जावची पडटली. वगीच लोक कवींक पिशे म्हणटात तर!

तर सांगचें जाल्यार भिकाऱ्यांच्या मनांत खोल देवनासतनाच ही कवयित्री भिकाऱ्यांचेर कविता बरोवंक सोदता. म्हारगायेच्या आर्थिक सामाजिक राजकारणाचो सोद न घेतांच ही कवयित्री म्हारगायेचेर कविता बरोवंक सोदता. कशें जातलें? हातुंतल्यान फकत अतिसामान्य दर्जाच्यो कविताच भायर सरतल्यो. तांच्यो 'दिसलें म्हाका' आनी 'कळसूत्री बावली' ह्योवूय अश्योच सामान्य कविता.

हांव कवितेक सामान्य केन्ना म्हणटां? जेन्ना एखादी कविता गद्याफुडें वचना, तातुंतल्यान आशयाचे अनेक पदर व्यक्त जायनांत, रसिकांच्या विचार-भावनेक ती आवाहन करिना अश्या कवितेकडे हांव 'सामान्य कविता' म्हणून पळयतां.

'दिसलें म्हाका' हे कवितेंत कवयित्री आपल्यो अनेक इत्सा व्यक्त करता

दिसलें म्हाका
वात पळोवन
जळचें जिवीत
दिवले परी
मंद जरी
पेटत आसा
धाय दिकांत
उजवाड सारी

– आतां हांगा दिवलेचो उजवाड

तो केदो? कवयत्रीच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार - 'मंद'. मागीर तो धाय दिकांत कसो फाकतलो? खरें म्हळ्यार कवितेंत उतरां वापरताना कवयित्री जाय ती काळजी घेनां अशें दिसता.

हांव एकीकडे कवीच्या मॅडनेसविशीं उलयतां, जाल्यार दुसरीकडे कवितेंतल्या लॉजिकविशीं लेगीत प्रस्न उपस्थित करतां हो विरोधाभास न्हय काय कितें अशें कोणूय म्हणूंक शकता. खरें म्हळ्यार वयर-वयर हो विरोधाभास कसो दिसलो तरीय बऱ्या कवितेंत मॅडनेस आनी लॉजिक हातांत हात घालून चलतात. आनी ते तशें चल्लें जाल्यारूच कवितेक आशयाचे अनेक पदर मेळूं येतात. देखीक, अरूण साखरदांडेच्या 'उपरांत' हे कवितेंतल्यो ह्यो सकयल दिल्ल्यो वळी पळयात :

**हांवूच म्हजी आवय जालों**
**आनी म्हाका मांडयेर घेतलो**
**... म्हजी आवय मेले उपरांत**

- हातूंत आवय मेल्या उपरांत आपूण कितलो पोरको जालां हाचें चित्र आयलां. 'हांवूच म्हजी आवय जालों आनी म्हाका मांडयेर घेतलो.' - हो कवीचो मॅडनेस. मात ही गजाल तो आपली आवय मेली म्हणून करता - हें लॉजिक. म्हळ्यार पयल्या दोन वळींतलो मॅडनेस हांगा कवी तिसऱ्या वळीक लॉजिकली कनेक्ट करता.

कवयित्रीच्या 'कळसूत्री बावली' हे कवितेंत तर फकत 'इरॅशनल' लॉजिक पळोवंक मेळटा. पूण कवितेक आवश्यक आशिल्लो मॅडनेस खंयच दिसना. त्याखातीर ही लेगीत एक सपाट कविता थरता.

**दुसरो जन्म आसल्यार**
**तो बरो मेळचो**
**म्हूण बरें वागचें**
**समर्पीत जावन जगचें**

- असलो गद्य उपदेश ही कवयित्री आपले कवितेंत करता आनी काव्य, काव्यानुभव हाचेर चर्चा करपाक खंयच सुवात दवरिना.

तातल्या तातूंत 'बुळमे फुटले काळजानी' ही तांची बरी कविता अशें म्हणूं येता. कारण तातूंत कवितेक जाय आशिल्ले 'काव्यमय घटक' आसात.

**मात लेगीत उबारीची**
**दोंगुल्लेक उरूंक ना आस**
**माती फातर गिळत वळत**
**उदक देंवलें गांवांनी**

- परग्रस्त स्थितीचें वर्णन कवयित्रीन हे कवितेंत ताकदीन केलां. दुसरें म्हळ्यार ही कविता छंदांत आसा. आनी तो तिणें बेस बरो वापरला

**गांव तरी उरले खंय**
**गोरूं ढोरूं मरून गेली**
**मातयेभरवण जावन घरां**
**व्हावून गेलीं दर्यान**

**उक्ताडार पडलीं पिलां**
**कुडकुड्यांत पडलीं पोरां**
**शेत गेलें खोरेंय गेलें**
**बुळमे फुटले काळजानी**

हांगा 'बुळमे' ह्या उतराचो अर्थ म्हाका खबर ना. हांवें दोगा-तिगांकडे चौकशी केल्ली पूण तांकाय तो सांगूंक येवंक ना. पूण हे कवितेचो भावनीक फोर्सूच असो आसा की अर्थ कळूं ना कळूं, पूण तें उतर खंयतरी आमकां भिडटा. दुखह, हुंदके अशी अर्थाची ताका सया मारता. बऱ्या कवितेचें लक्षण तें हें.

'बुळमे फुटले काळजानी' ही कविता कवयित्रीचो एक 'ॲसेट' म्हणून पळोवं येता.

वतां-वतां एक गजाल सांगतां. पयरूच 'बिम्बा'चो संपादक मेळ्ळो. तो म्हाका म्हणूंक लागलो, 'तुजो रिव्ह्यू' वाचून एक कवयित्री फोन करून रडली. तुवें तिचेर जी टिका केल्या ती खंय तिच्या काळजाक 'झोंबली.'

हें आयकून हांव अस्वस्थ जालों. कारण मुद्दम कोणांक रडोवपाखातीर काय हांव बरयना. कवितेची समीक्षा करपाचें हांव म्हजें काम करतां आनी तें रसिकतेच्या नैतिकतेंतल्यान करतां इतलेंच म्हजें सांगणें.





– अपर्णा गारुडी
शिवोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४

# यादींचो परमळ



**विन्सेंटाक ‘पाय’ नाशिल्लो. भावभयणां नाशिल्लीं. तो सुशेगाद पावणे आठांक उठटालो. बाटलेंत भरिल्ली च्या बॅगांत घालून तोंड धुयनासतना, केंस वळयनासतना लोळको–चुरिल्लो गणवेश घालून धांवत धांवत शाळेंत येतालो. सदांच उसरां पावतालो. हांवें ताका खूब समजायलो. पूण गांवार सोडिल्लो पोर तो!**

**खू**ब दिसांनी खोर्ले मळार गेल्लें. येतना गाडयेन पेत्रॉल घालपाक ओल्ड गोवा पेत्रॉल पंपाचेर गेलें. चड गर्दी नाशिल्ली. पेत्रॉल घालपाक एक २५–३० वर्सांचो, लांब–रूंद, खाड मिशयांचो तरणाटो उबो आशिल्लो. म्हाका पळयनाफुडें उजवो हात फाफडीत तो आड्डूंक लागलो. ‘‘आवय गे आवय गे दुखता–दुखता आजुनय दुखता.’’ हाका आनीक कितें जालें काय? हांवें ताका अपुरबायेन विचारलें ‘‘आपटलो रे हात? काय कितें चाबलें रे?’’ तर म्हणपाक लागलो ‘‘ना टिचर तुवें मारिल्ली पट्टी अजून दुखता.’’ आनी व्हडल्या व्हडल्यान हांसपाक लागलो. हांव अजापान ताका पळयतूच उरलें. ‘‘अजून वळखूंक ना टीचर? तूं मात तश्शी आसा. हांव तुका रोखडोच वळखलों. टीचर हांव तुजो जॉनलो गे. दिवाडे शिकतालों. खूब मस्ती करतालों. तूं म्हाका एकल्याकच पट्टी मारताली आनी तास सोंपतकच वर्गाभायर आपोवन ‘चड दुखलें रे तुका? आनी मस्ती करूं नाका आं!’ म्हूण समजायताली. आतां याद जाली टीचर?’’

हांवें वीस वर्सां फाटीं वचून जॉनल्याच्या यादींचो पुडो उसयलो. ताच्या मस्तेपणाच्यो, भुरगेंपणांतल्यो अपुरबायेच्या खोडकरपणाच्यो यादी मनांपोरसांत भिरमुटलेवरी नाचपाक लागल्यो. हांवें अजापान म्हळें, ‘‘जॉनल्या तूं?’’ ‘‘हय टीचर. फाटलीं सात–आठ वर्सां ‘भायर’ वचून भरपूर जोडून आयला. डिसेंबरान म्हजें काजार आसा. पयसो आसलो तरी व्हंकलेक बेकार न्हंवरो नाका म्हूण हांगा कामाक रावलां. टीचर तुका काजराक येवचेंच पडटलें. मांय तुजी सदांच याद काडटा. येतली न्हय टीचर?’’ तो उमेदीन नॉन–स्टॉप उलयतालो. म्हजे फाटल्यान पेत्रॉलाक रांक लागिल्ली. हांवें म्हळें ‘‘जॉन तुका मेळून बरें दिसलें. तुज्या काजराक येतलेंच हांव. व्हॉवळीक मात धाड.’’

इतलें म्हणीत हांवें ताचो निरोप घेतलो.

गाडयेन वेग घेतलो. विचारांचीं चक्रां मात रिव्हर्स घुंवपाक लागलीं. हांव बावीस वर्सां फाटीं पावलें. शिक्षकी पेशांतल्या दिवाडेच्या इश्कोलांतलें म्हजें पयलें वर्स १९८८. विद्यार्थी दशेंतल्यान शिक्षकी पेशांत जाल्लें स्थित्यंतर पचोवपाक वर्सभराचो काळ लागलो. कांय विद्यार्थी म्हज्याकय वयान १–२ वर्सां व्हड. मांय–पाय फॅरिनाक, ‘ओल्ड ग्रॅनी’ कडेन रावन शाळेंत वर्सां धुकलप, घराकडेन भाटां–बेसां, पयसो आनी अपुरबायो. तांचे मुखार कसलोच उपाय चलनाशिल्लो. तांचेकडेन इश्टांभशेन वागप, भुरग्यांभशेन वागप काय जाणट्यांभशेन वागप हें थारावपाक कितलोसोच वेळ लागलो. क्लास कन्ट्रोल हो वर्गांतलो म्हत्वाचो घटक. धावेच्या वर्गांत तेन्ना २२-२३ वर्सांचीं भुरगीं. मागीर ह्या जाण्ट्या भुरग्यांक वर्गांत कन्ट्रोल करपाक म्हाका तरातरांचे उपाय सोदचे पडटाले. तांची मस्ती पळोवन खूब राग येतालो. म्हजें बावीस वर्सां पिरायेचें सळसळटें रगत. तातूंत ‘छडी लागे छम छम, विद्या येई घम घम’ ही कविता तोंडपाठ आशिल्ल्यान येद्या व्हडल्या

विद्यार्थ्यांच्या हातार एकतरी पट्टी पडटालीच. वर्गाभायर येतकच दिसतालें, ह्या विद्यार्थ्यांची आनी म्हजी पिराय एकूच. हांव टीचर जालें आनी ते धावेक आसात. येद्या व्हडल्या विद्यार्थ्यांक पट्टी मारप समा न्हय. मागीर तांकां भायर आपोवन बरेऽऽ तरेन समजायतालें. शिक्षकी पेशांतलें म्हजें पयलें वर्स ही म्हज्या शिस्तीची, योग्यतायेची, कतृत्वाची सत्वपरिक्षाच आशिल्ली. एक वर्साच्या अणभवा उपरांत विद्यार्थ्यांक समजून घेवपाची कला म्हाका साध्य जाली. तेन्ना सावन आयज मेरेन पट्टी हातांत घेतली ना. पट्टेच्या मारा परस सहानुभूती आनी समजीकायेचें वखद लाख मोलाचें थारलें. हांवें म्हाका बदल्लें. तेन्नाचो राग आतां धा टक्केय उरूंक ना. आतां याद केल्यार हांसपाक येता. आयज अणभवान गिरेस्त आनी समृध्द जाल्लें मन कितलें शांत आसा. आनीक सोळा वर्सां ह्या शिक्षकी पेशांत कितलेशेच अणभव गाठीक बांदपाचे आसात. पूण त्या पयल्या वर्साची याद 'शिक्षकी पेशाची' बुन्याद म्हूण यादींच्या पोरसांत सदांच परमळत उरतली.

दिवाडेच्यान बदली जावन हांव मेरशे 'अवर लेडी ऑफ मेरसेंज' हायस्कुलांत पावलें. थंय शिकिल्लो विन्सेंट असोच फाटल्या दिसांनी मेळ्ळो. विन्सेंटाची मांय फातोडेर उठून चार वरांचेर काळी च्या करून बाटलेंत भरून दवरताली. आनी मडगांवां नुस्तें हाडपाक वताली. आगशेच्या बाजारांत दिसभर विकताली. राती णव-धा वरांचेर घरा पावताली. विन्सेंटाक 'पाय' नाशिल्लो. भावभयणां नाशिल्लीं. तो सुशेगाद पावणे आठांक उठटालो. बाटलेंत भरिल्ली च्या बॅगांत घालून तोंड धुयनासतना, केंस वळयनासतना लोळको-चुरिल्लो गणवेश घालून धांवत धांवत शाळेंत येतालो. सदांच उसरां पावतालो. हांवें ताका खूब समजायलो. पूण गांवार सोडिल्लो पोर तो! आवय पोटा फाटल्यान. निमाणें ताका एक अलार्माची घडयाळ हाडून दिली. तेन्नाच्यान सात वरांचेर दोळे चोळीत गणवेश आनी पुस्तकां बॅगांत भरून शाळेंत येतालो. दनपारां शेजाऱ्यांगेरूच जेवतालो. म्हजे फाटल्यानय तेन्ना संवसार नाशिल्ल्यान हांव ७ ते ७.१५ मेरेन इश्कोलांत पावतालें. विन्सेंटाखातीर दुथ-पेस्ट, ब्रश, साबण, तुवालो आनी नवो गणवेश इतलेंय सगलें हाडलें. ताका दांत घासपाक शिकयलें. प्राथमिक शाळेच्या शिपायकान ताका चकचकीत न्हाणयलो. एक पावडरीचें लात आनी दातोणीय हाडिल्ली. हांवें ताचे केंस वळयले. पावडर मारून ताका सारको हिरो केलो. पांचवेच्या वर्गांत शिकपी विन्सेंट गोरो नाशिल्लो. काळोच पूण दिसपाक सुंदर. ताचे चकचकीत दोळे उतरांपरस चड उलयताले. ते दिसा प्रार्थने वेळार भुरगीं ताका वळखुपाक विसरलीं. ताचें हें नवें रूप सगल्यांनी खोशयेन स्वीकारलें. ते दिसाच्यान तो बदल्लो. चकचकीत रावपाक लागलो. इश्कोल म्हळ्यार ताचें दुसरें घरूच जाल्लें. फाटल्या दिसांनी तो पणजे मेळ्ळो. म्हाका पळोवन भुरग्यांभशेन धांवत म्हजेसरी आयलो. ''टीचर म्हाका वळखलें?'' त्या सुटाबुटांतल्या तरणाट्याक पळोवन हांव अजापलें. पूण उलोवपाचे स्टायलीवेल्यान वळखलें. ''तूं विन्सेंट. तुका विसरूं येता?'' हांवें म्हळें. आयज तो एके खाजगी कंपनीत मॅनेजर आसा. ताची मांय आनी तो सुखांत आसा.

मेरशेच्या इश्कोलांतल्यो यादी विसरप शक्य ना. कारण ह्या इश्कोलांत हांव आनी म्हजी वांगडी शिक्षिका सेलीन आमी दोगांयनी 'चिंबेल'चे झोपडपट्टींतलें एकान एक घर भोवन थंयचीं भुरगीं हाडून पांचवेचो वर्ग सुरू केल्लो. प्राथमिक शाळा पयलींच आशिल्ली. डायोसेशन सोसायटीच्या मिडल स्कूलची ती सुरवात आशिल्ली. कारकून, शिक्षक, शिपायक सगलें आमीच. सकाळी सात वरांसावन सांजे सात वरामेरेन तीं भुरगीं, तें इश्कोल आमचें सर्वस्व आशिल्लें. शिक्षणाचो स्पर्श जावंक नाशिल्ल्या कुटुंबांतल्या ह्या विद्यार्थ्यांक शिकोवप सोपें नाशिल्लें. ह्या गरीब भुरग्यांच्या शिक्षणाचो खर्च उखलपाक आमचे परीन आमी मजत करतालींच पूण गांवांतल्या आनी हेर वाठारांतल्या गिरस्तांगेर भोवन तांका एकेक भुरगो दत्तक (पोसको) घेवपाक विनंती करतालीं. तांका तांच्या शालेय शिक्षणाचो खर्च दिवपी एक हक्काचो पालक मेळटालो. अशे वीस पालक आमी तयार केले. ह्या पालकांनी ही जापसालदारकी आनंदान स्वीकारली. पयशांची वेवस्ता सहज जाली. पूण चिंबलच्यान येवपी ह्या कन्नड आनी मुस्लीम समाजांतल्या विद्यार्थ्यांक आनी तांच्या पालकांक शिक्षणाकडेन सकारात्मक नदरेन पळोवपाक शिकोवन तांचें मन आनी मत परिवर्तन करप सोपी गजाल नाशिल्ली. म्हाका आयज लेगीत तो दीस याद आसा. सवेंत शिकपी रुक्सानाचे शादीचें आमंत्रण पळोवन आमची तकलीच भेरायल्ली. कायदो आनी पुलीस यंत्रणेचो आदार घेनासतना आमी हो बालविवाह थांबोवपाचें थारायलें. अंधश्रध्दा आनी खुळचट चाली रितींक बळी पडिल्ल्या ह्या समाजांतल्या कुटुंबाक जाता तितलें आमी समजायलें. न्हंवरेकारांक समजावपाक आमकां विजापूर मेरेनचो प्रवास करचो पडिल्लो. पूण यश मेळ्ळें. शादी जाली ना. रुक्साना एल्. एल्. बी. मेरेन शिकलें. बेळगांवच्या एका आदवोगादाकडेन चोविसाव्या वर्सा ताची शादी जाली. सुखान संवसार करता. पूण ते वेळार आपल्या समाजा आड वचून ताच्या कुटुंबान धैर्य दाखोवन जो निर्णय घेतलो तो तोखणाय करी सारकोच आशिल्लो. जितलो मोग आमी ह्या भुरग्यांक दिलो ताच्या परस चड मोग ह्या भुरग्यांनी आनी तांच्या पालकांनी आमकां दिलो. तांची आमचेविशीं आशिल्ली कृतज्ञतायेची भावना आनी विश्वास हीच आमची सगल्यांत व्हडली जोड आशिल्ली. ह्या इश्कोलांच्या यादींचीं २-३ पुस्तकांच तयार जातलीं. हें इश्कोल णववे पर्यंत वाडलें तेन्ना म्हजी बदली जाली. म्हाका सदांच दिसता त्या इश्कोलांत केल्लें काम ही नोकरी नाशिल्ली तर तें एक मिशन आशिल्लें. आयज हांगा हजारांवयर भुरगीं शिकतात. एकेका यत्तेच्यो कितल्योश्योच तुकड्यो आसात.

म्हज्या मनाच्या पोरसांत मात १९९२ वर्साच्यो यादी परमळत आसात.



# एका महापर्वाचो आरंभ आनी अस्त



धवें खोमीस घालून इनशर्ट करून उबो आसा तो भुरगो रवीन्द्रबाब.
शेजराक बापूय राजारामबाब. रवीन्द्रबाबाक धरून आसा तो न्हय.



आवय वांगडा भुरगो रवीन्द्र



भाव देवेन्द्र आनी भयण सरोजिनी वांगडा रवीन्द्रबाब



'म्हजे जिर्णेतल्या रखरखीत वाटेवेल्यान चलतलें?'
गोदूबायक होच प्रस्न रवीन्द्रबाब विचारिना मू ?



'हय. हांसत हांसत चलतलें'



गोदूबाय वांगडा रवीन्द्रबाब





काऊन्सील ऑफ ॲक्शनच्या सत्याग्रहाचें फुडारपण करतना रवीन्द्रबाब





गोंय मुक्ती उप्रांत आझाद मैदानाचेर पयली प्रार्थनासभा घेतना काकासायब कालेलकार, वांगडा रवीन्द्र केळेकार, शंकर भांडारी, पुरुषोत्तम काकोडकार, बाकीबाब बोरकार आनी हेर

कथा



– विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा',
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

**आमी आमच्या खुत्तार मुखार येवंक शिकूंक जाय. आज मेरेन आमचो एकलोय आमदार विधानसभेंत कित्याक ना? एकलो आसलो ताका आतां वालोर तरी आसा? आमदार जावंक जाय म्हण जालो, लोकांच्या तोंडार उरपाचें एक काम तरी केलां ताणीं? तुमकां सांगतां हांव, हे मुखार आमच्याच मनशांक आमी तयार करचे पडटले. आमचे कडेन कितले दोतोर, इंजनेर, वकील आसात मरे.**



# अध्यक्षाची व्हडवीक

मिंगेल आनी कायतान जमातीक वचपाक तयार जावन आसले. ते सांतानाची वाट पळयताले.

"घे रे तांका सगळ्यांक, म्हजेय सपोर्टर आसात म्हण तांका कळटलें न्ही?" सांतानान गाडी थांबयतांच मिंगेल आनी कायताना बराबर आशिल्ल्यांक घेवपाक सांगलें तशे ते सगळे गाडयेंत बसले.

मूळ गोंयकारांची मडगांव एक जमात आसली. सद्याक गोंयांत मूळ गोंयकारांचेर बरेच अत्याचार जातात म्हण जायत्या जाणांची कागाळ मनांत दवरून वेग-वेगळ्या क्षेत्रांत वावुरपी मूळ गोंयकारांक तांचे संघटणेन कॉल दिल्लें. जायत्या थरांवयले लोक जमातीक हाजीर जावपाची आस्त आसली. तशें पळोवंक गेल्यार फाटल्या कांय वर्सांत ह्या मूळ गोंयकारांच्यो कितल्योच संघटना जाल्यात आनी सगळे आपूण फुडारी म्हण दाखोवपाच्या यत्नांत समाजाचें कसलेंच काम करिनांत.

"तुमचो अध्यक्ष आपूण व्हडलोच म्हूण समजता मरे, गेले फावट लोकांनी विचारिल्ल्या प्रस्नांक तो जापोच दिवंक शकलो ना. कसलें फुडारीपण घेवन बसला तो?" कायतानान नकारार्थी सुरान म्हळें.

"ताच्यान जापो दिवंक जाताल्यो. तो मुद्दाम वोगी राविल्लो. कित्याक, फाटलीं कितलींशींच वर्सां सगळे एका मेजार येवंक कशेच तयार नासले. कितल्या कश्टांनी तांका एकठांय हाडल्यात. अध्यक्षाचे एके जापेन सगळे कश्ट निर्फळ जावपाचे. तुमचे प्रस्न ताणीं नोंद करून घेतल्यात आनी बसके उपरांत तांचेर भासाभासय जाल्या. घडये आयच्या उलोवपांत तो तुमच्या प्रस्नांचें स्पश्टीकरण दितलो." सांतानान ताची समजूत घालपाचो यत्न केलो.

"बरें! म्हाका एक सांग, ह्या सगळ्यांक एकठांय केल्यात म्हळ्यार विचारांची तडजोड केल्या?" मिंगेलाच्या मनांत धुंवताले तें तोंडार आयलें.

"तडजोड करचीच पडटा न्हय? फाटले जिल्हा वेंचणुकेंत कितें घडलें? दोगांय आमचींच मनशां एका मेका विरूद्ध लडलीं मरे? सांग कोणें कोणावटेन रावन दुस्मानकाय घेवपाची आसली? कितल्या जणांनी अध्यक्षाक विचारलें. ताणीं बरो निर्णय घेतलो. जिखता तो आमचो मनीस म्हणून समादान करून घेवपाचें म्हण सांगून तो मदीं रावलो. ना जाल्यार परतून एक फावट आमी वांटून वतले आसले."

"आजची जमात कित्याखातीर आपयल्या?"

"सरकारी धोरणाचो आडावो घेवंक. आर्लेम-फोंडा रस्तो रुंदीकरणाच्या नांवान सरकारान आमच्यो जमनी बळकायल्यो. आतां राष्ट्रीय म्हामार्ग १७ रूंद करपाचो विचार चल्ला. त्या वाठारांत आमचे कितलेच समाजबांधव रावतात. आतां तांची जमीन वचपाची आसा. दवर्ले वाठारांत सुमार वीस हजार चौकण मीटर जमीन सरकार ताब्यांत घेवपाक सोदता. त्या लोकांचो विरोध आसा पूण सरकारी अधिकारी हो विरोध मोडून काडूंक सोदतात. ह्या शिवाय आतां लोकसभेंत बायलां आरक्षणाचें बील येवपाचें आसा. तातूंत आमकां आरक्षण मेळपाची संदी कमीच आसा. सावर्डे-कुडचडें वाठारांत आमचे समाज बांधव कश्टतात. अशा साबार प्रस्नांक तोंड दिवपी लोकांची ही जमात. आमच्या अध्यक्षान हाचेर खोलायेन अभ्यास केला आनी काल आमी मेळिल्ले तेन्ना तो सांगतालो ह्या लोकांक मार्गदर्शनाची सामकी गरज आसा म्हण. तो कांय आमदारांकडेन उलयला, बिगर सरकारी संस्थांकडेन उलयला, बायलां संघटणांकडेन उलयला. हें सगळें लक्षांत दवरून तो आयचे जमातीक मार्गदर्शन करतलो. आमी सगळ्यांनी ताका तेंको जाहीर करूंक जाय. घोशणा दिवन ताका उर्बा दिवंक जाय. आमचो विरोध आसतनाय सरकार आमकां वेठीक धरता जाल्यार आमी लडो दिवंक नाका? एक भाशेन हाचीच तयारी करपाक ही जमात आपयल्या." सांतानान चड म्हायती दिली.

"एक सांग सांतान, फाटीं ते वास्को कोणे तरी पयशे खाले म्हणटाले तें कितें जालें? परते मेळ्ळे तांचे पयशे?"

"खंय मेळ्ळे? आमच्या अध्यक्षान एक फावट म्हाकाय व्हेल्लो. बरें भाशण ठोकलें ताणें. गरिबांच्या तोंडातलें काडून व्हरतल्यांक सजा जावंकूच जाय. ही ताची ओळ म्हाका तोंडपाठ जाल्या. सगळ्या लोकांनी

उखलून धरलो मरे ताका."

"वयर पासून बरीच वळख आसा ताची, न्हय रे?"

"वळख आसा? ताणें ती वळख तयार केल्या. तो एक व्हडलो राजकारणी मरे. आमच्या समाजा विरुध्द जावपी प्रत्येक लड्यांत तो सहभागी जाला. आपले बराबर समर्थक आसात काय विरोधक आसात हें पळयनासतना तो सरकारा विरुध्द झगडलो. नीत मेळटली वो ना मेळटली तें पळयनासतना समाजाक मुखार हाडूंक वावुरलो. देखून तो राजकी विरोधी पक्षांचो इश्ट जालो. काँग्रेस पक्षाक ताणें केन्नाच लागीं धरलो ना म्हण स्थानीक पक्षात रावन तो समाज प्रबोधन करूंक लागलो. एक फावट विधानसभा वेंचणुकेक उबो रावपाचें ताणें धाडस केलें. तेन्नाच ताका कळ्ळें तितलें उंच आपलें बळगें पावचेना म्हण. मागीर तो फक्त पंचायत राजकारणांतच घुस्पून उरलो. ताणें आपलें फॅमिली लायफ ह्या समाजाखातीर घालें मरे. म्हण तो राजकी मळार पर्जळटा."

"तशें जाल्यार म्हज्या शेताचें मात्शें पळोवंक लाय मरे ताका. म्हजो आजो रोयतालो. ताचे फाटल्यान म्हज्या बापायन रोयलें आनी आतां हांव रोयतां. कोमुनीदाद नांवार करपाक तयार ना. हेर वाठारांत लोकांचीं शेतां नांवार जालीं. फाल्यां अकस्मात रोवंक दिवपाचें बंद केलें जाल्यार?" मिंगेलान आपल्या मुद्द्याचें भांगर करूंक येवजिलें.

"जमात जातकच उलोवंया ताचे कडेन. आपणाच्यान जाता जाल्यार जेरूल आदार करतलो."

उलयतां उलयतां ते लोहिया मैदानाकडेन पावले. सिंडीकेट बँके सामकार गाडी पार्क केली आनी सगळे देंवले. लोहिया मैदानार आदींच खूब लोक येवन आसले.

सांतान बेगीन बेगीन मुखार गेलो. ताकाय एक भाशण करपाचें आसलें. तशी तो तयारी करून आयिल्लो. आनी आतां येतां येतां जें संभाशण जालें, ती ताच्या भाशणाची एक भाशेन तालीम आसली. तांका सगळ्यांक एके कडेन बसपाक लावन सांतान माचयेर गेलो. बॅनर बी लावन दवरिल्लो आनी धा कदेलां घाल्लीं. समाजाचे कांय फुडारी येवन स्वातंत्र्य सैनिकांचे कचेरेकडेन रावन उलयताले. घडये सगळे अध्यक्षांची वाट पळयताले. तरी जमात सुरू करपाचो वेळ जावंक नासलो.

"खंयच्या मंत्र्याक आपयला?" एकल्यान फुड्यांत येयत सांतानाक विचारलें.

"सगळ्याच कामाक मंत्री जाय रे? आनी आमच्या समाजाची जमात घेवंक आमी दुसऱ्या समाजांतल्या मंत्र्याक आपोवपाचें? आमचो अध्यक्ष आसा तो पुरो मरे व्हडलो मंत्री. आज ताचें भाशण आयकतलेच जायात तुमी. सगळ्या मंत्र्यांक आनी संत्र्याक धुवन काडपाचो विचार आसा ताचो." सांतानान अध्यक्षाची व्हडवीक गायली.

"तरी पूण मंत्री ते मंत्री न्ही?" दुसऱ्यान म्हळें.

"हय रे. पूण आमी आमच्या खुस्तार मुखार येवंक शिकूंक जाय. आज मेरेन आमचो एकलोय आमदार विधानसभेंत कित्याक ना? एकलो आसलो ताका आतां वालोर तरी आसा? आमदार जावंक जाय म्हण जालो, लोकांच्या तोंडार उरपाचें एक काम तरी केलां ताणीं? तुमकां सांगतां हांव, हे मुखार आमच्याच मनशांक आमी तयार करचे पडटले. आमचे कडेन कितले दोतोर, इंजनेर, वकील आसात मरे. तांका आमचे आमदार करूंक जायनांत आमच्यान? फक्त आमच्यांतलो गर्व काडून भायर मारचो पडटलो. म्हज्या भाशणांत हांव हेंच सांगपाचों आसां. आमकां ह्या उच्च वर्गीय लोकांनी जातीच्या नांवान, धर्माच्या नांवान, कातीच्या नांवान वाटून घाल्यात. आनी आपूण मात सगळे एकठांय बसून आमचें हांशें करतात. हें वळखुपाचो वेळ आयला."

"अरे, अरे तुवें तर हांगाच भाशण सुरू केलें मरे." संघटणेचो सेक्रेतार येवन सांतानाच्या खांदार हात घालून उलयलो.

"अजून अध्यक्ष कसो पावंक ना रे?" सांतानान विचारलें.

"भायर सरला खंय, समाज कल्याण खात्यांतल्या मनशांकडेन आमच्या समाजाखातीर आशिल्ल्यो येवजण्यो समजून घेता म्हळ्यार मात्सो वेळ जालो खंय."

"मागीर चलात तर, तयारी करुया मरे. लोक भरपाक लागलो."

"चल तर."

ते दोगूय माचयेर वयर चडले. लोकांची गर्दी वाडपाक लागली. कोणे तरी धोलाचेर बडी खेळयली.

'घुमचे कटर घूम, घूमचे कटर घूम
मूळ गोंयकार आमी निजाचे
धोल, ताशे घुमट आमचें दायज
घुमचे कटर घूम, घूमचे कटर घूम'

एकल्यान कवन सुरू केलें. सवका सवका लोहिया मैदान लोकांच्या आवाजान गाजपाक लागलें. तेन्नाच निवेदकान मायकाचेर जमात सुरू करपाची घोशणां केली. उलोवपी आसात तांका माचयेर येवपाचें आमंत्रण दिलें आनी अध्यक्ष मात्सो उसरां पावतलो म्हण जाहीर केलें.

लोहिया मैदान चिक्कार भरिल्लें. घडये पयले पावट ह्या समाजाचो असो मेळावो भरिल्लो आसतलो. वेगवेगळ्या संघटणांनी एकठांय येवन एक भाशेन हो म्हासंघ घडयल्लो, तांचे लोक आपापल्या फुडाऱ्याक माचयेर पळोवन शिळोण्यो घालूंक लागले आनी तांच्या नांवार हुयेल्यो मारपाक लागले. थोडे जण वेळ जालो म्हण बोवाळ मारपाक लागले. तेन्ना निवेदकान येवकाराचें उलोवप करपाक सेक्रेटरीक आमंत्रण दिलें.

तितल्यांत सांतानालो मोबायल वाजलो. नंबर अध्यक्षाचो आसलो. सांतान आपल्या जाग्यावयलो ल्हवूच उठलो आनी माचये फाटल्यान गेलो. सेक्रेटरीन भाशण सुरू केल्लें.

"हॅलो, हॅलो... सारकें आयकूंक येना. बसका सुरू जाली... कितें? कितें म्हणलें? अध्यक्षाक अपघात...सिरीयस... बांबोळे.... बरें बरें. हांव आतांच येतां."

सांतानाले पांय थरथरपाक लागले. अध्यक्षाक जाल्ल्या अपघाताची बातमी तिजोरेराक सांगली आनी तसोच गर्देंतल्यान भायर सरून बांबोळे वचपाखातीर गाडयेंत बसलो.





## वाट तुजी पळयतां

कशी म्हण
विसरूं हांव
म्हुर्त तुजी
बसयल्या
काळजाच्या
कोनशाक
तिका हांवें
लिपयल्या
काळाच्या सांगाता
व्हांवत गेलो तूं
हात म्हजो सोडोवन
धावत गेलो तूं
हांव मात
थंयच
वाट तुजी
पळयतां
हात म्हजो फकत
तुज्याच खातीर
रावता

– शोभा शिवा फुलकार
किरला वाडो,
चिंबेल – गोंय.



## नाक घस्टय

हांव केन्ना-केन्ना
कोणाकय रागान सांगतां
म्हज्या पांयांकडेन
नाक घस्टय
पूण पयरचे राती
म्हज्या पायान घात मारलो
लायट गेल्ली, काळोख बिण्ण
आंगणाचीं सोपणां देंवतना
पांय चुकलो
आनी शेवटलो
नाक फुटलें
रक्ताचे व्हाळ
पांय म्हणपाक लागलो
आतां घस्टय
तुज्याच पांयांकडेन
तुजें नाक



– अशोक भोंसले
भाटलें, पणजे– गोंय
फोन : ९४२२४४४२११

## एक कविता

कांय खीण मोने आसतात
आपसांत उलोवपी
मोने खीण मोनेच आसतात
काय जीण मोनी आसता
आपसांत भोगपी
मोनी जीण मोनीच आसता
काळजांतल्या वादळांक
अळंग आपोवणें दिता
तें वादळ इतलें वादळ घालता
घर, भाट, मायेमनशां, कपडो लत्तो
सगळ्यांक मातयेभरवण करता
काळजांतलें वादळ खवदळ घालीत
नकळत तकलेंत पावता
मागीर........ मागीर
पांयां सकयली जमीन हालता
माथ्यावेलें मळब धोलता
पूण कविता मात –
कविताच उरता सासणाची

– सुफला रुद्राजी गायतोंडे
मिरामार, गोंय.
फोन: ९८२३१११९१७





## पवित्र श्रावण

आयलो आयलो
श्रावण आयलो
चोंयवटेन पवित्रतायेचो
परमळ पसरीत

मळबाच्या पदरांत लिपिल्ल्या
सूर्या किरणांक धतरेर शिवरीत
तणां तणांत मोतयां चवरीत
खिणांत वत जाल्यार खिणांत पावस
अशे तरेन आयलो श्रावण
आपालिपा खेळ खेळत

अचळय इंद्रधोणवान शिंपडले
आपणाले सप्तरंग
दिवंक येवकार मुजरत श्रावणाक
कणसां धोल्लीं वाऱ्या नेटार
हांसलीं पिशीं फुलां मुमुरखीं
आयलो तो पळोवन श्रावण

पोरसांत परमळटात जायो जुयो
घमघमूंक लागलो सगळो वाठार
जाया-जुयांचो परमळ घेवन
नवे व्हंकलेक व्हरूंक कुळारा
आयलो खोशयेन श्रावण

दीस आयले उपास तपासांचे
धूप, कापरा उजवाती घमघमाचे
बसूंक लागले घुमटार हात
आरतींकूय देवळांत जाली सुरवात

**– संतोषी कोले**
मदलें भाट, शिवोली

## गीत

आनीक एक आमोरी येतली
जिणेच्या सरत्या दिसांची
येतली रात रोकडी आतां
पुसूंक याद धतरेवेली ।।
तकालस आनी हुलप हांगा
सोंसला जायत कितल्या जिवांनी
तांगेल्या वावराची रुजवात वतली
घोळून धतरेच्या उमाळ्यानी ।।
आमोरी ही आयची खरी
पिरायेन खूब तेंपा आदली
रंग घेवन येतली सांगाता
चिंतनाचे म्हज्या पावंड्याची ।।

**– महेश पारकार**
शिरोडे-गोंय

## एक कळी

पांचव्या भरगच्च झाडांनी
एक कळी,
आपल्याच तोऱ्यान फुलिल्ली
दोळ्यांतलीं निरंजना पेटोवन,
उत्सुकतायेन वाट पळेताली

तिगेलो साज शिरंगार
आकूळ पिकूळ चेरो
सगळे भाव शिंपडून गेलो
इतल्यान घमघमीत आयलो चाफो
तेन्ना कळयेच्या पोल्यार फुल्लो हांसो

घमघमीत चाफ्यान भर दनपारां
कळयेक घेतलें अळंग गोपान
'कितलें तिश्टावचें, अशेंच हांवें'
अशें म्हणून दुकां दोळ्यांनी भल्लीं
चाफ्यान समजायतकंच
खुस्सकरून हांसली...!

**– सुनिता सुभाष शाह**
'शांताबन'
मेरशे-गोंय.



## तूंच म्हजो आधार

कितले गूण आसात तुज्यांत
कोणाच्यान मेजूंक जायत काय
संवसार तुजी निर्मिती
आसा एक व्हड अजाप
आमी भाग्यवान म्हूण
पळोवंक मेळ्ळें सत्य अमाप
वायट बरें तूंच दाखोवन दिवपी
आमी हांगा निमित्तमात्र शिंवपी

निराधारांक दिलो तुवें आलाशिरो
देखून मागतां नदर तुजी
आमचेर आसल्यार पुरो
वचत थंय तूंच म्हजो आधार
घेवन नांव तुजें हांव
करतां सगळें पार

तुजें सोबीत रूप
मनाक म्हज्या भुलयता
तन मन धन तुका ओंपून
हांव तुजोच करतां जप
गांठीक घट्ट मारलां हांवें
चिंतन तुजेंच हांव करतलों
चलत रावतलों दवरून भरवंसो
घसघशीत यश मेळोवंक
वचत थंय तुजो घेवन आधार

## चिंतन

देवा गणेशा चिंतन तुजें करतां हांव
दोळे भरून पळेतां तुजें रूप, राव
तोंडान म्हज्या दीस रात तुजेंच नांव
दिगा देवा शक्त म्हाका सोसूंक सगळे घाव

मनशापरस सोंसलें तुवें चड दुख
राक्षसांक दाळाक लावन आमकां दिलें सूख
पावस गीम थंडी वाऱ्यांत राखलें आमचें मूख
धान्य पिकोवंक शक्त दिवन मिटयली आमची भूक

जें जें दिसता तें तें घडलां तुवें
तूं घडयता, तूंच मिटयता, तूंच पेटयता दिवे
मुळांत तूं एकूच, फकत रूप दिसता नवें
तुका पळोवन मन केलां धादोस हांवें

## गणराया

हे शक्तीशाली गणराया
केदी प्रभावी तुजी काया
तुका सगळ्यांचीच माया
कोणाचीच भक्ती वचना वाया

कर्माची सुरवात जाता तुज्याच नावान
पुजा करतां आमी तुजी भक्तीभावान
विघ्न हाडपी तूं, विघ्न निस्तरावपीय तूं
राग आयल्यार कोप दाखोवपीय तूं

मांय पार्वती तात महादेव
मांडयेर बसोवन करता तुजे लाड
तुका आवडटा म्हूण करता ती मोदक
तुज्या पराक्रमाची तोखणाय करतात पालक

मांय तुजी पार्वती तात म्हादेव
बळीश्ट आनी मायेस्त तुजे पालक
सिध्दी, बुध्दीचो, सदगुणी तूं बालक
तूंच आमचो चालक आनी मनाचो मालक

जय जय गणराया
आमचेर सदांच दवर माया
शक्त मागतां करूंक बरी काया
वचूंक दिवचीना भक्ती वाया



– रेखा रामनाथ नायक
मार्रा–पिलेर्न,
बार्देश–गोवा.

## रवींन्द्रबाबाक

हो पळयात युगपुरूस चलता वाट आमच्या मुखावेल्यान
आपल्या कर्तुत्वान दिवन आमकां गिरेस्त सासणाचो थेवो
ताचेर शिंवरूया फुलां आमच्या मना–काळजाचीं
जीं सुवासान भारून
येतलीं आमच्या पोशांत पर्तुन
जावन ताचो आशिर्वाद
आमकां सदांकाळ पुरून उरपा सारको

हो युगपुरूस जितो–जागतो विश्वकोश गिन्यानाचो
जाणें ओपलें सारें आपल्या नीज प्रतिभेचें
आनी काडली पिकार–पिकां प्रज्ञेचीं, मनीस उत्थानाचीं
सांगलें ताणें 'भज गोविंदम्'चेर करून भाश्य
सार कृतार्थ मनीस जिणेचें
ताच्या 'ब्रह्मांडांतल्या तांडवा'नीय दिलो सांगात
अगम्य रहस्यां उकतीं करून

ओपलीं ताणें 'समिधा' बसून विस्तीर्ण गिन्यानाच्या आसनार
जातुंतल्यान गेली पर्जळून
...काळखी भक्ती–मुक्तीच्या 'हिमालयाची' वळख
...भली समेस्तांक विस्मितांच्या तेमकांची उचाय
...'भारतवर्शाची संस्कृतायेची साधना'
...अनुसर्जन 'महाभारताचें'
नवी नदर दिवपी, नवी तासां उलगडावपी

...बसता थंय साकारून घडटा ताचोच महावृक्ष
ताचे मावळेंत बसतल्यांच्या आंगार लागतात टपटपपाक
...शितळ गुबगुबीत 'ओथांबे' दिपरत्नां कशीं रंगरंगयाळीं
...न्हेसून 'उजवाडाचे सूर' उठयतात 'वेळेवयल्या घुलांक'
झणझिणावन जागोवंक तांचे भितरलो शुध्द ॐकार ध्वनी
मागीर थंयच बसन दिसता हा महावृक्षाच्या मुळाकडेन
भोगीत निरंतर व्हांवत राविल्ल्या अनादी–अनंत म्हा–काळाक

आमी केदे भाग्यवान जे जल्मले
ह्यां तपस्वी युगपुरसाच्या काळखंडांत
आनी जियेतात ह्या 'ज्ञाननिधीच्या सानिध्यात'
ताचो सांगात मनाची काळखी तासां झगझगावणी
ह्या युगपुरसाचें जिणेकार्यकर्तुत्व
'पुरूमेंत' पिळग्या–पिळग्यांचें जिणेक युगायुगांखातीर
काळ बदलतना जातल्या उक्रान्तीच्या पेण्याखातीर

दिसता अद्धितीय खिणाचेर आमचे भुयेर सर्गच देंवला
चलतना हो युगपुरूस वाट अमरत्वाची, वाट चिरंतनाची
काळान कोरावन दवरल्या मुद्रा ताच्या विशालकायेची

आपल्या अविरत चलतल्या काळचक्राचेर
पळयात हो युगपुरूस विराट ब्रह्मर्षी चलता
आमचेर नदर भोंवडावन आमकां आपले भितर आसपावन घेता.



– प्रकाश पाडगांवकार
मातृ कलश,
हावसींग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी–गोंय.
फोन : ९४२३०६०३८४



## फुलपाखो

रंग-रंगयाळ्या फुलपाख्या
कितलो सोबीत दिसता तूं
हात लावंक गेल्यार मात
पयस पयस पळटा तूं
भुरग्यांक कित्याक भिता तूं
फुला फुलार बसता तूं
आमी भुरगीं फुलां कशीं
आमच्या हाताक लागना तूं
टीचर आमकां शिकयता
फुलां म्होंव पिता तूं
हाताक लायल्यारूय म्होंव
कसोच लागीं येना तूं
कांय भुरगीं मस्तीं आसतात
पाखां तुजीं तोडटात तीं
देखुनूच शाणीं जावन
पयस रावता काय तूं?
तुमकांय बी जीव आसता
तुमकांय बी बरेंच दुखता
आई आमकां सदांच सांगता
फुलपाख्यांक दुखोवन
व्हड पातक करशात बी
दर प्राण्यांक जीव आसता
इश्टांनो मतींत दवरात न्ही!



– गंधा अनिल घार्से
'बाणेश्वर'
आगशी – गोंय

## अंत्रुजेवळीं अप्रुपां

अंत्रुजेक आजोळ म्हजें
कुशीक कुळागरां
जायो जुयो कांदळां ओवळां
आबोलीं आनी सुरगां

पेरां, आंबे, साखरघोटां
म्होवाळ आडसरां
तांबडीं गूंज भिण्णां आनी
मासाळ रुचीक जांबळां

चलात येयात सगळीं तुमी
आजोळा म्हज्या वांगडा
दाखयतां तुमकां अंत्रुजेंतलीं
सगळीं अप्रुपां

– नागेश नायक वडिये
मडगांव-गोंय.



## फुलांच्या पोरसांत

सकाळीं उठून
गेलें हांव पोरसांत
तरेकवार पळोवन फुलां
ओडलें हांव सपनाळ्या जगांत

जायो जुयो
रंगान धव्यो
दसणी फुलांत
भितर मुयो

सदाफुली एकलीच
मुमुरकी हासताली
दवाचो फवार पडटकच मात
व्हंकल कशी मिरयताली

गुलाब राजा फुलांचो
मान वयर काडून पळयतालो
आशेन हांवें हुमटायलो
ताच्या काट्यानी म्हाका बुचकायलो

चाफे सामके घमघमताले
सगळेच ताच्या मोगांत पडटाले
पळोवंक दिसताली ती फुलांची राणी
स्वभावान शांत आनी सामकीच शाणी

त्या गुलाबाच्या काट्यांनी
बोट सामकें दुखयलें
पूण पोरसाची सोबा पळोवन
मन म्हजें सुखावलें

– धनवीरा संजय राऊत देसाय
यत्ता : १०वी
असोल्डा- केपें.
फो. : २७८४५२६

## आज्जेगेर

आज्जेगेर एक
ताबूल फळें आसा
तें घेवन आमी
ताबलानी खेळटात

आज्जेलें घर
दर वर्सा शिंवतात
शिंवलें ना जाल्यार
पावसाचें उदक येता

आज्जेगेर वतगच
सुटी बरी रंगता
खेळप, नाचप
आंबे, काजू खावप

आज्जेगेर सगळे येतात
मामेभाव, आतेभाव
बापोलभाव आनी इश्ट
सगळे वांगडा खेळटात

क्रिकेट, फुटबॉल
कॅरम, व्हॉलीबॉल
खेळटां खेळटां
रोखडीच सुटी सोंपता

– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.



## म्हजें शिकप

म्हाका म्हजे आईन इल्लें इल्लें खावंक शिकयलें
दात येवंचे पयलींच हांव खूबशे जिन्नस रूच घेवन खावंक शिकलों

म्हाका म्हज्या बाबान गावंक शिकयलो
ल्हान बडबड गीतां म्हणटां म्हणटां हांव सुरांसयत कितलीशींच गीतां गावंक शिकलों

म्हाका म्हज्या आज्यान उलोवंक शिकयलो
तोतरीं उतरां म्हणून म्हणून हांव सारकीं उतरां उलोवंक शिकलों

म्हाका म्हजे आज्जेन काणयो सांगल्यो
काणयेंतलो वाघमाम सपनांत पळेता आसतनाच हांव
कथामाळेंत काणयो सांगून इनामां घेवंक लागलों

म्हाका म्हज्या काकान भलायकी कशी बरी दवरूंक जाता हें शिकयलें
काकाची सांगणी तकलेंत दवरून,
खेळून शाळेंतल्यान येतकच हांव न्हावन नितळसाण राखूंक शिकलों

म्हाका म्हजे काकीन श्लोक शिकयले
काकीचे श्लोक शिकतां शिकतां हांव व्हडलीं स्तोत्रां म्हणूंक शिकलों.

म्हाका म्हज्या पुनमताईन आकाशवाणीचेर कशें उलोवंचें हें शिकयलें
दुसऱ्या वर्सा खळारमळारांत  हांवेंच बरयिल्ली काणी वाचूंक लागलों

म्हाका म्हज्या खूबश्या टिचरींनी शिकपांतले विंगड-विंगड विशय शिकयले
विशय वाचतां वाचतां हांव सगळ्यांच विशयांनी खूब्ब
मार्क घेवपाचे म्हूण अभ्यास करूंक लागलों
अजूनूय म्हजें खूबशें शिकप पुराय जाल्लें ना
म्हाका खूब शिकून व्हड जावपाचो आसा
म्हज्या गोंयचें आनी भारताचें नांव व्हड करचें आसा

– अथर्व सुदत्त शेणवी मांद्रेकार
घर नं. २, भितल्ली पेठ,
दिवचल – गोंय ४०३ ५०४
फोन : २३६२५६३



कथा



– आशा शानभाग
सादोळशें-काणकोण- गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७

# ही अपरूप शक्त? खरेंच आसूं येता?



"आज्जे, सुयशाचे तकलेर मगे सकाळींच कॉलनींतल्यान भायर सरतनां वाझ पडलो. आनी ताची तकली फुटून ताका हॉस्पिटलांत दवरला खंय! मागीर तो शाळेंत कसो येतलो?" हें आयकून कुंदाबायक ईशाचें सपन याद आयलें. एकफावट सत् जाल्लें सपन बोला फुलाची गांठ म्हणू येत. दुसरेय फावटीं तशेंच?

ईशा, शाण्या आज्जेक मात लेगीत त्रास दिवचें ना मगो?" ऑफिसांत वचपाची तयारी करपी अनुयान आपल्या साडेतीन-चार वर्सांचे धुवेक विचारलें. आपली नाजूक मान, तकली आनी फाटीचेर हुमकळपी दोन सोबीत शेणक्यो हालयत ईशा आवयक पळयत रावलें. अपुरबायेचे धुवेलो रिस्पॉन्स कांय ना म्हणून अनुयान मान वळयल्यार ईशाचो रागान भरिल्लो चेरो ताका दिसलो. "मम्मा, हांव केन्नाच आज्जेक त्रास दिना. तरी तूं सद्दां म्हाका एकूच क्वेश्चन रिपीट करता. आज्जे, हांवें तुका केन्ना तरी त्रास केला गे?" आजी नातीचो लटको राग आनी खरो मोग पळोवन पदर तोंडार धरून हांसली. "म्हजे आज्जे, तूं म्हाका कांयच त्रास दिना. हांवच तुका त्रास दितां. केजीन वचपाची ताकीत करतां. वॉटरबॉटल व्हर गो, टिफीन पुराय खा गो करीत तुका हांवच सतयतां म्हजे सासुमाय." सकाळीं-सकाळीं ऑफीसांत वतना असो सुखसंवाद घडटा आनी अमोल अनुया समादानान ऑफीसांत वचपाक भायर सरतात.

बाबुलीबाब आशिल्लो तो मेरेन कुंदाबाय आपल्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या घरांतच रावताली. पूत अमोल आनी सून अनुया मात हांगच्यान शिर्विशेक वचपाक कास्तीक जाता म्हणून शारांतच फ्लॅट घेवन रावतालीं. दर शेनवारा तीं गांवच्या घरा येतालींच. तेच भशेन पाडो जालो वो आंबे काडले की स्पेशल गाडी करून बाबुलीबाब ही सागवाद आपणें उश्टावचे पयलीं पुता-सुनेक पावोवन धादोशी जातालो. असो शिर्विशेंतल्यान रिटायर जावन भरपूर पेन्शन घेवपी लोखणाची कांब कसो मनीस काळजाच्या आताकान आक्ताक सोंपलो. अनुयान सामको फोर्स करून कुंदाबायक शारांतल्या फ्लॅटार हाडली. अपुरबायेची नात पयलीं पाळणाघरांत रावताली. आतां आज्जेच्या पालवांत घुस्पली आनी खोशी जाली. पंदरा दिसांनी तरी कुंदाबायक घरचे वेध लागताले. मागीर तीं सगळींच दोन-तीन दिसांची सवड गाठून गांवाक वचून येतालीं. अचकीत तांच्या दोंगरावेल्यान रेल्वे लायन वचपाची थारली. लाखांनी रुपया कुंदाबायक मेळ्ळे. पूत-सुनेन ते तिच्याच नांवार फिक्स दवरून पेन्शन प्लॅन घेवन कुंदाबायक आर्थिक नदरेन स्वतंत्र दवरपाचें थारायलें.

"अमोल, तुमचो तो पेन्शन प्लॅन बीन म्हाका नाका. म्हाका जाय तें घेवन दिशी त्या पयशांचें?"

"आई तूं अमोलाक सांगू नाका. म्हाका सांग कितें जाय तें?".

"पळय अनुया, मागीर ना म्हणशी?"

मांय-सुनेचो सुखसंवाद आयकून अमोल, अनुया आतां मांयचे तावडींत सांपडलें म्हणून हांसतालो. ताका दिसलें आई दुसरो चान्स घेवपाक सांगतली ताका. तो हळूच भितर सरलो.

"अनुया, ह्या पयशांचो एक व्हडलो फ्लॅट

घेयात.'' आवयचें उलोवप आयकून अमोल तसोच फाटीं वळ्ळो. घट वेंग मारली ताणें आवयक. ताचे दोळे अखंड झरताले. ''आरे पिशा, रडटा कितें बायल सो? आनी म्हाका ते पयशे कितें करपाक जाय रे? म्हजें इनव्हेस्टमेन्ट म्हळ्यार तुमी तिगांय मरे!''

अमोल-अनुयान पोरणो फ्लॅट विकलो आनी मुद्दाम आवयच्या नांवार घेतिल्ल्या व्हडल्या तीन बॅडरूमांच्या फ्लॅटांत तीं शिफ्ट जालीं. आतां ईशान सामको आज्जेचो नाद धरिल्लो. रातचें ताचें न्हिदप लेगीत आज्जेसरींच. कारण पप्पा-मम्मी फकत न्हिदतना पापी घेतालीं. पूण आज्जी मात सदांच नव्यो-नव्यो काणयो सांगताली. सद्दां काणी सांगतना आजेन नातीच्या केंसांत हात फिरोवप. ताच्या केंसांत तेन्ना 'आको माको तेल माको' करून खोबरेल घालताली आनी काणी सोंपली की ''असली काणी. राजा-राणी. कुरकुटां आसा एक मणी. तो काडून ईशाल्या गळ्याक घाल.'' म्हणत खातकुल्यो करत नातीक आपले सुरक्षित वेंगेंत थापटून न्हिदयताली.

ते दिसा कुंदाबायन ईशाक श्रावणबाळाची काणी सांगिल्ली. ईशा न्हिदतकच तिणें बाजेरच बसून देवाक हात जोडले. ''देवा श्रावणाच्या आवय-बापायक तुवें एकच श्रावण दिल्लो. म्हाका मात पूत आनी सून अशी श्रावणांची जोडी दिवन तुजें उपकारी दवरलां. तांकां बरी राखण दी रे देवा.'' नातीवेलीच गोधडी आपल्या आंगार ओडून कुंदाबाय न्हिदली. बऱ्या वेळान कुंदाबायक ईशा रडटाशें दिसून जाग आयली. ''पोर सपनेलां जावंये. रडटा पळय कशें.'' म्हणत कुंदाबायन ईशाक म्हऱ्यांत ओडलें. तिच्या कानार ताचें पुटपुटप पडलें. बंद दोळ्यांतल्यान एकेवटेन दुकां व्हांवतात तर दुसरेवटेन वोंठ कितेंतरी पुटपुटटात. तिणें कान ताच्या तोंडा लागसार व्हेल्यार हें सौम्याचें नांव घेता. सौम्या ताची खास इश्टीण. पोराक सौम्याविशीं कितेंतरी सपन पडलां जावंये. फाल्यां पळोवया म्हणून तिणें नातीक घट्ट धरलें. ते मात्शे हालचालीन ईशा जागें जालें.

''आज्जे सौम्याचो आजो मगे हॉलांत धव्या कपड्यापोंदा फुलांचे हार घालून न्हिदला. तांची सगलीं रडटालीं. सौम्या रडटालें म्हणून हांवूय रडलें.''

''शाण्या, आमी थंय जनेलाकडेन वचुया. थंयच्यान सौम्याचो फ्लॅट दिसता पळय. बाय तूंच पळय, सौम्यागेर लायटी आसात? ना मुगो. मागीर तीं सगलीं सुस्त न्हिदल्यांत पळय. सपनां म्हणटात तीं खरीं नासतात. आमींय न्हिदुया मुगो?'' आपली तकली हालयत ईशा परतें पांगरूणांत गुरफटलें. पांच मिन्टांभितर तें न्हिदलें. ''देवा ह्या नेण्ट्या भुरग्यांक बरीं सपनां दाखय रे. सगळ्यांचें बरें कर.'' म्हणून देवाच्या फोटवाक हात जोडून कुंदाबाय न्हिदली.

सदचे भशेन फाल्यां उदेलो. अमोल, अनुयाची ऑफीसांत वचपाची ताकतीक सुरू जाली. आज्जेक आनी नातीक 'बाय' करून दोगांय भायर सरलीं. हांची दोगांयचीय चपाती काऊ-चिऊक खावोवपाचीं नाटकां सुरू जालीं. अचकीत बॅल वाजली. की होलांतल्यान कुंदाबायन भायली जाग घेतली, ''आव्वयस! हीं दोगांय परतलीं शीं!'' म्हणत तिणें दार उगडलें. ''अमोल कित्याक परतलीं? कितें विसरलो रे?''

''आई मुखावेले बिल्डींगेंतल्या रमेशाचो बापूय भायर पडलो खंय. आमी ऑफीसांत फोन करून लिव्ह मारली आनी घरा परतलीं.''

रमेशाचो बापूय म्हळ्यार सौम्याचो आजो... ईशाचें रातचें सपन.... ह्या घुस्पागोंदळांत तिच्या हातांतली बशी ठणकन् जमनीर पडली. भितर गेल्लें अनुया धांवत भायर आयलें. ''आई कितें जालें गे? तूं भियेंव नाका रमेशाचो बापूय सामको जाणटो गे. अमोल, फ्रिजांतली उदकाची बाटली हाड रे मात्शी. आई ताच्या मरणाचो तूं धक्को लावन घेवं नाका.''

''आगो बाये म्हाका ताच्या मरणाचो धक्को लागलो ना. कारण जल्मला तो एक ना एक दिसा मरतलो हें सामकें खरें. म्हाका शॉक बसला ताचें कारण, सौम्याचो आजो मेलो म्हणून म्हाका ईशान रातींच सांगिल्लें.'' कुंदाबायन सगली गजाल पूत-सुनेक सांगली. ''अमोल-अनुया म्हाका दिसता आमच्या ईशाकडेन कसलीतरी अपरूप शक्त आसपाक जाय.'' खो-खो करून हांसत अमोलान फकांडां सुरू केलीं. ''आई आयच्या एकविसाव्या शेकड्यांमदी अपरूप शक्त हें उतर म्हळ्यार लोक हांसतले मगे आमकां.'' अशें म्हणत तो रमेशागेर गेलो.

सोबीत चवकोनी ती फामील सुखांत आशिल्ली. खूब दिसांनी, न्हय खूबशा म्हयन्यांनी म्हणुया. अशेच एके रातीकडेन ईशा किंळचत उठलें. आतां तें सादारण पांच-सव्वापांच वर्सांचें जाल्लें. ''आज्जे म्हाका सपन पडलें. सुयशाचे तकलेर मगे फुल झाडांचो वाझ पडलो. आनी ताची तकली फुटून रगत व्हांवतालें. सॉसांत बुडिल्लो स्लायस कसो दिसतालो तो.''

''शाण्या सुयश कोण गो? तो खंय रावता तें खबर आसा तुका?'' नातीकडल्यान कितेंय कळल्यार ते बाबडे सुयशाचे आवयक सादूर तरी करपाक येतलें म्हणून तिणें विचारलें. ''ना गे. तो म्हज्याच क्लासांत आसा. पूण तो व्हॅनींतल्यान येता. आयज ताका विचारून ताचो अॅड्रेस तुका दितां आं.आतां न्हिदुया.'' म्हणत तें न्हिदलेंय. कुंदाबायक मात न्हीद लागलीना. रातभर कूस परतीयत काडली तिणें.

दुसऱ्या दिसाची सदचीच ताकतीक सुरू जाली. सगळीं आपापले वटेन गेलीं. कुंदाबाय घरचीं कामां आनी सिरीयली मदीं सगलें विसरली. दनपरां ईशा शाळेंतल्यान येतकीर दोगांय किटकिटत जेवलीं. सांजचो होमवर्क जातकीर ईशा खेळपाक सकयल गेलें आनी कुंदाबाय नातीक गॅलरींत रावन तोखेयत रावली. हो तांचो सदचोच नेम. आतां पावणे सं क अमोल-अनुयाची गाडी आयली की तांचेवांगडाच ईशा घरांत पावतलें. तीं घरांत



येयमेरेन कुंदाबायन गॅसाचेर च्या दवरली. भुरग्यांखातीर सांजचें खावपाक करपाची तिका भारी हौस. मात्सो वेळ पयलीं केल्लो सांजो काडून गरम करपाक ओव्हनांत दवरलो. तोमेरेन तिगांय घरांत पावलीं. आपापलें आवरून सगलीं येतामेरेन तिणें च्या आनी सांज्याच्यो बशयो हॉलांतल्या टिपॉयाचेर हाडून दवरल्यो.

''ईशा, आजेच्या मांडयेवयल्यान सकयल देंव आनी हांगा सोफार बसून खा आनी आजेकय आमचे वांगडाच खावंक दी.'' अनुयान आज्जेचे मांडयेर नाचपी धुवेक तापयलें.

''अनु, तूं पी च्या. आमचे आजे-नातीच्या भानगडींत तूं पडूं नाका. न्ही रे शाप्पा?'' म्हणून कुंदाबायन आपलें मांयपण दाखयत अनुयाक फकाणांनी तापयलेवरी केलें. हांगा ईशा खूश मम्माक तापोवणी पडली म्हणून. अचकीत कुंदाबायक सुयशाची याद आयली. ''शाण्या, आयज सुयश आयिल्लो गो शाळेंत?'' आईच्या ह्या प्रस्नार अमोल मुमुरखोसो हांसलो. ''अनु, म्हजी आई आपले नातीची बेस्ट फ्रॅण्ड जाल्याच. आतां नातीच्या फ्रॅण्डांचीय बेस्ट फ्रॅण्ड जाता शी दिसता.''

''आज्जे, सुयशाचे तकलेर मगे सकाळींच कॉलनींतल्यान भायर सरतनां वाझ पडलो. आनी ताची तकली फुटून ताका हॉस्पिटलांत दवरला खंय! मागीर तो शाळेंत कसो येतलो?'' हें आयकून कुंदाबायक ईशाचें सपन याद आयलें. एकफावट सत् जाल्लें सपन बोला फुलाची गांठ म्हणू येत. दुसरेय फावटीं तशेंच? हांका सांगल्यार म्हजींच फकांडां करतलीं. पाड पडूं तीं सपनां आनी ती अपरूप शक्तय बी म्हणून कुंदाबाय ओग्गी रावली. तरी रातीकडे ईशा न्हिदतकीर कुडींतल्यान ती भायर आयली. आनी अमोलाक ऊलो मारून तांका भायर आपोवन तिणें सगली गजाल सांगली. आतां मात अमोलय मात्सो चितनेंत पडलो. हाचे उपरांत अडेच-तीन वर्सां सुखान गेलीं. ईशाक कसलेंच सपन पडलें काय ना हाचो ताणें कांयच आवाज केलो ना. पयरच ताचो आठवो वाढदीस व्हडा उमेदीन तांणी मनयलो. शॉपींग, हॉटेलींग करून तांणी तो विकयॅन्ड मजेंत सारलो. अचकीत एके रातीकडेन ईशा किळचलें. इतल्या व्हडल्यान की दुसरे कुडींतलीं अमोल-अनुयाय धांवत आयलीं. कुंदाबायच्या पोटांत धस्स जालें ती ताची 'पप्पा रे' म्हणून मारिल्ली किंळची आयकून. 'कितें वाडून दवरलां काय देवान म्हजे मुखार. हाचीं दोन सपनां खरीं जाल्यांत. आनी आतां हें बापायचें नांव घेता. देवा म्हाका उखल कितेंय वायट पळोवचे पयलींच.' मनांतले मनांत कुंदाबाय विचार करतना सामकीच थत्‌रवित्‌र जाल्लेवरी जाली. अनुयान रडपी ईशाक वेंगेंत धरलें. ''शाणी, कितें जालें गो?''

''मम्मा, पप्पाचो ॲक्सीडेंट जाला गो. ताचें तोंड इतलें चेपलां की तो वळखूं लेगीत येना.'' अनुयाच्या पोटांत कल्ल जालें इतलो तेप विचार फकांडां करपी अमोल आतां आपूण काय? ह्या विचारान सामको निर्शेलो. कुंदाबायन तेन्नाच निर्णय घेतलो. ''अमोल, तूं आनी अनू फाल्यां घरांतल्यान भायर सरचीं नांत. गाडी, स्कुटर कांयम चलोवपाचें ना. दाराभायर दोगांय पावल लेगीत घालचीं नांत. सपनाचो आदार घेवन भायर सरना जाल्यार कांयच जावचें ना.'' दोगांयच्या मुखार 'हय' हो एकच पर्याय उरिल्लो. दुसरे दिसा चोवगांय घरकोंबडचो कश्यो घरांतच रावलीं.

यमराजापासून पुताची राखण करपाक कुंदाबाय ढाल जावन तयार रावली. कसोबसो दीस सरलो. तिनसांज जाली. अनुयान देवामुखार दिवो पेटयलो. इतल्यांत बॅल वाजली. दार उगडपाक उठिल्ल्या अमोलाक थांबोवन कुंदाबायन भितर धाडलो. आनी आपणें दार उगडलें. मुखावेल्या फ्लॅटांतलो तिरोडकार. ''आई अमोल आसा?''

''हय. यो भितर बस. अमोल, यो रे तुका हो पळय तिरोडकार सोदता.''

''अमोल बेगीन भायर सर. आमकां हॉस्पिटलांत वचूंक जाय.'' तिरोडकाराचेर आयिल्लो आकांत पळोवन अमोलान अनुयाक उदक हाडपाक सांगलें.

''आरे, कितें जालां तें तरी सांग मरे रवी.'' उदक गटगट करून पितल्या रवीक उतर फुटलें.

''अमोलें म्हज्या भाओजीक ॲक्सीडेंट जाला खंय रे. आक्ताक सोंपलो तो. ताची बॉडी सरकारी हॉस्पीटलांत आसा. पोस्टमार्टम करून व्हरूंक जाय ती. मंगलाचेर आकांत आयला रे. मात्सो येता मरे? प्लीज ना म्हणीनाका.''

खीण दोन खीण फातर कसो जाल्ल्या अमोलान आवयचो-बायलेचो विरोध मानिनासतना कपडे चडयले आनी तो गेलोय बी. ''आई मंगल आनी हांव दोगांयचीय डिलीव्हरी एकाच दिसा जाल्ली. ताचें एक भुरगें मेल्लें जल्मल्लें. देवान अशें करपाक नाका आशिल्लें.'' कुंदाबायच्या मनांत विचारांची झगडीं चलिल्ली. ईशाचीं दोन सपनां साप्प खरीं थारलीं. तिसरेंय खरेंच थारलें. सुरेश, मंगलाचो घोव सोंपलो तो ॲक्सीडेंटांत. ताचोय चेरो वळखुपाक येवपाचो ना असो जाला हें रवीन सांगिल्लेंच. बोल्सांतल्या वळखपत्रावेल्यान ताची वळख पटिल्ली खंय! आवयस् इशाचें तिसरेंय सपन त्या अर्थान खरें थारलें. फक्त ईशाच्या पप्पाच्या म्हळ्यार अमोलाच्या बदली मेलो सुरेश. मागीर ईशाचो पप्पा, ताचो बापूय सुरेश? अनुया आनी सुरेशामदी बरेपण....?

दुबावान काळीज आनी तकलीय सामकी रिकामी जाली तिची.

सुरेशाची बॉडी ताब्यांत घेवन मॉर्गांत दवरून अमोल घरा पावसर रातचीं बारा-साडेबारा जाल्लीं. ताका न्हावपाक लावन अनुयान तिगांयचींय ताटां वाडलीं. चार उंडयो ताळ्यामुळां धुकलून न्हिदपाची तयारी करतल्या अमोलाक आवयन देवाचे कुडींत व्हेलो. दाराक खिळी घालून आपलो दुबाव उक्तायलो. निष्पाप, शीलवान अनुयाचेर आवयचो दुबाव आयकून अमोलान आवयसामकार सत् उगतायलें.

अनुया आनी मंगल बरोबरच गुरवार आशिल्लीं. मंगल बाळंतेराक कुळारा म्हळ्यार रवी तिरोडकारागेर आयिल्लें. अनुयाक म्हयने सोपचे पयलींच पोटांत वेणो आयिल्ल्यान अचकीत हॉस्पीटलांत ॲडमीट करचें पडलें. आनी तेचवेळार मंगलय पोटांत वेणो येवन लेबररुमांत आशिल्लें. अनुयाच्या पोटांतलें भुरगें सारको रिस्पॉन्स दिना म्हणून ताचें अकस्मात ऑप्रेशन करचें पडलें. दुर्दैवान तागेर मेल्लो चलो जल्मलो. घुसमटून रडपी अमोलाक थंय आदार दिलो तो ह्याच सुरेशान. ''अमोल भियेंव नाका. तुजी बायल शुध्दीर येईमेरेन मंगलाचेंय ऑपरेशन करतले. ताच्या पोटांत जुळळीं आशिल्ल्यान ताचेंय ऑपरेशन करतले खंय दोतोर. चुपचाप आमी दोतोराक विस्वासांत घेवन तुजें गेल्लें भुरगें मंगलासरी दवरूंया आनी म्हजें एक भुरगें तुजे होटयेंत घालतां.'' व्हड मनाच्या सुरेशाक देवान एक चलो आनी एक चली वांगडाच दिली. अमोलाक चलयांची भोव आवड देखून ताणें सुरेशाचें चलीच उखल्लें.

''माँ, अनुयाक हाची कांयच खबर ना. ताका कळल्यार तें कोसळटलेंच. पूण म्हजे आनी ताचेमदलें हें एकच फटींगपण आमचें सुखी आयुश्य पाडा घालतलें. आतां ईशा म्हजेंच, आमचेंच हें सत. बाकी सगलें तुज्या आनी म्हज्याच काळजांत लिपोवपाचें. हें जाणां आशिल्ल्या सुरेशाकय देवान व्हेलो. तेन्ना आई प्लीज म्हजेखातीर....'' दोळे पुसपी पुताक म्हऱ्यांत घेवन कुंदाबायन थातारलो.

''पुता म्हज्या तुवें खूबुच सोसलें. पूण आतां एक करात. ईशाक ताई करपाची तयारी करात. जांव भाव वा भयण. पूण ताका एकटुकें दवरूं नाकात.'' दुसरे दिसा सावन तें घर सुखाच्या झोपाळ्याचेर झुलपाक लागलें.



इंद्रधोणु




– पद्मनाभ टि. नायक
टिळकनगर,डोंबीवली पूर्व,
४२१ २०१.
फोन : (०२५१) २४२१४०१


# पयक्षो सूख दाखयता, सूख दिना



**मामाल्यागी पयक्षो आसिलो. सूख नासिलें. सूख सोदीत ते विमानान भोंवले. स्टार होटेलांतु राबले. तीर्थयात्रा केल्ली. दान–धर्म केलो. अमेरिका, युरोप फिरून आयले. तरी मन तृप्त जालेल ना. पुत्तान गेलिल दुख्ख बायल विसरिली ना. त्याच दुःखांतु तिवे गेल्ली. माम एकलो जालो.**

**ही** घटना ५-६ वर्षां मागशी घडिली. मडगांवच्यान मंगळून पेसेंजर ट्रेनारी हावुं भटकळ वत्तालों. मेगेल मुकावैल विंडो सीटारी ८० वर्षाचो मांतारो बसिलो. दिसच्याक पिस्सोसो दिस्तालो पूण हुशार आसिलो.आम्मीं बसीले बोगींतु गोकर्ण ओम् बीचार वतले फोरेनर्स आसिले. तांगेल्यागी तो इंग्लिशान उलैतालो. मंगळूर देंव्नु कासरगोड वत्तले मलयाळी आसिले. तांगेल्यागी मलयाळिंतु उलैतालो. मेगेल्यागी कोंकणीन उलैतालो. पुण्यांतु उर्ता दिकून ताक्का मराठी भाषा कळताली. मूळ कर्नाटकाचो जावच्यादिकून कन्नडय उलयतालो. एक मिनीट गप् बसनासी तागेल बडबड चालू आसिलें.

एकेकपंता असले पेसेंजर शेजारी बसल्यारी प्रवास त्रासदायक जात्ता. ते दिसा मेगेली मनस्थिती बरी उरच्यादिकून, जावचो त्रास विसोर्न हांवु बारकाईन मांताऱ्याली हालचाल पळयत बसिलों.

धांवती ट्रेनांतु आयस्क्रीम विकतलो आयलो. ताणें आयस्क्रीम घेतलें. चायवाला आयलो. चा घेतलो. वडा-समोसावाला आयलो. ताणें समोसा घेतले. कस्सने येवो, तो घेत्तासिल्लो. तोंडांतु चाब्बून खावच्याक दांत नांती; तरी अर्ध खावनु खिडकिंतुल्यान भार्यी उडयतालो. तळ्ळील खाण खात्तना हात्ता लाग्गिल तेल मात्तेक पुस्सून घेत्तालो. हें पुरा खात्तना बगलेन बसिल्यांक बी वांटितालो. सान्न चेर्डूवांक ताणे आयस्क्रीम घेव्नु दिलें. मलयाळी प्रोफेसराल फेमिलिच्यांक मिनरल वॉटर बोटल घेव्नु दिली. माक्का दोन पंता चा पिवयलो.

आरोग्य समा नासिलें तागेलें. घडेये-घडेये बातरुमाक धांवतालो. थंडेन नाक गळतालें. मदें...मदें नाकाक विक्स थापून घेत्तालो. औषदा गुळियो गिळतालो.

अखेरिक गप् बसून पोळोच्याक जायनासी हांवे विचारलें, ''मामा, तुमकां थंडी जाल्या मू? आयस्क्रीम, तळील समोसा, भजे कित्याक खात्ताती?''

ही.. ही.. ही... हासच्या लागलो. नाक तुवाल्याक पुस्सून घेत्लें आनी म्हळालो, ''हें सर्व खायना जालेतिकी थंडी जाय्त उरता. I don't care. सर्व नंमून्या औषध बेगांतु आस्सा मेगेल्या. हांव डायबिटिस् पेशंट. माक्का हाय् बि. पी. आस्सा. दोन पंता सर्जरी जाल्या. मोतिबिंदु ओपरेशन जाल्या. पायल्स् प्रोब्लेम आस्सा. डाक्टराक हांवु आवडतो पेशेंट. कारण रोगाबाबतिंतु I am all in one.

हें सर्व कांय न्हयसी कोर्नु सांगतालो. आमकां हे रोग दुसऱ्यांक जाल्या म्होणु आयकतना भंय दिसता. दातांतु काड्डी घालनु केद्रीत तो म्हणटा, ''डॉक्टरान माक्का दिलिल गेरेंटी पिरियेड केन्नाकी सरला, देवाल मर्जीरी जीवंत आस्सां.''

कारवार स्टेशन आयलें. मामान दोन कुरकुरे पॅकेट्स घेतले. नाक्का म्हळेतिकी मेगेल हात्तारी एक दवरलें.

''हांवु हें खायना'' म्हळें.

''अेकपंता खाव्नु पळे'' म्हळालो

पयशे हांवु दित्त म्हळें तिकी दिवच्याक दिल्लिना. मनान उदार तो. ट्रेनांतु कितले लोक भीक मागच्याक आयिले, तांका सर्वांक रुपय, दोन रुपय भीक दिल्ली ताणें.

कुरकुरे खायत विचारलें, ''मामा, तुम्मीं खंय देंवचें?''

''मुर्डेश्वर देंवचें. थंचान चित्रापूर मठांतू, एक आठ दीस राब्बून परत मुंबई वोच्चें'' म्हळालो. आनी मुर्डेश्वर स्टेशन येवथांय तागेल पुरा इतिहास सांगून मन हलका कोर्नु घेतलें.

आनंदराय कोप्पिकर तागेल नांव. जन्मा आयिलो मुंबईंतु. त्या वेळारी बी.ए. पास जावनु, कॉटन् मिल्लांतु होड पोस्टारी कामा आसिलो. नंतर ती नोकरी सोडणु, कोयमतुरांत गारमेंट्स फॅक्टरींतु थोडो काळ काम केलें. त्या धंद्यांतु अणभव घेव्नु पुण्यांतु स्वत: रेडिमेड गारमेंट्स फॅक्टरी सुरू केली. बिजनेस बरो चल्लो. कपडे Export करतासिलो. हात्तांतु भरपूर पयसे खेळताले.

ताका दोन चेर्डूंवां. एक चेल्लो, एक चेल्ली. चेल्लीक लग्न कोर्नु दिल्या. ती अमेरिका उरता. पूत, B.E Mechanical इंजिनियर जाव्नु आसामांतुल गोहाति कॉलेजांतु शिकोवच्याक आसिलो. बापायले व्यवस्थित बसिल बिजनेसांतु ताणे आसक्ती दाखयलीना. 'थोडे वर्षं नौकरी कोर्नु नंतर येत्तां' म्हळालो. पण आयिलो ना. लग्न जावनु दोन चर्डूंव जालीं तरी अयिलना. एकदीस कॉलेजा वत्तना मोटारसायकल अेक्सिडेंट जावनु थंयचे थंय गेलो.

ह्या अपघाता नंतर सून कुळारा गेलिली परत आयिली ना. कुळारचे तिगेल वांटो व्होरच्याक आयिले. मामान सांगलें खंय्, ''सूनेन पूण्या येवनु राबल्यारी तांगेली पूरा आस्थि संपत तिक्काची. ना जाल्यारी तिगेल घोवालें जें काय आस्सा तें मात्र तिक्का मेळटलें.''

सून पूण्या राबच्याक गेलिल ना. माटुंगांतु 'शामराव विठ्ठल' बँकांतु कामा लागली. B.com शिकिल्ली ती.

आत्तां आठ-धा वर्षां आयल्यान कोप्पिकर मामांक वय जावच्या दिकून धंदेदिकान दुर्लक्ष्य जालें. व्यापारांतु कोंपिटिशन वाढच्यादिकून लुकसान जाली. कामगारांनी संपु केलो. ते कटकट नाक्का म्होणु मामान फॅक्टरी विकली.

मामाल्यागी पयसो आसिलो. सूख नासिलें. सूख सोदीत ते विमानान भोंवले. स्टार होटेलांतु राबले. तीर्थयात्रा केल्ली. दान-धर्म केलो. अमेरिका, युरोप फिरून आयले. तरी मन तृप्त जालेल ना. पुत्तान गेलिल दुख्ख बायल विसरिली ना. त्याच दु:खांतु तिवे गेल्ली. माम एकलो जालो.

पूण्यांतु तीन रूम किचन ब्लॉक आस्सा. तांतु राबतले ना. माम भायल्यान जेवण मागयता. सून मुंबईंतु भाडेघरांतु राबतसिली. हेच्ची वर्ष मामान तिक्का माटुंगांतु ६५ लाख रुपया दीवनु टू रुम्स किचन ब्लॉक घेवनु दिलो खंय.

नाती व्होड जाल्लेती. रजेंतु केन्नां केन्नां पूण्या येवनु तागेल्यागी राबतातू. पूण तागेल नजरेंतु 'आज्जो' म्हळिल प्रीती दिसना म्होणु तो बेजारता. हें सांगतना तागेल दोळे भोर्नु आयले. कोप्पिकर मामाली आत्म चारित्र आयकतना मुर्डेश्वर स्टेशन् आयिलें कळिलें ना. ताका सक्कल देंवच्याक हांवें मदत केली.

प्लॅटफोर्मारी देंवनु तो म्हळालो, 'आपण्यांन अस्सीं सेकॅन्ड क्लासांत प्रवास केन्नां केलिलनासिलो. आत्तां जीवनांतु वैराग्य आयल्यां. कस्सने फस्ट क्लास! कस्सने सेकेंड क्लास!! खंय बस्सून प्रवास केलेतिकी पावचे कडेन वोचून पावताती.

पद्मनाभ तुक्का एक सांगतां, 'पयसो सूख दाखयता, सूख दिना' म्हळालो. ट्रेना सिग्नल जालें 'मामा हांवु येत्तां' म्होणु नमस्कार केलो. लगेच ताणे खिश्यांतुल्यान पार्करपेन्न काडणु माक्का दिलें, आनी म्हळें - ''तूं लेखक मरे! हें पेन्न मेगेल उडगासा खात्तीर दवोर्न घे.''

ट्रेन स्टार्ट जाली. हांवु कंपार्टमेंटाच्या दरवाज्यांतु राबून दोळ्यां दिसथांय् कोप्पिकर मामांक पळयत उरलों.

❀ ❀ ❀



लेखकां

- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

# यो रे यो श्रावणा

म्हाका पूत ना म्हण कळटगीर ती म्हज्याफाटल्यान लागपी 'तूं आनी एक चान्स का घेत नाय? वंशाला दिवा हवाच बग, ह्या खेपेला पोरगाच होणार बग' आनी आतऱ्या पयऱ्यान म्हाका हो सल्लो दिवपी ती ज्या दिसाक हांव दिसतनाच, ''तुला दोनी पोरीच हायती, लई सुखी हाय बग तू'' अशें तिणें म्हळें म्हणटगीर समजुवचें हिच्या पुतान रातीं फेस्त केलां.



दर वर्साक येवपी श्रावणाचें सगळ्यांकच अप्रूप आसता. ल्हानासावन व्हडामेरेन हो श्रावण मनभावन आसता. श्रावणांत येवपी जायत्यो परबो, मेळटा ती ताजी ताजी शाक-भाजी, जायांचो घमघम आनी फळां-फुलांचेर आयिल्लो भार, सगळ्या सैमाचेर मोनेळ घालताच, पूण पंचेंद्रियांचेर जैत मेळोवन भक्तीभावांत लीन जावपाचो हो म्हयनो. ह्याच म्हयन्यासावन आमकां चवथीचे वेध लागतात. श्रावण म्हयनो सुरू जालो रे जालो तो केन्ना सोपून चवथ येवन दत्त म्हण कशी उबी रावता हाचो पत्तो पासून लागना.

तशें पळोवपाक गेल्यार ज्येश्ठ म्हयन्यासावनच आमकां हुरूप येता. निकत्याच मोगान पडिल्ल्या अल्लड तरणाटेन एकेवटेन घरच्यांच्या धाकान कासावीस जावन आपल्या मोग्याची प्रतिक्षा करची तशी अगतिकताय पावसाची वाट पळोवपी सुके सडसडीत धतरीची जाता. वैशाख म्हयन्याच्या जिवाक जाळ घालपी, हुलपावपी वताच्या चोपक्यांतल्यान केन्ना काय सुटून पावसाचे सरिनी भिजून वचपाची ती वाट पळयता आनी एकदां पावस शेनलो रे शेनलो आपल्या आंगांतल्यान धुंद अशा गंधाचो शिंवर सोडीत तृप्ततायेचो धेकर दिता. ह्या समागमान धादोशी जावन मागीर ती आपल्या ओटी-पोटांतल्यान जायत्या झाडां-वालींक आंगार मिरयता. तेन्ना आपल्या आंगार भुरग्यांक पिवोवपी, तेलउदक बरें घसघशीत आंगार पडिल्ल्या सुखवस्तू घराण्यांतल्या बायलेचें तेज तिच्या आंगावेल्यान झळकता. जन्माक आयिल्ल्या भुरग्यान ल्हव ल्हव उमथें पडचें. दिमकुऱ्यो मारच्यो आनी म्हणटां म्हणटां व्हड जावन मळबाक वेंगेंत घेवचें तशी धर्तरी आषाढाचो पावंडो हुपून श्रावण येतासर विंगड विंगड अलंकार आपल्या आंगार मिरयता. सैमाचो कायापालट करपी ह्या श्रावण म्हयन्याची तुस्त करत तितली थोडी.

हें सगळें जरी खरें आसलें तरी आनीक एक कारणाक लागून श्रावण म्हयन्याक म्हत्व आसता आनी तें राजश्रीसारख्या खूब जाणांक थाकाय दिता हें म्हाका समजलें. राजश्री मुळ बेळगांवची. वाचूंक बरोवंक कळनाशिल्ली अस्तुरी. हालींच बदली जाल्याकच म्हाका ती म्हज्या नव्या ऑफिसांत मेळ्ळी. कितलेय गरीब परिस्थितींत पासून मनशान हासत खेळत दीस कशे सारचे हें कोणेंय तिचेकडल्यान शिकचें. घोव बेबदो आशिल्ल्यान हिका तशें संवसारीक सूख म्हणटात तें कमीच मेळ्ळें. घोवाबरोबरचीं पांच-स वर्सां तिणें ताचेकडल्यान मारबडय सोसून घेवन संवसार केलो. आनी सोऱ्यान लिव्हर पिड्डयार जावन भायर पडलो तेन्ना ही आसली जेमतेम ३५ वर्सांची आनी पदराक दोन भुरगीं. तेय परिस्थितींत तिणें आपल्या भुरग्यांक व्हड केलीं. धावी मेरेन शिकयलीं. धुवेचें आपल्याच्यान जाता तशें घालून करून लग्न करून दिलें. पुताखातीर कंपनीकडच्यान लोन घेवन फ्लॅटवजा घर घेवन ताची फुडली तरतूद करून दवरल्या. धूव सुशेगाद आपल्या पोरां-बाळांत रमल्या. पूण हिचो काळजार पडिल्लो घाव मात आतां परतो उसोवपाक लागला. कारण तिचो वयांत आयिल्लो पूत, तो बापायच्या पावलार पावल

दवरून पियेवपाक शिकला. आनी हरशीं खंयचेय घडणुकेन हाललीना ती आतां हादरल्या.

म्हाका पूत ना म्हण कळटगीर ती म्हज्याफाटल्यान लागपी 'तूं आनी एक चान्स का घेत नाय? वंशाला दिवा हवाच बग, ह्या खेपेला पोरगाच होणार बग' आनी आतऱ्या पयऱ्यान म्हाका हो सल्लो दिवपी ती ज्या दिसाक हांव दिसतनाच, ''तुला दोनी पोरीच हायती, लई सुखी हाय बग तू'' अशें तिणें म्हळें म्हणटगीर समजुवचें हिच्या पुतान रातीं फेस्त केलां. ताच्याबद्दल विचारतगीर दोळ्यांत दुकां हाडून सांगता ''रातच्याला भरपूर पिवून आला बग. तांबारलेले दोळे पाहुनच मला भंय वाटतंय. तसा तो मला कायबी म्हणत नाय. गप गुमान पडून राहतो. जेवत पण नाय. मग मी बी न जेवताच झोपते.''

म्हयन्यांतल्यान पांच- स दां पूण हें घडटा. दुसरे दिसा तो जाग्यार आयलो म्हणटगीर ही ताका समजायता. पूण परत येरे म्हज्या मागल्या. तेन्ना सोऱ्याक हात लावचोना म्हण घेतिल्लो सोपूत रोखडोच व्हांवन वता. आतां एखादें लग्न केल्यार तो सुदारत म्हण ही त्या आपल्या बावीस-तेवीस वर्सांच्या भुरग्याचो आपल्या गांवाक वचून साखरपुडो उरकून आयल्या. ''आगे तो पयली बरो जावं दी. तूं आनी कोणाक तरी त्रासांत घालता अशें दिसना तुका?'' हांवें म्हणटगीर ती ओगीच रावली. पूण थोडो वेळ. वयल्यान म्हाका समजावपाक लागली ''संवसारांत अडकल्यावर गप गुमान रस्त्यावर येताती'', ''आगे, तुजो घोव कितलो जाग्यार आयलो? घाली मगे तुजी जीण त्रासांत?'' ''माझ्या नशिबांत तेच लिवलं होतं. त्याला कोण काय करणार? त्या पोरीचं नशीब बरं असेल तर सुदारणार म्हाजा पोरगा.'' हाचेर आनी तिका कितें समजावचें तेंच म्हाका कळ्ळें ना.

पूण पयर मात ती बरे उमेदीन आयली. दिसनाफुडेंच म्हजीं फकाणां सुरू, ''पेढे केव्हा देणारीस?'' ''तुजें जाला तरी कितें? आज उमेदीन शी?'' तर बेगीनबेगीन म्हज्या म्हऱ्यांत येवन सांगपाक लागली ''आजपास्नं श्रावण लागला न्हवं? माझा मुलगा आता दारू नाय घेणार बग. चतुर्थी होईस्तोवर मांस-मच्छीला बी हात नाय लावणार. आता म्हयना दीड म्हयना निवांत बग मी.'' म्हणून ती तोंडभरून हासली. ''आता त्याचं लगीन बी जवळ टेकलं ना! शपथ सुद्धा घेतल्यानी दारुला कधीच स्पर्श करणार नाय म्हणून.'' ती उमेदीन थपथपताली. हे खेपेचीय हिच्या पुताची शपथ एकच प्यालांतल्या सुधाकराबशेन जावचीना मूं? अशें म्हाका दिसलें. पूण वयल्यावयर हासत हांवें म्हळें ''म्हणटगीर वर्सयभर श्रावणच आसपाक जाय न्हय?'' ''तर मग लई मजाच मजा'' ती भुरग्यांभशेन किंळचली आनी म्हाका दिसलें, खरेंच हो श्रावण म्हयनो राजश्री सारकेल्यो बायलो, ज्यो आपल्या पुताच्या-घोवाच्या जावं भावाच्या व्यसनांत घुसमटून गेल्यात तांकां एक म्हयन्याखातीर हुसक्या मेकळी जीण जगपाक दिता. हरशीं सोऱ्याबगर जायना आशिल्ले, सोऱ्याबरोबरच नुस्त्या-मटणाची सुद्धां याद करिनासतना देवाचे भक्तींत लीन जातात. तांका आनी तांच्या घरच्यां खातीर हेंय एक चैतन्य म्हणपाचें म्हाका उमजलें आनी नकळत एक चारोळी वंठार आयली.

पतितपावन मनभावन तूं श्रावणा
दिवशी खोस तना मना
तुज्याच खातीर येता तरतरी
रखरखिल्या राना-वनां

पूण दुसऱ्याच खिणाक काळजेन म्हजें मन भरून गेलें. राजश्रीचो पूत लग्न जातलो तेन्ना खरोच सासणाचो सुदारतलो काय? काय हिचेय सुनेक वर्सभर घुसमटत रावन फकत श्रावण येवपाचीच वाट पळोवची पडटली!

पडबेंर



– कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

# ताईबाय



**म्हाका भुरगें जायना म्हणून म्हजो घोव म्हजेकडेन सदांच झगडटालो. एक दीस ताणें म्हाका जात्रेक या म्हूण सांगलें. आमी व्हड्यांत बसून पलतडीं वतालीं. वाटेंत ताणें म्हजें भांगर काडून घेतलें आनी म्हाका न्हंयेंत धुकल्लें. म्हजी कूड तुमचे वेळेर पावली तेन्ना सावन हांव ह्या गांवांत भोंवतां.**

**बा**णावले आमच्या गांवांत ताईबाय आयल्या म्हूण बोवाळ जालो. तो दीस आयतार आशिल्ल्यान म्हाका सुटी आशिल्ली. हे ताईबायन आमच्याच गांवांतले साक्रू नांवाचे बायलेचे कुडींत प्रवेश केल्लो. साक्रू क्रिस्तांव आनी ताईबाय हिन्दू.

साक्रू एक नुस्तेकान्न. घोवूय बी नुस्त्याचोच धंदो करतालो. दोन चार खारवी व्हड्यांत रापण घेवन समुद्राच्या मध्यभागांत वताले. रांपणींत नुस्तें आयलें म्हणटकच रांपण उदकांतल्यान ओडून हाडपाक दुसऱ्या खारव्यांक कूऽऽय घालताले आनी आपयताले. कूऽऽय घालपाची तांची तराय वेगळी आसताली. वेळेवयलो खारवी व्हडल्यान कूऽऽय घालतालो. ती कूय वेळेक लागी आशिल्ल्या खोपींतल्या खारव्यांच्या कानार पडटाली. मागीर तोवूय आपूण कूऽऽय घालतालो. ती कूय गांवांतल्या खारव्यांच्या कानार पडटाली. अशे तरेन खारवी गांवांत एकामेकांक कूय घालून आपयताले. मागीर दर एकलो पाटलो घेवन नुस्तें हाडपाक वेळेर वताले.

कायतान मुखार चलतालो आनी साक्रू ताच्याफाटल्यान. साक्रू पांच-स म्हयन्यांचें गुरवार आशिल्लें. कुडीक जडसाण आयिल्ल्यान ताचे पांय रेंवेंत मुंगरताले म्हूण तें मंद गतीन चलतालें. सगळ्याक काळोख आशिल्लो म्हूण ताका मातसो भंयूय दिसतालो. दोन-तीन फावटीं साक्रून कायतानाक सांगलें "राब रे म्हाका. बेगी बेगीन कित्याक वोयता?" कायतानाक जाता तितल्या बेगीन वेळेर पावपाक जाय आशिल्लें. ताणें म्हणलें, "यो गो. कोण खाता तुका?" मागीर साक्रून मातूय आवाज काडलो ना. घोवा फाटल्यान मोन्यानी चलत वेळेर गेलें.

सगळ्या खारव्यांनीं एकठांय जावन ओय साऽऽ करून रांपण वयर काडली. ताज्या फडफडटा त्या नुस्त्याचे वांटे घातले. आपआपलो वांटो घेवन ते मडगांवच्या बाजारांत वचपाक भायर सरले.

साक्रू पाटें उखलपाक तयार ना. हरशीं वांटो दिसलो म्हणटकच तें रोखडेंच कामाक लागतालें. मोटें नुस्तें कुशीक काडटालें आनी बारीक नुस्तें दुसरेकडे दवरतालें. कायतानाक दिसलें घडये जिवाक बरें दिसना जायत. ताणें ताच्या वांट्याचें नुस्तें आपल्या शेजाऱ्याक बाजारांत व्हरून विकपाक सांगलें. आनी दोगांय जाणां घरा परतलीं.

घरांत साक्रू वोगी वोगीच. कायतानान साक्रूक च्या पिवया म्हूण सांगलें. अकस्मात ताका कंठ फुटलो. 'येशें कोत्ता, तेशें कोत्ता' म्हणपी साक्रू चक्क हिन्दू उलयतात तसली कोंकणी भास उलयतालें. म्हणपाक लागलें, 'तुमी क्रिस्तांव. तुमची च्या आमी पिनांत. म्हजे पांय पळय. मातयेंत लोळ्ळयात. आमकां जोतीं

घालनासतना चलपाची संवयूच ना. हांवें कपलाक सुद्दां लावंक ना. म्हाका पिंजर जाय.' जेन्ना तिका पिंजर हाडून दिली तेन्ना तिणें ती कपलाक लायली. ती सुद्दां वाटकुळीच. तिचें हें वागणें पळोवन घोव अजापीत जालो.

हळुहळू तांच्या दारांत बघ्यांची गर्दी जाली. जो तो तिका प्रस्न विचारतालो. तूं कोण? म्हूण जेन्ना तिका प्रस्न विचारलो तेन्ना तिणें जाप दिली. "हांव ताईबाय" "मागीर तूं हांगा कशी पावली?" दुसऱ्यान प्रस्न केलो. तिणें आपली काणी सांगपाक सुरवात केली. "म्हाका भुरगें जायना म्हणून म्हजो घोव म्हजेकडेन सदांच झगडटालो. एक दीस ताणें म्हाका जात्रेक या म्हूण सांगलें. आमी व्हड्यांत बसून पलतडीं वतालीं. वाटेंत ताणें म्हजें भांगर काडून घेतलें आनी म्हाका न्हंयेंत धुकल्लें. म्हजी कूड तुमचे वेळेर पावली तेन्ना सावन हांव ह्या गांवांत भोंवतां. साक्रून तिच्या घोवाक आपल्याक राव म्हूण सांगिल्लें. तो मुखार चलत रावलो आनी त्याच वेळार हांवें तिचे कुडींत प्रवेश केलो."

त्याच दिसांनी वेळेर एक कूड मेळिल्ली खरी. पूण नुस्त्यांनी तिचे कुडके काडिल्ले. वळखुपाक लेगीत येनाशिल्ली.

त्या दिसांनी ताईबायन गांवांत खवदळ घातिल्लो. आयताराक आयल्यार बुधवारा वताली. वचपाची तिची पद्दतय वेगळी आसताली. ज्या जाग्यार ताईबायन तिचे कुडींत प्रवेश केल्लो ते सुवातेर ती घरांतल्यान वाऱ्याभशेन धांवत सुट्टाली. साक्रूय तशेंच धावत गेल्लें वाऱ्याभशेन. ताच्या फाटल्यान घरचीं आनी लोक धांवताले. वांगडा एकटो उदकांत भरिल्लो बुडकुलोय घेवन धांवतालो. त्या जाग्यार पावतकच तिणें जमनीक घांस मारलो. तेन्नाच तिचें सयराण गेलें. एकल्यान तो बुडकुलो तिचेर फोडलो. आतां साक्रू निस्तेज जावन जमनीर पडिल्लें. साक्रूचे कपडे बदल्ले आनी उखलून ताका घरा हाडलें.

त्या दिसांनी ताईबायन कितल्याशाच घरांनीं प्रवेश मेळयल्लो. सगलो गांव भयभीत जाल्लो. पूण आमच्या सारक्या भुरग्यांक ती मजा दिसताली. शाळेंतल्यान येना बरोबर आमी बोटवो दवरतालीं. गणभेस घालूनच तिच्या दर्शनाक वतालीं. आमकां तिचें उलोवणें वागणें पळोवन अजाप दिसतालें.

म्हजो भूत-प्रेतांचेर विस्वास ना. ही घटना पळोवन म्हाका खूब प्रस्न सतायतात. अतृप्त आत्मे संवसारांत आसतात? ते परकाया प्रवेश करूंक शकतात? एक ख्रिश्चन समाजांतली बायल हिन्दूभशेन कशी उलोवपाक शकता? ह्या प्रस्नांच्यो जापो म्हाका मेळनात. जिवितांतल्या सगळ्याच प्रस्नांच्यो जापो आमकां मेळटात अशें ना. कांय प्रस्न केन्नाच सुटावे जायनात. ते प्रस्न तशेच सोडून दिवपांत शाणेंपण आसता. अशें म्हूण हांव म्हज्या मनाचें समाधान करतां.

ॐ ॐ ॐ

# स्वाईन – फ्लू




**स्वा**ईन फ्लू हें दुयेंस एका एच. वन. एन. वन. नांवाच्या जंतूक लागून जाता.

### हें दुयेंस कशें जाता?

जर स्वाईन फ्लूचें दुयेंस जाल्लो मनीस खांकलो वा शिंकलो जाल्यार हे जंतू वाऱ्यांत पसरतात, आनी एका निरोगी (स्वाईन फ्लू नाशिल्ल्या) मनशाच्या श्वासांत भितर सरत जाल्यार ताकाय बी दुयेंस जावं येता.

### ह्या दुयेंसाचीं लक्षणां कशीं आसतात?

**जोर**
**खोकली**
**ताळो दुखप/फुलप**
**आंग दुखप**
**नाकांतल्यान उदक येवप (थंडी जावप)**
**तकली उसळप**
**ओकारे येवप**
**पातळ परसाकडे जावप**

वयर सांगिल्लीं लक्षणां दिसून आयलीं जाल्यार त्या मनशाक स्वाईन फ्लूचेंच दुयेंस आसा असो समज धरूं नाकात. हो सादो फ्लूचो जोर आसूं येता. जोर, थंडी, ताळो दुखप जर आसत जाल्यार रोखडोच दोतोराचो सल्लो घेवंचो आनी वखदां घेवंचीं. ह्या मनशान हीं लक्षणां कमी जातासर घरा रावचें, कामाक वचचें न्हय. तशेंच ल्हान

### हें दुयेंस जावचें न्हय म्हूण कितें करचें?

खांकता/शिंकता आसतना प्रत्येक मनशान आपल्या नाका/तोंडाचेर लेंस वा टीशू दवरचो. आनी हो टीशू सारको कोयराच्या डब्यांत उडोवंचो. तसोच लेंस नितळ धुंवचो. एकमेकांचे लेंस वापरचे न्हय. आनी आपले हात उदक आनी शाबू लावन धुंवचे.

- आपल्या नाका-तोंडांत ओगीच हात लावचे न्हय.
- भुरग्यांनी तशेंच जाण्ट्यांनी भायल्यान घरांत येतकच हात नितळ धुवून घेवचे.
- गर्दी-झुंडी आशिल्ल्या जाग्यांनी वचपाचें टाळचें.
- थंडी-जोर आशिल्ल्या मनशांनी/भुरग्यांनी कामांक/शाळेंत वचपाक जायना.
- रोकडेच दोतोराचो सल्लो घेवन आनी वखदां घेवचीं.

हें अशें सगळें केल्यार आमी स्वाईन फ्लू जावपाक टाळूं शकतात. आनी जर तर हें दुयेंस जालें जाल्यार ताचेर वखदां आसात जीं घेतकच ७-१० दिसांनी मनशाक गूण पडटा आनी तो सामको बरो जाता.



❀❀❀

– डॉ. वंदना धुमे
फोन :९८२२५८५२८५

आस्वाद

**म**नशाचें म्हातारपण आनी झाडाचें पिकिल्लें पान हाची सदांच तुळा करतात. पयलीं तेंपार म्हातारपण म्हूण कितें तें जाणवतालें. वयाची साठी जाली काय वय जालें. आनी सत्तरी जाली काय जाण्टेपण आयलें अशें म्हणटालीं. पूण आतां तशें कांयच उरूंक ना. कोणूय केन्नाय जाणटो कसो दिसूंक लागता.

म्हजीच हालींची गजाल सांगतां. फाटीं एकदीस सकाळफुडें तोंड पळोवंक हारश्यामुखार उबें रावलें. सहज नदर माथ्यार गेली जाल्यार तकलेर काळ्यामदीं एक पिकिल्लो धवोफुल्ल केंस तोंड वयर काडून रावला. कांय खिणाक म्हाका दिसलें हो म्हाका चाळयताच. तशें हांव जाणटें न्हय पूण हें लचांड पळयतगीर काळजांत ओगीच धस्स जालें. पिको केंस म्हळ्यार लज कशी! तातूंत जाणटेपणाचें लक्षण आनी हीं लक्षणां म्हळ्यार आयुश्याची 'भैरवी' सुरू जाल्या भशेन दिसता. पयलीं हीं लक्षणां पन्नास वर्सां जातकीच दिसतालीं. आतां तीस-पस्तीसांचेर? कोणाच्याच आयुश्याची आतां काळांत धडगत म्हणटा ती ना. वयाची अट लागना. केन्नाय 'आकाशवाणी' जावं येता. हारश्यामुखार उबें राविल्लेकडेन कितले म्हूण मनांत प्रस्न उप्रासले, एका पिक्या केंसाक लागून सांगू तुमका? बायलेची जात म्हजी! शिऽऽशी आकाशवाणी बी इतले बेगीन नाका. भुरगीं ल्हान आसात अजून. आतां सगळ्या दुयेंसांचेर वखदां, उपाय आयल्यात, हजारांनी भुरगीं शिकून दोतोर जाल्यांत. मरण सुद्धां आतां 'डिले' जाता. चिंता कित्याक ती? ओगीच भितरल्या भितर हांसलें हांव, मना समाधानाक सुऽऽ करून घेतलें.

कपडे चडोवन बाजारांत वचपाक भायर सरलें. पूण सदांची उमेद तोंडार नासली. परत-परत हात तकलेर भोवतालो. कोणूय पळयत बी काय हाका? खिणाक दिसलें घराकडेनूच हुमटावन उडोवपाचो हाका. पूण इतलीं वर्सां हांवें ताका सांबाळ्ळो म्हजे तकलेर. ताचो राबितो कित्याक म्हूण ताका झिडकारचो? आज एक पिकलो फाल्यां धा पिकतले. कितले म्हूण काडून उडयतलें? केंस पिकिल्लें काय बाजारांत हांव एकटेंच नाशिल्लें. आनी काळ्या केंसांचीं बायलां आसलीं तांचें तें काळपण 'ओरीजीनल' अशें म्हाका काय दिसनासलें. ना म्हणल्यार आतां केंस पिकिल्ले सगळे लोक केंसांक तरातरांचे रंग फासून 'अभी तो मै जवान हूँ' च्या तालार भोंवतात. हातूंत दादल्यांक चड उमेद. कांय जाणां केंसांक मेथी थापतात. हालीं वर्साचे बाराय म्हयने बाजारांत मेथी मेळटा. हांव भुरगेपणात श्रावण म्हयन्यात मेथये पालो खुडून



# पिकिल्लो केंस

फातरीर वाटून हाताक तिबे थापतालें. तशीच आतां बाजारांतली मेथी हाडून केंसांक थापपाक कोणें आडायलां म्हाका? आतांच निकती सुरवात जाल्या. केन्ना ना केन्ना जातलीच आशिल्ली.

वावरांत वावर थोडो म्हूण तो आनी एंक वावर. दनपरां जेवण जातकर धुवेक म्हळें. "बाय तकलेर हो केंस पिकला जाल्यार पळय गो!"

ताणें बारीक भितर पळयत फट्ट करून म्हळें, "माँ एक न्हय भितर भरपूर पिकल्यात."

ओगीच काळजांत परत धस्स जालें. हांवें म्हज्या म्हाकाच धीर दिलो आनी मनांत म्हळें 'भिवप ना, मेथी आसाच. नाजाल्यार हेयर डाय जिंदाबाद.'

❀ ❀ ❀

– शांतन पावसे
पैरा – गोवा.

कोंकणी

# तो आनी हांव

**आ**यज लेगीत सकाळीं कामाक वतना वाटेर तो म्हाका मेळटा. मेळटा म्हणचे परस आमी दोगांय एकामेकांक मुजरत भेट्टात अशें म्हळ्यारूय जाता. पयर कित्याक लागून तरी हांव म्हापशां वचपाक भायर सरलें. परतून येता म्हळ्यार बरीच आमोरी जाल्ली. घरा येवपाक बेगबेगीन बसींत चडलें. अर्देवाटेर पावता म्हळ्यार तो अचकीत आयलो. तरी बरें! तेन्ना हांव बसींत आनी तो बसी भायर आसलो. म्हाका दिसलें आतां हो म्हाका चुकता सो दिसता! पळय जाल्यार सामको फाटल्या फाटल्यान येवंक लागलो. हांवें मनांत म्हळें येवपाचो आसल्यार मातसो बेगीनूच येवपाचो न्हय? पांच मिनटां पयलीं आयल्यार हागेलें तपलें बुड्टा आशिल्लें हय! पूण तें कांय ना. बस सुट्टकूच फाटल्यान येवपाक ताका तशें पयलीं पासून आवडटा. कोण कितें म्हणत? कोणूय वाटेर पळयत करीत हाचें ताका कांयच पडिल्लें नासलें. घरा पावमेरेन तरी हाणें फाट सोडल्यार पुरो म्हूण हांव वाटभर मागतालें. आनी खऱ्यानीच ताणें वाटेर मर्दीच दडी मारली.

तशी म्हजी आनी ताची वळख आतांची न्हय! म्हाका कळपाक लागत पासून हांव इल्लें इल्लें ताच्या मोगांत पडपाक लागलें. चड करून भुरगेपणांत शाळेक वतना अशेंच वाटेर ताणें म्हाका आडोवचें. 'ओ, सभाग्या! शाळेक वचूंक कळाव जाता' म्हळ्यार लेगीत फाट सोडिनासलो. बरें! हें भेटप एकदां दोनदां तरी, सेगीत दोन तीन म्हयने येत रावतालो. वर्सां गेलीं तशी आमी मोगाची तेंगशी केन्ना गांठली म्हजें म्हाका कळ्ळें ना. खंयूय भायर सरतना ताणें येवप, तो आयलो काय हांवेंय बेगीबेगीन भायर सरप. मागीर वाटभर मिरयत मिरयत ताच्या सांगातान चलप. एक दीस कोणेंतरी ही खबर आवयच्या कानार घाली. तशी आवयन म्हजी बरी तापय काडीत म्हळें, "तुकां आतां ताच्या वांगडा भोंवपाक बरें दिसता जायत. फाल्यां तूच रडटलें." पूण हांवें आवयची सांगणी ह्या कानान आयकून त्या कानान सोडून दिवची. "तूं म्हाका कितलेंय तापय हांव ताचे वांगडा वतलेंच." हो म्हजो बालहट्ट हांवें कसोच सोडलो ना.

फुडें फुडें म्हाका तागेली सामकीच गोडी लागली. तसो तो वर्साच्या बाराय म्हयने म्हाका भेटना, पूण एकदां आयलो काय मागीर वचपाचें नांव घेना. मिर्गान ताणें येवप. तागेलें येवपूय सामकें वाजत गाजत. आपूण येता म्हणपाचें सगल्यांक कळीत करीत तो येता. तशें चोरयां हांव केन्नाच ताका मेळूंक ना. तो येवची फुरसत हांवें सोमतीच भायर धांव मारप. 'आगो, आगो' करता म्हळ्यार हांवें फुज्जो काडप.

आयजूय ताच्या येवपांत एक वेगळी मजा आसता. तो येवचो आसा म्हळ्यार एक वेगळीच तंद्री म्हाका लागता. पुराय वाठारांत उत्कटताय अणभवंक मेळटा. तो आयलो रे आयलो काय सरभोंवतणचे वेगवेगळे गंध, उपरांत नळ्यांतल्यान येवपी धुंवराचो वास, घरांत शिजपी तरेकवार जिनसावारांचो गंध, केन्ना अळम्यांचो, केन्ना शागोतेचो तर केन्ना हळसाण्या तोंडाकाचो वास. श्रावणांत येता तो हळदी खोल्याचो दळ, तर केन्ना मर्दीच जायांचो घमघम. भाद्रपद येता म्हळ्यार तो घेवन येता नेवऱ्या मोदकांचो वास. तातूंत मर्दी मर्दी फोगोट्यांचो वास. मागीर तागेलें आगमन म्हाकाच न्हय तर सगल्यांक मानवता. कवी, शेतकार, सैम सगळींच म्हजेवरी ताका भेटपाक आशेतात.

चाळीस वर्सांचो सांगांत अणभवनूय म्हजी आस भागना. ह्या वर्सा तर तो नेटान आयलो. मन तृप्त जायसर हांव ताच्या सांगातान चिप्प भिजलें. आनीकूय भिजपाचें आसा. पूण म्हाका राग येता तो भौसाचो. तो येवचे पयलीं हुस्के-खंती काडप आनी आयल्या उपरांत पिरंगप म्हाका निखालस आवडना. 'हो आनी आयलो कित्याक?' 'हाका आतांच येवपाचें आसलें!' नाजाल्यार 'आयली ही पिडा!' अशें कोणायच्या तोंडांतल्यान उतरां आयकलीं काय म्हाका भिरभिरी मारता. चुकून येवपाचो मर्दीच बंद जाल्यार परतून ताका दुशणां दिवप केन्नाच सोडिनात. ह्या वेळार हांकां सगल्यांक म्हाका सांगीन दिसता. तो येता फकत म्हाका भेटूंक तुमकां न्हय.

ताचीं रूपांय तरेकवार. ह्या रुपांचेर पुराय संवसार पिसो जाता. केन्ना तो अचकीत येता. येता तोच आपली तकली जमनीर आपटून घेता. केन्ना केन्ना बारीक शेनत रावता. तर केन्ना मर्दीच पावस, मर्दीच वत अशाय रुपान पळोवंक मेळटा. केन्नाय हुंवार, मोड, मळबफुटी अशा आकांताच्या रुपानूय येता. आपल्या आवडीच्या मनशांचें रूप जशें आमकां सदांच तेळीत रावन दिसता. तशेंच ताचें रूप हांव आयजमेरेन दोळे भरून पळोवन घेत आयलां. अशो जायत्यो अमुरपिक्यो यादी म्हज्या मनान आजुनूय जित्यो जिव्यो आसात. ही यादींची शेंपडी लांबयत तितली लांबत वता. चड लांबय नासतना हांवूय आतां ताका मेळपाक वतां. भायर वाट पळयता तो.

❖ ❖ ❖

– काश्मिरी स. पावसकार



एवरशायन अपार्टमेंट,
शिवोली-गोंय.

# फकत लिखाण हेंच म्हजें ध्येय न्हय



– प्रकाश पर्येकार

प्रकाश पर्येकार हे व्यक्तीकडेन उलयतना खूब कितें शिकपाक मेळळें. इतलेंच न्हय तर आपलें ध्येय पुराय करूंक जाय जाल्यार त्या ध्यासान झपाटून त्या ध्येयाच्या पुर्तीखातीर काम करूंक जाय. प्रकाशबाबाचें सपन, आपलो सैम ल्हान तशेंच व्हडानी पळोवंचो, आपलें म्हादय मायेची राखण जावंची. आनी ह्या ध्येयान प्रेरीत जावनच तो आपलें काम मोनेपणान करीत आसा. ताच्या कामांखातीर ताका पुरस्कार मेळत आसा. पूण ह्या गजालींविशीं ताका व्हडलें कांय दिसना. ताच्याखातीर ताणें सैमाविशीं येतिल्लें व्रत ताका पुराय करूंक जाय. प्रकाश पर्येकार हांकां साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्याखातीर जाहीर केल्लो पुरस्कार पयलेच खेप फावो जालो त्या निमतान बिम्ब वाचकां खातीर बिम्बाच्यो आदल्यो पालवी संपादक, आनी लेखिका **प्रशांती तळपणकार** हाणीं केल्लो हो संवाद.

*** साहित्य अकादेमीचो पयलोच बालसाहित्य पुरस्कार तुमकां मेळळो, म्हणून तुमकां मनाकाळजाथावन परबीं. जेन्ना तुमकां ही बातमी कळळी तेन्ना तुमकां कितें दिसलें?**

** पुरस्कारमेळिल्ल्यान पयलेपणाचो आनंद आसाच. पूण तो इतले बेगीन म्हाका मेळत अशें दिसूंक नासलें. कारण कोंकणीच्या मळार साबार लेखक आसात. ते बालसाहित्याच्या मळार सातत्यान बरयतात.

ह्या पुस्तकाविशीं म्हाका खूब आस्था आशिल्ली. तातुंतल्या कथानकाक लागून हें पुस्तक हेर भारतीय भासांनी अणकारीत जावंचें वा ताचेर फिल्म निर्माण जावंचें अशें म्हाका मनापासून दिसतालें. पूण ह्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार मेळटलो अशें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. भौ. पुंडलीकबाबान पुरस्कार मेळिल्ल्याचें फोन करून सांगलें आनी हांव अजापलों. खरें म्हळ्यार पुरस्कार अशेच माजराच्या पावलांनी जाग दाखय नासतना येवंक जाय.

*** तुमच्या मनात ह्या बालनाट्याचें बलस्थान कितें?**

** हो पुरस्कार म्हळ्यार 'इगडी बिगडी तिगडी था' ह्या पुस्तकांत मांडिल्ल्या विचारांचें जैत अशें हांव समजतां. ह्या बालनाट्यांत पर्यावरण सांबाळपाचो विचार केंद्रस्थानार आसा. हांव पर्यावरणाचे चळवळींत आशिल्ल्यान ल्हान भुरग्यां मेरेन पर्यावरणाचें म्हत्व कशें पावतलें असो विचार करता आसतनाच बालनाट्य लेखनाची संद म्हाका मेळ्ळी. आयज मनीस आपले पुरतोच विचार करता. संवसारांतलें सगळें कितें आपल्या सुखाखातीरूच आसा अशें तो धरून चलता. मनशां इतलोच दुसऱ्या जिवावळीकय तितलेंच जगपाचें स्वातंत्र्य आसा हें तो विसरून गेला. 'आमी जगुया आनी दुसऱ्यांकय जगपाक दिवया' अशें आमचे जिणेचें तत्वगिन्यान आसपाक जाय.

**मेळिल्ले पुरस्कार**

१. कथा पुरस्कार (२०००), कथा दिल्ली. चंद्रकोर कथेखातीर

२. दवरणें पुस्तकाखातीर २००५ वर्साचो साहित्य पुरस्कार - कोंकणी भाशा मंडळ - गोंय.

३. पंडित प्रताम नारायण मिश्र स्मृती युवा साहित्यकार सन्मान - २००७, लखनौ (उत्तर प्रदेश)

४. दी गोवा हिन्दू एसोसियेशन, कविवर्य पद्मश्री बा. भ. बोरकर स्मृती पुरस्कार २००७

५. उत्कृश्ट ग्रंथ पुरस्कार (२००८), दवरणें पुस्तका खातीर. गोवा कोंकणी अकादेमी - पणजी.

६. डॉ. टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशनाचो तोखणायेचो पुरस्कार (२००७) दवरणें पुस्तकाखातीर

७. सर्गेस्त मेयशाम नायक युवा साहित्य पुरस्कार - २००९ दवरणें पुस्तकाखातीर


कथा पुरस्कार (२०००), कथा दिल्ली. चंद्रकोर कथेखातीर भेटयतना साहित्यकार कृष्णा सोबती

*** ह्या बालनाट्याचो खंय आनी कसो जल्म जालो?**

** २००४त नाट्यकर्मी प्रमोद महाडेश्वरान म्हाका सांगलें, एक बालनाट्य जाय. कोंकणी अकादमीचो बालनाट्य महोत्सव आसा. म्हज्या मनांत हो विशय घोळटालोच. म्हणटकच हांवें म्हज्या मनांतले विचार बालनाट्यांत उतरावन काडलो. ह्या नाटकाचो प्रयोग ता. ६ जानेवारी २००५ ह्या दिसा राजीव कला मंदिर, फोंडें हांगा कोंकणी अकादमीच्या बालनाट्य महोत्सवांत जाल्लो.

ह्या नाटकांत केरी सत्तरींतल्या बालकलाकारांनी काम केलां. तें प्रमोद महाडेश्वरान बसयलां. मुखार ताचे गोंयभर चवदां वयर प्रयोग जाले. ताची सि.डी.य तयार जाली. मागीर हें बालनाट्य एकांकिकेच्या रुपांत कलाअकादमीचे शालेय सर्तींनी सादर जालें. हिंदींत अणकारीत करून बालभवनाच्या विद्यार्थ्यांनी तें तांच्या महोत्सवांत सादर केलें. २००६ वर्सा बालमंच हे येवजणे खाला हे बालनाट्याचें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीन उजवाडा हाडलें.

*** ह्या पुस्तकाक बालसाहित्य पुरस्कार मेळ्ळा म्हणटकीच तें नाटक वाचपाची सगळयांक उमळशीक आसतलीच पूण तरीय बिम्ब परिवारा खातीर नाटकाच्या कथानकाविशीं थोड्या उतरा भितर सांगशात?**

** हय तर. ह्या म्हज्या नाटकांत तोंडया जादुगारान जादवाच्या बळान विठूचे आवयक 'झाड' केल्ली आसता. हो तोंडयो जादुगार म्हळयार मनशांभितर लिपून आशिल्लो राकेस. आयज संवसारांत अशेंच चल्लां. एकलो दुसऱ्याक चिड्डिता. तांचो आवाज चिड्डिता. आनी आपूण सुखान जगपाक सोदता. म्हज्या ह्या नाटकांत झाड उलयता. आपली वेदना मांडटा. हेर जनावरांय आपआपली व्यथा कथन करतात. ह्या तांच्या दुख्खान पुराय रान पेटून उठ्ठा. मनशांतलें मनीसपण जागें जाता. सैम राखणेचो मंत्र काळजांत किल्लपाक लागता. आनी तांची सुटका तांच्या खऱ्या रुपांत जाता.

*** तुमचे स्वताचें झाडांपेडां, जीवजीवाणी हांचेविशीं खूब ज्ञान आसा. म्हणटकीच हें बालनाट्य बरयतना तुमकां चड कश्ट पडूंक नासतले न्हय?**

** ना. हें बालनाट्य बरोवपाक म्हाका बरेच त्रास काडचे पडल्यात. हांवें जीं झाडांपेडां, जनावरां उबीं केल्यांत तांचेविशीं म्हाका खूब अभ्यास करचो पडलो. म्हाका हातूंत भुरग्यां मुखार रान उबें करपाचें आशिल्लें आनी तातूंत व्हडलें झाड घेवपाचें आशिल्लें. हें झाड म्हाका खूबच व्हडलें दाखोवंक जाय आशिल्लें. आमच्या गांवांत म्हज्या ल्हानपणांत अशेंच एक झाड आशिल्लें जें चार-पांच जाणांच्या वेंगेंत येनाशिल्लें. हें झाड हांवें म्हज्या नाटकांत उबें केलां. खरें पळोवंक गेल्यार बालसाहित्य हो सगळ्यांत कठीण प्रकार.

*** कित्याखातीर तुमकां अशें दिसता?**

** जेन्ना आमी भुरग्यांखातीर बरयतात तेन्ना आमी तांची मानसिकताय समजून तांकां समजतले ते पातळेचेर वचून बरोवंक जाय. म्हज्या ह्या बालनाट्याचीच देख घेवन सांगपाचें जाल्यार नाटकापरस म्हज्या मनांत हो विशय खूब तेप घोळटालो. ह्या आधुनिक काळांत शार वेगान गांवांत घुसपाक लागलां. हे प्रक्रियेक लागून शेकडयांनी प्रस्न मनशांमुखार आनी चड करून सैमा मुखार उबे रावल्यात.

हो विशय भुरग्यांमुखार तांकां समजता ते भाशेन हाडप कसो हो म्हजे मुखार प्रस्न आशिल्लो. म्हजो Target ग्रूप तेरा-चवदा वर्सां मेरेनचीं भुरगीं आशिल्लो. म्हणटकीच तांकां कितें आवडटा? वेगवेगळीं जनावरां पात्रांच्या रुपांत हांवें नाटकांत उबीं


पंडित प्रताम नारायण मिश्र स्मृती युवा साहित्यकार सन्मान - २००७, लखनौ (उत्तर प्रदेश) स्विकारतना


दी गोवा हिन्दू एसोसियेशन, कविवर्य पद्मश्री बा. भ. बोरकर स्मृती पुरस्कार २००७ स्विकारतना.

केलीं. तांकां कितें आवडटलें हाचेर हांवें खूब ground work केलो आनी तांका समजता त्या सादे सोपे भाशेन हें नाटक तयार केलें.

* **सद्द्या तुमी आनीक बालसाहित्य तयार करपाचे तयारेंत आसात काय....**

** आतांच न्हय, हांवें २००७ वर्सा अटंग्या रानांतल्या संघर्शाचेर, रानवळख आनी रानअजापाचेर बालकादंबरी बरयल्या. ही कादंबरी अप्रकाशीत आसा. पुस्तकां उजवाडा हाडपाचे प्रक्रियेंत हांव मात्सो फाटीं. बरयतकच तें पुस्तक रुपांत रोकड्या रोकडें येवचें अशें म्हाका केन्नाच दिसना. म्हाका दिसता ताचेर म्हजे आनीक संस्कार जावंचे, हांवें तातूंत आनीक बदल करचे आनी तें लिखाण परीपक्व जातकीर ताचें पुस्तक रुपांत रुपांतर जावचें.

* **म्हणटकीच तुमचीं पुस्तकां वाचपाक तपाचीं तपां वाट पळोंवची पडटली?**

** ना, ना तशें कांय ना. आतां रोखडेंच म्हजें 'म्हादय माये' हें पुस्तक येवपाचे वाटेर आसा. म्हादय देगणांतलें रान, काबाडकश्ट करपी समाज, लोक उत्सव, पारंपारीक वेवसाय, उपन्हयो, वजरे, वनस्पत हाचेर आदारीत आशिल्लें हें पुस्तक वाचनीय आनी म्हायतीपूर्ण जावंचें म्हण हांवें खूब कश्ट घेतल्यात.

* **तुमची साहित्यीक जीण कशी आनी केन्ना सुरू जाली?**

** हांव एका गांवांतलो भुरगो. म्हजो आवय-बापूय अशिक्षीत. एकंदां आमगेर 'मंगलदास नायक' ही नेवरा, तिसवाडींतली व्यक्ती आयिल्ली. ताणी म्हाका शिकपाखातीर आपल्यागेर व्हरपाक बाबाची परवानगी मागली. बाबान संमती दिली. आई राजी नाशिल्ली पूण म्हाका शिकपाची खूब उमेद आशिल्ली. म्हणून हांव तांगेर पावलों. बारावी मेरेनचें शिक्षण जाय मेरेन हांव थंय सात वर्सां रावलों. वयलो काळ म्हजेखातीर खूब संघर्शाचो आशिल्लो कारण सत्तरी सारक्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान हांव थंय गेल्लों. म्हजी भास वेगळी, भेस वेगळो. थंय म्हजीं फकाणां खूब जातालीं. आमच्या हायस्कुलांत साहित्य लेखनाविशीं वातावरण कांयच नाशिल्लें. हेर कार्यावळी खूब जातालयो. हांव णववेक आसतना कथाकथन सर्तींत हांवें स्वतः कथा बरोवन सादर केल्ल्याची म्हाका याद जाता. मुखार फादर आग्नेल उच्च माध्यमिक विद्यालय, पिलार हांगा शिकता आसतनाय म्हाका साहित्यीक वातावरण मेळ्ळें ना. पूण त्या वेळार हांवें मराठींतल्यान कविता बरोवपाक सुरवात केल्ली.

साखळे हांगा शासकीय महाविद्यालय, त्याच वेळार नव्यान सुरू जाल्लें. थंय म्हाका कोंकणी वाचनाची आवड लागली. मेळत तें कोंकणी पुस्तक वाचपाक सुरू केलें. आतां हांव कोंकणींतल्यान कविता करतालों. म्हाविद्यालयीन पावंड्यार काव्य सर्तींनीं भाग घेतालों. म्हाका इनामांय मेळटालीं. ह्या वेळार संजय तेंडुलकाराची वळख जाली. ताणें म्हाका आपली भयण शांती तेंडुलकार हाच्या 'मोगऱ्या आटी' विमोचनाक आमंत्रण दिलें. हांव थंय गेलों. २४/१२/१९८९ ह्या दिसा आशिल्ल्या ह्या कार्यक्रमाक भौ. पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार आनी डॉ. महोहरराय सरदेसाय, नागेश करमली, नारायण देसाय ह्या कोंकणी साहित्यीकांक लागींच्यान पळोंवपाची संद मेळ्ळी. मुखार शांती तेंडुलकाराच्या मार्गदर्शनाखाला कोंकणीचे खूब कार्यक्रम जाले आनी हांव कोंकणी भाशीक आनी साहित्यीक चळवळींत सक्रीय जाल्लें.

* **आनी मागीर..........**

** १९८७ वर्सा सावन हांव बरयतां. सातत्यान बरयत आयलां पूण खूब थोडें बरयलां. सुरवातेक कविता बरयतालों. भाईमावज्यान म्हज्यांतल्या कथाकाराक



जागयलो. कथा बरोवपाक लागलों. मागीर ललीत निबंद. मर्दी नाटकुलीं, मोनोलॉग, एकांकिका बरयल्यात. नाटकांचे अणकारूय केल्यात. ललित निबंदाकडेन हांव अपघातान पावलों. शंबराच्या लागीं हांवें निबंद बरयल्यात. एक मात खरें. ललित निबंदांत स्वत: लेखकाक उलोवपाक मेळटा. मनांतलें सांगपाक मेळटा. वाचकांकडेन संवाद सादपाक मेळटा. ताका लागून निबंद हें साहित्याचें एक बरें माध्यम.



गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ट ग्रंथ पुरस्कार (२००८), दवरणें पुस्तका खातीर मुखेल मंत्री दिगंबर कामत हांच्या हस्तुकी स्वीकारतना. वांगडा पुंडलीक नायक.

*** म्हणटकीच तुमची खरी वळख कितें? तूं बालसाहित्यीक कवी, निबंदकार काय कथाकार?**

** कोंकणी साहित्याच्या मळार म्हाका कथाकार म्हण वळखतात. कथाय हांवें मोजक्योच बरयल्यात. सत्तरींतलें ग्रामीण जीवन म्हज्या कथेंतल्यान उलयता. थंयचो समाज, तांचें राहणीमान, तांचे पारंपारीक वेवसाय, तांचें लोकमानस म्हज्या कथांतल्यान तुमकां दिसतलें. ह्या म्हज्या कांय कथांचेर ल्हान फिल्मां जाल्यांत. कांय कथांचें एकांकीकेंत रुपांतरण जालां.

म्हज्यो कांय कथा मराठी, हिन्दी, तेलगू, कन्नड, उडिया, इग्लेज आनी पुर्तुगेज भाशेंत अणकारीत जावन राष्ट्रीय नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. भारतीय वाचकांनी तांका बरो प्रतिसाद दिला.

*** हाचेमुखार कितें करपाची तुमची इत्सा आसा?**

** म्हाका दिसता हांवें आतां ग्रामीण जीणेचेर कादंबरी बरोवपाक जाय. ते दिकेन म्हजे प्रयत्न चालू आसात. म्हज्या पि. एच. डीच्या कामांत व्यस्थ आशिल्ल्यान ताचे खातीर म्हाका कांय वेळ रावचो पडटलो.

*** म्हणटकीच तुमी तुमचो सगळो वेळ साहित्याखातीर ओपपाचे थारायलां तर?**

** ना फकत लिखाण हेंच म्हजें ध्येय न्हय. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या भुरग्यांच्या सुप्त गुणांक वाव मेळचो, तांचो सर्वांगीण विकास जावंचो म्हण धा वर्सां फाटीं हांवें शिक्षणीक संस्थेची थापणूक केल्या. थंय पुर्वप्राथमिक आनी प्राथमिक पावंड्यार तांकां शिक्षण मेळटा. भुरग्यांचो सगळ्या आंगानी विकास जावंचो म्हण हांवें थंय कांय प्रयोग केल्यात. ल्हानपणासावन सैमाकडेन नातें जुळचें म्हण पावसाळी आनी शिंयाळी भोंवडच्यांचें आयोजन करतात. पारंपारीक खेळ, दोरयेवेल्यान चलप, उदकांत पेवप तशेंच बाजाराची वळख घडची म्हण 'बाजार डे' असले थंय उपक्रम चलतात. भुरग्यांकडेन पळोवपाचो म्हजो एक वेगळो दृश्टीकोण आशिल्ल्यान हे उपक्रम शाळेंत यशस्वीपणान आमी राबयतात.

*** तुमी येदें व्हडलें काम करतात पूण ह्या कानाचें त्या कानाक कळनासतना. ह्या तुमच्या उपक्रमाखातीरय तुमकां परबीं आनी तुमची मनोकामना, तुमच्यो इत्सा साहित्यीक मळार फळफळुंदी अशी आस्त बाळगून, तुमकां आमी देव बरें करूं म्हणटात.**





❀❀❀



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. गणपतीचो आवडटो पदार्थ
३. गणपतीची आवय
५. नमुनो, अनुकरण
७. मुसलमानी प्रार्थना
९. रंग
१०. धर्मीक थळां भोंवपी
१२. रेडिओ, नभोवाणी
१३. धा आनी वीस
१५. णव आनी आठ
१६. रबराचें
१९. एक खूब केंस आशिल्लें रानटी जनावर
२१. 'भरती'च्या उरफाटें
२२. मुखेल व्हडलें दार
२४. रक्त
२६. गणपतीचो बापूय
२७. कडक, जुलमी (मराठी
२९. चड बरें
३१. पूत, चलो (मालवणी)
३२. घातकी
३३. देणे-घेण्याविशींचो विस्वास

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | | ४ | | ५ | ६ |
| | | ७ | ८ | | | | | ९ | |
| १० | ११ | | | | १२ | | | | |
| | | | १३ | १४ | | | | | |
| १५ | | | | १६ | १७ | | | | १८ |
| | | | १९ | | | | २० | | |
| | | २१ | | | | २२ | | २३ | |
| २४ | २५ | | | | २६ | | | | |
| | २७ | | २८ | | | | २९ | | ३० |
| ३१ | | | ३२ | | | | | ३३ | |

## उबे

१. गणपती बाप्पा ह्लह्ल
२. भांगर (संस्कृत)
३. अरूंद खींड
४. आमोरी, तीन सांज
५. देवाली भास, संस्कृत भास
६. कुदळीन जमीन भुसभुशीत करपाचें काम
८. हनुमान
११. साठ आनी तीन
१४. विद्यादेवता, शारदा
१५. अनुवादन, भाशांतर
१७. बळ (हिन्दी)
१८. बापायचो आजो
१९. धा, ह्लरा, बारा
२०. परकी देश (हिन्दी)
२१. सणाची दोरी
२२. धा (मराठी)
२३. वावर करप, कश्ट करप
२५. खबर, काणी
२६. मोठेपण, थोरवी (मराठी)
२८. एक नक्षत्र
३०. सत्य

## ऑगस्ट उत्तरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| व | ण | ख | प | | आ | मं | त्र | ण | |
| ण | | डी | | भा | डो | त्री | | | आ |
| त | र | सा | द | | | | खो | ला | य |
| | | क | म | ळ | जा | | व | | स |
| आ | पा | र | | | दु | ख | प | | प |
| म | | | ति | रं | गा | | | सा | य |
| र | वि | वा | र | | र | वि | | द | स |
| स | | चा | क | र | | ना | ड | प | |
| | क | ळ | स | | गा | य | | | ती |
| ध | र्म | | | पा | त | की | | दो | न |

# डायरी - ए - काश्मीर



आमचे भालदार चोपदार - मन्सूर आनी आझाद गुलमर्गाक थंडेन कुडकुडटात

गुलमर्ग पावल्याबराबर मन्सूरान आमकां सकयल देंवयलीं. सगळ्यांत पयलीं हांव देंवलों. आमकां देंवोवन तो एक तर गाडी पार्क करूंक वचपाचो वो आनी खंय आपल्याक जाय थंय.

गाडी आमची वातानुकुलीत आशिल्ली खरी पूण ती फक्त नांवाखातीर. कश्मीराक ते लोक एसी कपलाक लायतले? पूण भायर थंडी आशिल्ल्यान आमी गाडयेचे हारशे वयर चडयल्ले. ताका लागून भायले थंडेची आमकां कल्पना नाशिल्ली.

टंगमर्गाक कुकीन, काकीन थंडेआड झुंजपाक म्हणा वो थंडे पासून राखण करपा खातीर म्हणा! हाताक घालपाचे ग्लोवज, स्वेटर बी आयुदां घेतिल्लीं पळोवन हांव मनांतल्या मनांत तांका हांशिल्लों. पांच-स वरां खातीर हीं ग्लोवज बी घेतात म्हणटकच दुड्डू उदकांतच ते अशें म्हाका दिशिल्लें.

थंड हवेच्या प्रदेशांत वचपी लोकांची तशी एक मानसिकताय जाताय बी! थंड हवेच्या प्रदेशांतूच कित्याक? गोंयांत शिंयां दिसांनी स्वेटर घालोना जाल्यार शिंयाचे दीस अशें कोणाक दिसय बी ना. आतां तर आमी गोंयकारां कश्मीराक आशिल्लीं. कश्मीर म्हणटकच शिंयाचो कुडकुडो अशें आमी थारावनूच आयिल्लीं. तातूंत वाटेर स्वेटर, ग्लोवज बी विकपी लोकांनी तातूंत भरूच घाल्ली. थंडे आड झुजपा खातीर लागपी सगळ्यो वस्तू हांगा विकत्योय मेळटाल्यो आनी भाड्यानूय मेळटाल्यो. ते लोक थंय मांड घालून बसल्यात ते कितें बेकार आसात म्हणून? अशें शें कितें थंय येवपी सगळ्यांकूच दिसतालें. मुखार आनी घात जावपाक नाका म्हूण पर्यटक कितें ना कितें विकतें घेताले वो भाड्यान तरी व्हरताले. तांचीं तीं पिशेपणां अशें हांवें मनांतूच म्हणूंक नाशिल्लें तर उलोवनूय दाखयिल्लें. पूण म्हर्जी तीं शाणेपणां म्हाकाच भुजिल्लीं.

गाडयेंतल्यान सकयल देंवल्या बराबर म्हाका थरथरो मारिल्लो. दांत कडकड करून एकमेकांक आपटताले. बोल्सांत हात घालून हांव अक्षरशा कुडकुडटालों आनी हाताक ग्लोव्ज घालून, स्वेटर चडोवन, कानाक मफलर गुंडाळून कुकी आनी काकी सामकीं ऐटींत सकयल देंवतालीं. हांव कुडकुडटां तें पळोवन तांका भितरल्यान हांसो सुटिल्लो. चड शाण्याक फांतरांचें शीत, खा आतां अशें शें कितें म्हाका तांच्या मुमुरख्या हासपांत दिसतालें. पूण ताका आतां उपाय नाशिल्लो.

हांव आनी आझाद बोल्सांत हात घालून कुडकुडत मुखार चलताले आनी कुकी, काकी जळमळाक पळयत आमच्या फाटल्यान चलतालीं. तांच्या फाटल्यान घोडेवाल्यांचो ससेमिरो लागिल्लो. तोंडांतल्यान वाफ सोडीत, फाटीं वळून पळयत आझाद तांका कश्मीरी भाशेंतल्यान कितें तरी सांगतालो. तरी ते आमची फाट सोडपाक तयार नाशिल्ले.

आझाद आमकां एका बुथाकडेन घेवन गेलो. थंयच्या मिलिटरीच्या लोकांकडेन

तो कश्मीरींतल्यान किर्ते तरी उलयलो आनी त्या फौजी बुथाचेर दवरिल्ल्या रजिस्ट्राचेर आमच्या नांवाची नोंदणी करूंक लायली. लायन ऑफ कंट्रोल (LOC) खातीर तें रजिस्ट्रेशन गरजेचें आशिल्लें.

थंयचे ते थंडेकडेन आतां म्हज्या शरिरान मैत्री केल्ली. शरिराक थंडेचो सराव जाल्लो. आसा फटें खाता शीं अशी मानसिकता मनशाची आशिल्ल्यान, म्हजेकडे फटें ना म्हणटकच शिंयानूच पळ काडिल्ली. मन्सूर खंय तरी नाच्च जाल्लो गाडी घेवन. आझाद आमचे वांगडा चलतालो.

आमकां वचपाचें आशिल्लें गंडोलाकडेन. गंडोला म्हळ्यार केबल कार. ह्या गंडोलाकडेन वतना थंय मेरेन गाडी व्हरूंक दिनांत. जंय लायन ऑफ कंट्रोलाची नोंदणी करची पडिल्ली थंयच गाडी पार्क करूंक मैदान आसा. म्हणटकच एक देडेक किलोमिटरांचें अंतर डांबरी रस्त्यावेल्यान चलचें पडटा. त्या रस्त्यावेल्यान कांय जिपी बी मुखार वताल्यो पूण तें नाटक आमकां खबर नाशिल्लें आनी हांव जाणा जावन घेवंकूय गेलों ना.

हांव म्हजे तंद्रेंत चलतालों. मदीं मदीं पावसूय शिंवरतालो. जमीन सगळी पावसाच्या उदकाक लागून चिकचिकीत शी जाल्ली. तातूंत घोड्यांनी आपली लीद सगळेकडेन शिंवरायल्ली. ताचो एक विचित्रसो घाणवास वातावरणांत दाटून आशिल्लो. ते लोक त्या जनावरांक घोडे म्हूण पाचारतात देखून तांका घोडे म्हणपाचे. खरे जातीवंत घोडे ह्या लोकांक थोडेच परवडपाचे! ते घोडेवाले जे पध्दतीन पर्यटकांच्या फाटल्यान लागताले आनी पयशांकडेन वांटपणा करताले तें पळयल्यार त्या दळिद्री लोकांकडेन घोडे आसप म्हळ्यार लेगीत घोड्यांक लज. ते घोडे खेचरांच्या जातींतले आसूंये! तांका घोडे मानून पर्यटक तांचेर बसून शिवाजीचो आव हाडटाले.

हांवें कुकीक आनी काकीक म्हळें, तुमकां जाय जाल्यार बसून वचात घोड्याचेर. ताणीं बशिल्लीं म्हाका जाय आशिल्लें. तशे फोटो काडूंक मेळपाचे. पूण फाटीक लागूनय आमचे मदलो कोणूच घोड्याचेर बसनासतना पावसाचे रिपरिपीतल्यान गंडोलाचे वाटेन चलूंक लागिल्लीं.

गुलमर्ग हो कश्मीरांतलो सगळ्यांत सुंदर असो वाठार. पयल्या नंबराचें पर्यटन थळ म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. कितल्याश्याच चित्रपटांचें चित्रिकरण ह्या वाठारांत जालां. मागीर तें बर्फांतल्या वेगवेगळ्या खेळांचें स्कीईंगचें बी आसूं वो चडशी कुशळताय लागना असले खेळ जशे टोबो गॅनिंग म्हळ्यार घसरगाडी, स्नो स्कूटर, स्नो बॉबींग हांचें चित्रिकरण हांगा जाल्लें आसा.

गुलमर्गचें हें पठार म्हळयार सैमसुंदरायेचो एक उत्कृश्ट नमुनो. साडेतीन कि.मी. लांबायेचो आनी एक कि.मी. रूंदायेचो वाठार म्हळ्यार पांचवेंच कार्पेट घाल्लेवरी पडून आशिल्ली सपाट जमीन. हिरवळीचो रंगूय वेगवेगळ्या थरार वेगळो दिसतालो. पयस नदर मारीत जाल्यार बर्फान माखिल्लीं दोंगराचीं तेमकां. ताच्या पयलीं पाईन, फर, सुरू ह्या जातीच्या रूखावळीची रांक. ह्या रूखांचीं तेमकां कुपांनीं लिपिल्लींच आसतात. जणकाय हीं धवशीं काळशीं कुपां आपली चादर हांचेर घालून थंडेपासून तांची राखण करूंक सोदतात.

ह्या रुखांचें हांगच्या सैनिकांमदीं खूबच सारकेपण आसा. हीं रूखां मात लेगीत हालनासतना दिग्ग उबीं आसतात आनी तांच्या मुळसांत हातांत शस्त्रां घेवन उबे आशिल्ले सैनिकूय दिग्ग उबे आसतात. मात्तूय हालचाल ना दोगांयचीय. दोगांयचोय रंग एकूच आनी दोगांयचेंय उबें रावप एकेच तरेचें. भावना नाशिल्लें.

समुद्रसपाटी पासून २७३० मीटर उंचायेर आशिल्लें गुलमर्ग हें पर्यटन थळ गुलमर्ग ह्या नांवान आतां आमी वळखतात. पीर पंजाल दोंगरावळीच्या मुळसांतल्या ह्या मनभुलावण्या वाठाराचें नामकरण १६व्या शेकड्यांत सुलतान युसूफ शाह हाणें केलें. गुलमर्ग म्हळ्यार गुलांचें-फुलांचें, फुलांखातीर राखून दवरिल्लें मैदान वो पठार. गुलमर्गचें पयलींचें नांव गौरीमर्ग. गौरी हें देवी पार्वतीचें एक नांव.

गुलमर्गाचें तें मनभुलायणें रूप हांव दोळ्यांनी घटाघटा पियेतना थंयच्यान भोंवपी सुलतान युसूफ शाह, ताचे वांगडा भोंवपी हब्बा खतून, जहांगीर आनी नूर जहां भोंवतात म्हणपाचो भास जावंक लागलो. ह्या रसिक, कलासक्त सम्राटानी, हब्बा खतून, नूर जहाँ सारख्या सर्वांगसुंदर प्रेमिकांवांगडा हांगा सर्गीय विहार केला जावंक जाय. चौगांकूय हो वाठार भोवच आवडिल्लो देखून तीं परतून परतून हांगा येवन रावतालीं अशें बऱ्याच इतिहासकारानी नोंद करून दवरिल्लें आसा. सुल्तान युसूफ शाह तर हब्बा खतून खातीर कितेंय करपाक तयार आशिल्लो. ताणें हब्बा खतूनाक ताच्या जाणट्या घोवा पासून काडीमोड घेवंक लायलो. आनी कोणूय सुलतान आशिल्लो जाल्यार आपले सत्ते नेटार त्या जाणटेल्या शेतकाराक मारून तरी उडोवपाचो नातर आपले कादयेंत उडोवन झूनीक उखलून व्हरपाचो. पूण युसूफ शाह कलेचो रसीक. तो झूनीच्या सौंदर्या वांगडाच ताचे कवितेन भारावल्लो. तो आपलो अधिकार, सत्ता सगळें कुशीक दवरून एक सादो प्रियकर जावन झूनीच्या बापायकडे गेलो. ताच्यो आनी झूनीच्या घोवाच्यो सगळ्यो अटी पुराय करून झूनीक विधिवत काडीमोड घेवंक लावनूच ताणें ताचेकडेन निकाह केलो. झूनीचें नांव बदलून हब्बा खतून दवरलें. तिच्या मना सारकें वागून काव्यकला हाका आपल्या राज्यांत आश्रय दिलो. हब्बा खतूनचे इत्से खातीर गौरीमर्गचें नांव बदलून गूलमर्ग केलें. प्रेमाखातीर असो धर्तरेचेर राविल्ल्या ह्या प्रेमविराक कोणूय सलाम करतलो.

बारामुल्ला जिल्ल्यांतल्या ह्या वाठारांत संवसारांतलो सगळ्यांत उंचायेवेलो गोल्फ कोर्स आसा. १८९२ सालांत फक्त आठ होल्स आशिल्लो हो गोल्फ कोर्स आतां १८ होल्सांचो केला. इतले उंचायेर इतलो

गुलमर्गाच्या अफ्रावत पर्वतावेल्या बर्फाचेर स्कीईंग करतना कुकी आनी इन्स्ट्रक्टर

विस्तिर्ण गोल्फकोर्स आसप म्हळ्यार हांगच्या पर्यटन थळाक लाबिल्ली एक सैमीक देणूच म्हणूंक जाय.

गुलमर्ग आयज संवसारीक नकशाचेर आपलें खाशेलें अस्तित्व सांबाळून आसा. गोल्फ खेळपाखातीर संवसारांतले गिरेस्त लोक हांगा तळ ठोकून म्हणटात तशे रावतात. हांगचें 'हिल रिसॉर्ट' हें ह्या लोकांचें राबित्याचें खाशेलें थळ. हांगा गोल्फ क्लब आसा. १९०२ वर्सा ब्रिटीशांनी हो क्लब स्थापन केल्लो. हांगा गोल्फ खेळाक लागता तें सगळें सामान भाड्यान मेळटा. म्हणटकच विमानान येवप श्रीनगर मेरेन, थंयच्यान हेली कॉप्टरान गुलमर्ग मेरेन येवन 'हिल रिसॉर्टी'त रावप आनी थंयचे ते सैमीक सुंदरायेंत, प्रदुशण मुक्त वातावरणांत कांय दीस सारप हें खऱ्यानीच एक आगळो वेगळो अणभव म्हणूंक जाय.

डिसेंबर-जानेवारी म्हयन्याच्या काळांत हांगचो हो पुराय वाठार बर्फापोंदा लिपता. तशें पुराय कश्मीर बर्फाची शाल पांगरता. पूण गुलमर्गाची गजाल वेगळी. हो वाठार वेगवेगळ्या थरांचो. एक वेवस्तीत असो आखिव प्रदेश म्हळ्यार अतिताय जावचिना. सैमान ती आखणी वेवस्तीत केल्या. ह्या वाठारांत बर्फ पडून ताचो थर जमलो म्हणटकच त्या बर्फापोंदा व्हडलीं व्हडलीं खडपां लिपून वतात. पाईन्स, फर बी रूखां पानां झडोवन बर्फाचें न्हाण घेत अनासक्त जावन थीर उबीं रावतात. आनी मागीर थंय खेळ सुरू जाता. स्कीईंगचो. बर्फांतले सगळे तरेचे खेळ खेळपाक हो वाठार सामको सुरक्षीत.

स्कीईंग शिकपा खातीर हांगा देश-विदेशांतले कितले तरी भुरगे दर वर्सा येत आसतात. कुशळ प्रशिक्षक आनी स्कीईंग करपा खातीर गरजेचीं सगळीं साधनां हांगा भाड्यान मेळटात. ही गजाल हांवें सांगतकच कुकीन स्कीईंगाखातीर हांगा येवपाचो निर्णय घेवन उडयलो आनी काकीन ताका अनुमोदन दिवन उडयलेंच.

कुकीक गंडोलान वयर बर्फाळ वाठारांत वचपाचें आशिल्लें. ताका घाईच लागिल्ली. जितलो वेळ वयर घालोवंक मेळटा तितलें ताका जाय आशिल्लें. ताका सकयल्या सपाट प्रदेशाची, थंयच्या सैमीक सुंदरायेची व्हडलीशी रूच आनी आकर्शण

इतलो बर्फ पळोवन खंयच्या भुरग्याक तातूंत खेळचें अशें दिसले बगर रावत!



नाशिल्लें. हांवें हांगा येवचे पयलीं केल्लें वाचन, गुलमर्गाची करून घेतिल्ली वळख हाका लागून बऱ्योच गजाली पळयनश्यो दिसताल्यो. ताकाच एक पुराय दीस पावचो नाशिल्लो.

हांगच्यान नंगा पर्वतावयलीं नुन-कुन्ह हीं पर्वत तेमकां आंगा-माथ्याक बर्फाच्यो शाली लपेटून बसल्यात तीं दिसतात. एके सुवातेवेल्यान तर श्रीनगराचें सुंदर दर्शन घडटा. तें आमी शंकराचार्य मंदिराच्या वाठारांत उबें रावन पळयल्लेंच. पूण हांगच्यान वेगळो ॲन्गल पळोवंक मेळपाचो. पूण वचप जालें ना.

आदीं कल्पना केल्ले प्रमाण 'जय जय शिवशंकर' मंदिराची वळख मात याद ताजी करताले. एके पर्वतीचेर हें जय जय शिवशंकर मंदिर आसा. 'आपकी कसम' ह्या चित्रपटांत 'राजेश खन्ना आनी मुमताज' हांचेर हांगा चित्रिकरण जालां. 'जय जय शिवशंकर, ना काटा लगे कंकर' म्हणत राजेश खन्ना हांगा नाचता तेन्ना ह्या वाठारांचें जाल्लें पुराय चित्रण आमकां पळोवंक दिलां. मागीर 'जिंदगी के सफर में गुजर जाते है जो मकाम, वो फिर नही आते' हें पद राजेश खन्ना म्हणटा तेन्ना फ्लॅशबॅकांत हांगच्यो यादी दाखयतना परतून हो वाठार अर्दीमर्दी पळोवंक मेळटा. त्योच यादी ह्या वाठारांत भोंवतना जागवतात.

आमची पथारी आतां गंडोलाकडेन पाविल्ली. गंडोला म्हळ्यार केबल कार. गुलमर्गाक दोन टप्प्यानी तयार केल्या. पयलो टप्पो गुलमर्ग तो कोंगडूर मेरेनचो. कोंगडूर काय कोंगडोरी? हें जाणा जावपाचे भानगडींत हांव पडलोना. कोंगडूर म्हूण तिकेटीचेर बरयल्लें. पूण थळावे लोक कोंगडोरी म्हणटाले. हांगा गंडोलांतल्यान प्रवास करपाक दर पर्यटकाक तिनशीं रुपया घेतात. जम्मू आनी कश्मीर स्टेट केबल कार कॉर्पोरेशन लि. ह्या महामंडळावतीन ह्या गंडोलाची येरादारी जाता.

गुलमर्ग ते कोंगडोरी मेरेनचो प्रवास चडशे पर्यटक करतात. तिनशीं रुपया जावं येवपा वचपाक. पूण हो अणभव घेवप सामकें गरजेचें. नातर गुलमर्गाक वचून हांगा थंय भोंवून घोड्याचे लिदीचो वास घेवन परतुपांत कांय अर्थ ना.

दुसरो टप्पो कोंगडोरी तें अफरावत मेरेनचो. कोंगडोरीक बर्फ बी पळोवंक मेळटा. बर्फांत खेळूंकय मेळटा. पूण जर कोणाक स्कीईंग करपाचें आसा, स्लॅटर गाडयेंतल्यान भोवपाचें आसा आनी कमी दाबाच्या हवामानांत वावुरपाक त्रास जायना जाल्यार ताणीं दुसऱ्या टप्प्याचो प्रवास करूं येता.

काळजाचें आशिल्ल्याक, प्रेसांवाचें आशिल्ल्याक हांगा न वचपाची शिटकावणी दितात, पूण तांका तपासपी कोण नासता.

आमी दोनूय टप्प्यांचेर वचून येवपाचें थारायल्लें. आमकां कसली घाई नाशिल्लीच. आमच्यांनी जाय जाल्यार गुलमर्गाक आनीक एक दीस वाडोवं येतालो.

गंडोला म्हळ्यार स लोकांक बसपाचें सरयेवेलें पाळणे कशें. हारशांचें बंद पाळणें म्हणूंक हरकत ना. मर्दी पार्टीशन. फाटल्यान तीन लोक फुडल्यान तीन लोक बसले म्हणटकच पाळण्याचीं दारां बंद जातात. वयर वता आसतना उक्तें करून कोण सकयल उडी मारत वो पडत म्हणपाचो भंय ना. स्वयंचलीत यंत्रणां ही. लोखंडाचे व्हड व्हड टॉवर उबे करून ते दोंगराचेर वयर मेरेन व्हेल्यात. ताका विजेचें कनेक्शन आसा आनी हे विजेचेर केबलांवेल्यान हीं पाळणी एक सारकीं वयर सकयल येत यो-वच करतात. स्टेशनाचेर रावलो गंडोला, पंदरा-वीस सेकंदांत पटापट पर्यटक भितर घुसतात. दार बंद जाता. गेलो गंडोला मुखार. सट्ट करून दुसरो गंडोला आयलो.

गुलमर्गाचो गोल्फ कोर्स हो संवसारांतलो सगळ्यांत चड उंचायेवेलो गोल्फ कोर्स म्हूण संवसार वळखता तशेंच हे गंडोला सेवेक संवसारांतली सगळ्यांत उंचायेवेले सुवातेवेली केबल कार सेवा म्हूण वळखतात. जागतीक ख्यातीचे फ्रेंच कंपनीन ती थंय उबारल्या. आमचो पयल्या टप्प्यांतलो गुलमर्ग तो कोंगडोरी प्रवास सुरू जालो. केबल कार म्हणटकच काळजांत दुगदूग ही नाय म्हळ्यार आसताच. सिमला जावं सिंगापूर म्हणा वो रायगडाचेर वतना हांवें केबलकारचो अणभव घेतिल्लोच. तेच वांगडा बऱ्यांतली बरी काळजी घेवन मेंटेनन्स केल्ल्यो केबल कार तुटून, हजारांनी फूट सकयल पडून मनीस सोंपल्यातूय. वीज पुरवठो खंडीत जावन आदेस आदेसभर अधांतरी हुमकळत लोक उरल्यात. ही सगळी कल्पना आशिल्ल्यान नाय म्हळ्यार हुसको हो आसताच. पूण ताका अपघातूच म्हळा. सगळ्यांच्या वांट्याक काय



काकी थंडेन कुडकुडत सैमसुंदराय तोखेता

तो नासता हें जरी खबर आसलें तरी म्हज्या वाट्याक तो ना अशें म्हणपा इतलो हांव देडशाणो निखालूस नाशिल्लों.

गंडोला वयर वयर सरकत आशिल्लो. आमी ज्या पर्वत तेमकाचेर म्हळ्यार कोंगडोरी वाठारांत वताले तो कोंगडोरी वाठार हळुहळू सकयल वतालो. तो कसो सकयल येता हें सिनेमांतल्या दृश्यांचें चित्रिकरण करतात तेन्ना अणभवाक येता. क्रेनशॉट जेन्ना घेतात तेन्ना कॅमेरो ते क्रेनीचेर आसता. खंयचेय गजालीचें चित्रिकरण हे वेळार करतना क्रेन कॅमेरो घेवन जेन्ना सकयल येता तेन्ना मुखावेलें दृश्य तेच गतीन वयर सरता अशें दिसता आनी जेन्ना कॅमेरो वयर वता तेन्ना मुखावेलें दृश्य सकयल येता अशें दिसता. सिनेमा पळोवपी प्रेक्षकांचो कॅमेरो हो दोळो आसता.

तेंच कित्याक, जर आमी वाहनांतल्यान एखाद्री देंवती काडटात तेन्ना वाहन ज्या वेगान सकयल वता त्याच वेगान मुखावयलो वाठार वयर सरता अशें आमकां भासता. खरेपणी तो वाठार थंयच आसता. पूण आमच्या दोळ्यांच्या कॅमेऱ्याक देंवतेची क्रेन जोडिल्ली आसता. गाडी सकयल देवतना वा वयर चडटना तोच इफेक्ट मेळटा.

गुलमर्ग ते कोंगडोरीचें अंतर ३०४५ मीटर. कोंगडोरी हे सुवातेर चडशे पर्यटक येतात आनी थंयच्यान परततात. बर्फाक हात लायिल्ल्याचें, बर्फाचे गुळे करून एकमेकाचेर मारपाचें, स्कीईग वो स्लेजचेर बसून घसरपाचें मर्यादीत सूख हांगा घेवंक मेळटा.

आमकां कसलीच घाई नाशिल्ली. समुद्रसपाटी पासून आमी सात-साडेसात हजार फुटांचेर आयिल्लीं. हे आदीं हांव हिमाचल प्रदेशांतल्या खौली पास सारख्या वाठारांत चवदा-पंदरा हजार फुटांचेर चलून गेल्लों आसां. म्हणटकच ही उंचाय आनी थंयचो बर्फ म्हाका व्हडलोसो न्हय. हांव विचार करतालों तो हांगच्या समाज जीवनाचो.

आता मे-जून म्हयन्यांत हांगा बर्फ आसा. थोडो आसूं तो! पूण डिसेंबराक सावन

जी बर्फवृश्टी हांगा जाता आनी ह्या वाठारांत धा-बारा फूट बर्फ साचता, घरांचेर चार-पांच फूट बर्फ साचता तेन्ना ह्या लोकांचें कशें जाता आसतलें काय?

हांगा दुकानां, पसरे आशिल्ले. खंयच्याय गांवानी शारांनी आसतात तसलींच दुकानां, तींच सॉफ्ट ड्रिंका आनी हुमकाळयल्लीं चिप्स, कुरकुरे हांचीं पाकिटां, रंगरंगयाळीं. च्याचीं कांय दुकानां. थंयची खाशियत अशी कांयच दिश्टी पडना आशिल्ली.

वयर गंडोला सरकतालो तेन्ना हांवें म्हजो कॅमेरो चालूच दवरिल्लो. हो पयलो ३०४५ मीटरांचो मार्ग १४ खांब्याचेर आशिल्लो. कुकी ते मेजपाचें काम करतालो. काकी कित्याकित्याचें शुटींग काडचें हांवें ताचें दिग्दर्शन करताली. सकयल दोंगराचेर कांय खोपीय दिसताल्यो. त्यो त्या घोडेवाल्यांच्यो, आनी मेंढपाळांच्यो आशिल्ल्यो जावंक जाय. बर्फ पडूंक आरंब जाय मेरेन हे लोक हांगा रावन जितलें कमावंक मेळटा तितलें कमायताले. बर्फ पडून तो साचूंक सुरवात जाली म्हणटकच हांगा वेवसाय करपी सगळे सकयल वतात.

आमचे खातीर भरपूर वेळ आशिल्लो. कसलीच घाई नाशिल्ली. पूण कुकीक घाई लागिल्ली वयल्या टप्प्यार वचपाची. थंय चकचयाळ बर्फ पातळिल्लो आसा आनी स्कीईंग करूंक मेळटा म्हणपाचें ताच्या कश्मीरी मित्रानी ताका सांगिल्लें. शिवाय वयर अदी मदीं वादळ बी जाता तेन्ना थंय चड वेळ रावंक दिनांत अशेंय सांगिल्लें. म्हणटकच थंय चड वेळ सारतलो जाल्यार पयलीं थंय वचप शाणेपणाचें थारतालें.

कोंगडोरी ते अफरावत हें अंतर ४०६० मीटर लांबायेचें. गुलमर्ग ते कोंगडोरी मेरेन आयिल्लो मार्ग सामको थेट उबो नाशिल्लो. गंडोला तिरप्या वायराचेर वयर सरकतालो. पूण हो मार्ग तर थेट उबो सो दिसतालो. बांयतल्यान उदकाची कळसुली वयर सरची तशे हे गंडोला त्या केबलाचेर वयर चडटात अशें दिसतालें.

कोंगडोरी ते अफरावत मेरेनची गंडोला तिकेट प्रत्येकी पांचशीं रुपया आशिल्ली. आमी सकयल तिनशीं रुपया प्रत्येकी दिवन वयर हांगा कोंगडोरी मेरेन आयिल्लीं. सगळो प्रवास प्रत्येकाक आठशी रुपयांक पडटालो. पूण दुडवांचें तोंड पळोवंक आमी हांगा येवंक नाशिल्लींच.

तिकेट काडून आमी परतून अफरावत वचपी गंडोलांत बसलीं. पयल्या टप्प्या परस हो दुसरो टप्पो चड खर आसूंक जाय म्हणपाचें कळ्ळें. कित्याक तिकेट पयल्या टप्प्या परस दोनशीं रुपयांनी चड आशिल्ली. ह्या दुसऱ्या टप्प्याविशीं तिकेटीच्या फाटल्यान सगळी म्हायती बरयिल्ली. ह्या कोंगडोरी ते अफरावत मेरेनच्या गंडोलांतल्यान दर तासाक ६०० प्रवाशी व्हरपाची तांक आशिल्ली. दर सेकंदाक ५ मीटर गतीन वचपी ह्या गंडोलाक वयर पावपाक उण्यातउणी वीस मिनटां लागतात खंय! उंचाय आशिल्ली १३,४०० फूट. देवतेचें अंतर (स्लोप) २.६५ कि. मी. आनी एकूण १८ टॉवर्साचेर हे गंडोलाचे केबल घाल्ले.

कुकी ती लिखीत म्हायती दितालो आनी हांव कॅमेऱ्यांतल्यान शुटींग करतालों. त्या सर्गसुंदराय लाबिल्ल्या सैमाचे फाटभुंयेर गंडोला वयर वयर वतालो आनी ते फाटभुंयेर गंडोलासयत हांव कुकीक, काकीक कॅमेऱ्यांत बंदिस्त करतालों. हांव ऐन जवानीत १८ हजार फुटांचेर लेगीत चलून गेल्लों. विरळ वातावरणाक लागून सहसा ऑक्सीजना बगर कोण सट्ट करून वचूंक पावना थंय मेरेन गेल्लों हांव. पूण जीवनांतलो हो म्हत्वाचो, इतिहासीक खीण बंदीस्त करपा खातीर त्या वेळार म्हजेकडेन न्हय तर गीर्यारोहण करूंक आयिल्ल्या म्हज्या खंयच्याच वांगड्यांकडेन कॅमेरो नाशिल्लो. आयज साठ-सत्तर हजारांचो कॅमेरो हातांत आशिल्लो जाचेर चलचित्रण जातालें आनी पांयानी हो पर्वत चडपा बदला गंडोलाचेर वतालों.

अफरावताक गंडोला थांबलो. आमी देवून गंडोला स्टेशनाभायर मात आयल्यांत, थंयच्या स्कीईंगवाल्यानी आनी घसरगाडयांवाल्यांनी गराडो घालो. जगार खंयीय वचात ही हपापलेली जमात आंगार तुटून पडटाच आनी खंयचीच अधिकारी यंत्रणां तांचेर नियंत्रण दवरूंक शकनांत.

आमच्या गोंयांतूच पळयात. पर्यटक दिसलो रे दिसलो ताचे भोंवतणी एका परस चड हिरांटे कोंडाळें करतात. ते टॅक्सीवाले जावं, गायड जावं वो हॉटेलवाल्यांचे बडवे जावं सामके तुटून पडटात. तातूंत खंयच सभ्यताय नासता. अचकट विचकट उलोवप. नाका आमकां तुजी सेवा म्हणत जाल्यार थळावे भाशेंत कमेंटस् मारून हांसप. आपली सेवा घेवपा खातीर जबरदस्ती करप. हें सर्रास चलता. पर्यटकूय अनवळखी वाठार म्हूण तांचें सोंसून घेता.

आमकां ह्या हिराटयांनी गराडो घालोच. कुकीक स्कीईंग करपाचें आशिल्लें. ताका एकल्या हिरांट्यान आपल्या ताब्यांत घेतलो. काकीकूच कितले पयशे बी दिवपाचें तें थारावनी म्हळें. ह्या असल्या लोकांकडेन मातशें कडक रावचें पडटा. मोव सापडलो जाल्यार लुटलोच ताणीं. हांव तर हेरांची काकूट करूंकच जल्माक आयिल्लों. सांगता ते पयशे सा करून मेकळो जातालों. वांटपणा करप म्हज्या जिवार येतालें. काकी ते बाबतींत एक्सपर्ट.

हजारांवेल्यान आरंब करून कुकीचें तें स्कीईंग शेवटाक म्हाका दिसता अडेजशीं रूपयांचेर थारलें. कुकी हाताक ग्लोवज, माथ्याक कानटोपी, गळ्याक मफलर आनी स्वेटर अशे तरेन सामको वयर सकयल शिरंगारून सामको युध्दाक वचपी जवानावरी तयार जाल्लो. काकी आनी हांव ताचे पराक्रम पळयतालीं. तो त्या बर्फांतल्यान बरोच पयस गेल्लो. म्हाका बर्फांतल्यान चलपाचो सराव आशिल्लो. पूण तो बर्फ रोथांग, लेह बी वाठारांतलो, फ्रेश बर्फ आशिल्लो. भुसभुसीत. काणकोणच्या दर्या किनाऱ्यावेल्या रेवेवरीं. पांय भितर मुंगरताले आनी वयर काडूंक अदीक शक्त घालची पड. पूण चलप कठीण नाशिल्लें. पूण हांगा ह्या बर्फाच्या पट्ट्याचेर चलप सोडा उबें रावप कठीण जातालें. कित्याक तो बर्फ ताजो नाशिल्लो. रातभर



पडिल्लो जायत! पूण तो ग्लेसीयर टायप आशिल्लो. तातूंत ह्या स्कीईंगवाल्यांनी, घसरगाडीवाल्यांनी थंय तो बर्फ मस्तून मस्तून फातर कसो केल्लो. मातसो चलता जाल्यार निसरून पडप जातालेंच.

कुकीचे फोटो काडपाची जबाबदारी म्हजेर आशिल्ली. पूण ताचे फाटल्यान धावप शक्य नाशिल्लें. तागेलो तो स्कीईंगवालो ताका घेवन बरोच पयस गेल्लो. थंयचो बर्फूय बरो शुभ्र आनी फ्रेश दिसतालो. घसरगाडीवालो आपूण तुका थंय व्हरतां म्हूण फाटीक लागिल्लो.

हो घसरगाडी प्रकार म्हळ्यार एक फळकुट्यांचो बॉक्स. त्या बॉक्सांत पर्यटकांक घालून दोग जाण दोरी बांदून ओडटात. तांका त्या बर्फांतल्यान धांवपाची सवंय आशिल्ली. ते ती गाडी ओडीत धांवताले.

नाका नाका म्हणटां म्हणटां ताणीं म्हाका पटयलोच. दोगांयकूय शंबर शंबर रुपया दितलों अशें सांगून ते गाडयेंत बसलों. दोगूय म्हजी ती पातमारी ओडूंक लागले. हांव हातांत कॅमेरो घेवन म्हजो तोल सांबाळटालों. चिड्डून चिड्डून फातर जाल्ल्या पूण तरी हारशावरी चमक आशिल्ल्या त्या बर्फावेल्यान म्हजी ही गाडी सुळूक करून खंयचे खंय पावताली. ती नियंत्रणाखाल हाडपाक ते दोगूय सांड अटोकाट प्रयत्न करताले. नियंत्रणाखाल येना जाल्यार सोडून दिवपाक ते तयारूय आशिल्ले. हांव गेलों घसरत खंयच्याय देंगणांत जाल्यार तांच्या बापायचें चडूच वतालें!

हांव कुडकुडत कॅमेरो हाताळतालों. तातूंत कॅमेरो आनी हांव पडचो न्हय म्हूण हांव युध्द पातळेर प्रयत्न करतालों. तेय अवस्थेंत हांवें कुकीचे आनी मुखावेल्या बर्फान भरिल्ल्या पर्वत रांगेचे फोटो काडले. ते गाडयेंतल्यान भायर येवन हांव त्या बर्फान भरिल्ल्या विस्तृत पठाराचेर उबो आशिल्लों. 'या अल्लाह या लल्ला' म्हणत म्हाका ओडपी ते सांड एका बर्फाच्या उड्याचेर बशिल्ले आनी सिगरेट फुसकायताले. आपलेमदीं कितें तरी उलोवन मोठमोठ्यान हांसताले. कुकीक घेवन गेल्लो तागेलो इन्स्ट्रक्टरूय तांका मेळिल्लो. एकल्यान म्हाका पयस बोट करून तो पर्वत दिसता तो द्रास आनी लायन ऑफ कंट्रोल म्हणपाचें सांगलें. हांवें झूम वापरून ताचें चित्रिकरण केल्लें. म्हजे खातीर ती पुराय पर्वतरांग लायन ऑफ कंट्रोलच आशिल्ली. कित्याक ती हुपपाचें काय म्हज्या भाग्यांत नाशिल्लें. दोळ्यानीच हांव सूख घेतालों. मदीं मदीं नुन-कुन्ह पर्वताचीं शिखरां खंयचीं, हरमुख पर्वत खंयचो, अफरावत पर्वतांची रांक खंयची हें सोदपाचो यत्न करतालों. कित्याक ह्या लोकानी म्हाका वोडून हाडून अशे सुवातेर उबो केल्लो की हांव पूर्वेक तोंड करून आसां काय पश्चिमेक तेंच विसरिल्लों. सगळेकडेन बर्फूच बर्फ आशिल्लो.

बऱ्याच वेळान आमी तांका या म्हळें. चड वेळ थंय रावून फायदोय नाशिल्लो. कुकीकूय पुरो जाल्लें. नवें पळोवपाचें कांय नाशिल्लें. नदर मारता थंय बर्फूच बर्फ. आमी परतले. काकी थंय हुसको करीत उबी आशिल्ली हें हांव जाणां आशिल्लों.

पर्थून म्हाका ते गाडयेंत बसयलो. हे गाडयेक टोबो गॅनिंग म्हणटात. टोबो गॅनिंग हो व्हडलीशी कुशळताय लागना असलो बर्फांतलो खेळ म्हणपाचें हांवें आयकल्लें. पूण हे घसरगाडयेक टोबो गॅनिंग म्हणटात हाची कल्पना नाशिल्ली.

कुकी स्कीईंग करीत ताच्या इन्स्ट्रक्टरा वांगडा पयस पाविल्लो. हे दोगूय

सांड म्हाका ते घसरगाडयेंत घालून ओडटाले. ओडटना देवाचें नांव घेताले. या अल्लाह, याल्लाला. तांका अशें म्हणिल्ल्यान गाडी ओडपाक नेट येतालो जावंये!

म्हाका हो टोबो गॅनिंग खेळ नवो नाशिल्लो. भुरगेपणार हांव तो खेळिल्लों. फरक इतलोच, हो खेळ समुद्रसपाटी पासून साडे तेरा हजार फूट वयर बर्फांत खेळटात आनी म्हज्या भुरगेपणार हांव खेळिल्लों तो समुद्रसपाटी सकयल चार पांच फुटांचेर!

हय, म्हजो आगशी गांव समुद्रसपाटी पासून कांय फूट सकयल आसा म्हणपाचें हांवें आयकल्लें. हांव रावता ती सुवात दर्या पोंदची सुवात. म्हजें आयज घर आसा थंय एका काळार व्हडल्यो व्हडल्यो पातमान्यो येताल्यो खंय. हो वाठारूच रेवेंचो आनी करपांचो. हेच रेवेंत म्हजें भुरगेंपण खेळून सरलां.

म्हजे आवयची एक जिवाभावाची इश्टीण सद्दां आमगेर येताली. येतना ती आपल्या भुरग्यांक घेवन येताली. म्हजी आईय तांगेर वताली. तिच्या फाटल्यान हांव, म्हजी धाकटी भयण मंगल बी तांगेर वतालीं. आईन आनी तिचे इश्टीणीन गजाली मारप. आमी भुरग्यांनी खेळप. सत्येआईक एक चली आशिल्ली. ती म्हजेच वांगडा खेळटाली. तेन्ना घोव-बायल म्हळ्यार कितें हाचो अर्थ म्हाका कळनाशिल्लो. पूण म्हाका ते चलयेच्या नांवान चाळयताले. म्हाका ताचो घोव म्हणटाले. हांव रडून आकांत करतालों. तशें म्हणटल्याचेर हाताक मेळटा तें शेवटून मारतालों. ते चडूच चाळयताले.

आमगेर एक फुटकें काशेत आशिल्लें. त्या काशेताची आमी घसरगाडी केल्ली. ते गाडयेंत एकलो कोणूय बसतालो आनी दुसरो दोरी बांदून ओडटालो. ते रेवेंतलें हें आमचें टोबो गॅनिंग आळीपाळीन एकमेकांक ओडून व्हरपाचें.

ते चलयेचो भावूय केन्ना केन्ना ते चलयेक आनी म्हाका त्या काशेतांत बसयतालो आमी दोगांय माणकुलीं त्या काशेतांत फिट्ट बसतालीं. तो आमकां ओडटालो. एक दीस ताणें म्हाका आपले भयणीचें नांव घेवन ताचो घोव म्हळें. ताच्या त्या भावाक 'टोणको' म्हणल्यार राग येतालो. ताणें म्हाका ताचो घोव म्हणूं नाका, हांवें ताका टोणको म्हळो. त्या बराबर ताणें आमचें हें टोबो गॅनिंग सोडलें. म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हजे सोणकुटेचेर दोन फुलयलीं. म्हजे परस तो व्हडलो. व्हडल्याक परतें उतर दिवप ना, हात उबारप ना ही आमकां शिकवण. हांवें रडून आकांत केलो. आईक सांगलें. आई आपले इश्टीणीकडे झगडली. अशे तरेन तो भुरगेपणावेलो रेवेंतलो टोबो गॅनिंग कायमचो बंद जालो.

या अल्लाला, करीत ताणीं म्हजी पथारी जंयच्यान व्हेल्ली थंय हाडली. कुकी आनी काकी हांसत हांसत म्हजी वरात येता ती पळयतालीं. म्हजें भेंड सामकें धाडवल्लें. म्हजे हातांतले कॅमेरो घेवन कुकी आपले फोटो पळोवंक दंग जालो.

ताणीं म्हाका ओडून व्हेल्लो खरो. पूण तें खरेंच तकालशीचें काम आशिल्लें. ताणीं जर व्हरूंक नाशिल्लो आनी तांका चारशीं रुपया कित्याक दी म्हणून थंयच राविल्लों जाल्यार म्हाका थंयचें तें थ्रील आनी सैमीक सुंदराय पळोवंक मेळची नाशिल्ली.

ताणी मागिल्ल्या पयशां परस शंबर रुपया चडूच दिवन आमी गंडोलांत बसलीं. आमचो अफरावत ते कोंगडोरी प्रवास सुरू जालो.

अफरावत पर्वताचेर चड वेळ रावप समा नासता. इतले उंचायेर वादळ जाल्यार कितें जाता हाचो अणभव हांवें खोली पासांत वीस-पंचवीस वर्सां पयलीं घेतिल्लो. हांगा हिमवादळ जावपाची शक्यताय आसता. जे सर वातावरण स्वच्छ आसता ते सर ही सुवात सर्ग कशी! पूण हवामानात अकस्मात बदल जाल्यार हेच सुवातेचो नरक जाता. अकस्मात सूर्य, रंगमंचावेलो डिमर मंदावचो तसो मंदावता. सगळेकडेन पावसाळी हवामान अवतरता. तातूंत वारो सुट्टा. इलेक्ट्रीसिटी वता. ती गेल्यार बोबो मागीर. तसो भंय नासता. गंडोलावाले जनरेटर स्टार्ट मारतात. पूण डिजलाचेर चलपी हे जनरेटर्स तापमान अकस्मात शुन्या सकयल वचत जाल्यार चालूच जायनांत. खूबदां घडलां अशें. ताका लागून पर्यटक वयरूच अडकून उरतात. उपरांत वीज केन्ना येती हाची खात्री कोण दिवंक शकनांत. अशा प्रसंगार एकूच पर्याय उरता तो म्हळयार हेलिकॉप्टर धाडून थंय फारकल्ल्यांक सकयल हाडप. पूण तितलो धोको कोण पत्करनांत. वातावरणांत बदल जावंचे पयलींच वो तसो अदमास लागल्यार पर्यटकांक चारांकूच सकयल आमडप जाता. ना तर बसचें पडटा वीज ये सर थंडेंत कुडकुडत.

आमकां हो अणभव घेवपाचो नाशिल्लो. आमी गंडोलांत बसलीं. स जाणांचो गंडोला. एके सायडीक आमी तिगां बसलीं. दुसरे वटेन तीग तरनाटे आयले. ते आमचे फाटल्यान आनाळ्यो गुनाळ्यो काडटाले. वयर स्कीईंग करपा खातीर फाटीक लागिल्ले तेन्ना तांतल्या एकल्याक हांवें तापयल्लो. हांव तांचेकडेन आडनदर करून गंडोला सकयल येतना ताचो क्रेन इफेक्ट घेत कॅमेऱ्यान चित्रिकरण करतालों. ते तरनाटे म्हाकांच पळयताले. तिगांयचीय चुळबूळ चलताली. वयर हांवें तांचेकडेन वाद घाल्लो ताचो भोवतेक तांकां सूड घेवपाचो आशिल्लो. हांवें काकीक तेंच सांगलें. पूण आमकां भिवपाची गरज नाशिल्ली. सकयल आमचे भालदार चोपदार प्रतिक्षा करीत आशिल्लेच.

शेवटाक रावंक जायना जाल्ल्यान तांतल्या एकल्यान प्रस्न केलोच, 'साब, आप पिक्चर निकालते है ना?' हांवें म्हळं, 'नही तो. आपको किसने कहा?' 'आपको देखते ही पता चलता है'

म्हजें व्यक्तीमत्व हांगाय म्हाका सुखान जगूंक दिनाशिल्लें. गंडोला केन्ना गुलमर्ग पावता आनी ह्या म्हज्या चाहत्यां कडल्यान म्हजी सुटका जाता अशें म्हाका जावन गेल्लें. गंडोला हळुहळू सकयल सरकत आशिल्लो. हांवूय उंचायेवेल्या सर्गांतल्यान ह्या वेवसायीक नरकांत उतरत आशिल्लों.



POSTAL LIENSE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA/KON/2008/30413

# समेस्त गोंयकारांक

# चवथीचीं

# हुनहुनीत परबीं

Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa





**Working towards a Secular & Prosperous Goa**

Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Corlim, Goa. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in